# अंतराचो निरंतर

(77 वेंचीक इंग्लीश कवितांचे कोंकणी भाशांतर)

डॉ. बि देवदास पै

संजना पब्लिकेशन्स

| | |
|---|---|
| **अंतराचो निरंतर** | **ANTARACHO NIRANTARA** |
| (वेंचीक इंग्लीश कवितांचे कोंकणी भाशांतर) | **(Translation Selected English Poems)** |
| कोंकणी अणकार : | **Konkani Translation by :** |
| **डॉ. बि देवदास पै** | **Dr B Devadasa Pai** |
| प्रकाशक : | Publisher : |
| **संजना पब्लिकेशन्स** | **Sanjana Publications** |
| 39, दत्तवाडी, सांगें, | 39, Dattawadi, Sanguem, |
| गोंय. 403704 | Goa. 403704 |

sanjanapublications2@gmail.com





| | |
|---|---|
| **पयली उजवाडावणी** : 2021 | **First Edition :** 2021 |
| छापणावळ : | Printing : |
| **रिया ग्राफिक्स** | **Riya Graphics** |
| ओल्ड-गोवा | Old - Goa |
| मुखचित्र : | Cover Page : |
| **सौम्या सिद्धार्थ कल्याणकर** | **Soumya Sidhartha Kalyankar** |
| **मोल : रु. 200/-** | **Price : Rs. 200/-** |

आपल्या प्रभुद्ध जीवीताचे अवधीक
कोंकणी भास आनी संस्कृतेच्या
उदर्गती कडेन ओंपयल्ले
विश्व कोंकणी केंद्र स्थापनेचे प्रमुख,
कोंकणी सर्दार
**सर्गेस्त बस्ती वामन शेणै** माम
हांच्या शाश्वत उग्डासाक ही विश्वमान्य साहित्य संबंधीत
कोंकणी अणकार कृती समर्पीत.

# मांडावळ

# विवीध रसांच्यो वाटयो

– श्री. उदय भेंब्रे

काव्याचो अणकार ही कठीण अशी साहित्य सेवा तातूंत एके परदेशी भाशेंतल्या कवितांचो एके देशी भाशेंत अणकार हो अदिकूच कठीण असो वावर. एका सांस्कृतीक पर्यावरणांतल्यान दुसऱ्या आनी खूब वेगळ्या सांस्कृतीक पर्यावरणांत वचपा इतलो. ताचो दिश्टावो डॉ. बी. देवदास पै हांच्या ह्या झेल्यांत जाता.

कोंकणी साहित्यांत कविता हो प्रकार खूब जाणांनी केळयला. नदरेंत भरपा सारकी कविता निर्माण जाल्या. विविधताय, खोलाय, प्रयोग, गोडी अशे ते कवितेचे कांय खाशेले गूण. ती अदीक गिरेस्त आनी उंच दर्ज्याची जावची म्हूण देशी आनी विदेशी, पोरणी आनी आर्विल्ली अशे कवितेचो अभ्यास जावपाची गरज आसा. त्या अभ्यासा खातीर साधनां जाय. डॉ. पै हांचो हो झेलो तसलेंच एक साधन आमच्या हातांत दिता.

इंग्लीश भाशेंतली कविता विविधांगी आनी समृद्ध. ते कवितेच्यो शैली आनी खाशेलेपणां हो अणकारीत कवितांचो झेलो वाचतना नदरेंत भरतात. डॉ. पै हांणी केल्ल्या अणकाराचेंय एक खाशेलेपण आसा. अणकारीत कविता आसात त्यो एकाच कवीच्यो न्हय. चाळिसां वयर कवींच्या कवितांतल्या विवीध रसांच्यो वाटयो घेवन हो झेलो येता.

हो झेलो काव्याच्या रसिकांक भूल घालतलोच, पूण इंग्लीश कवितेचो अभ्यास करतल्यांक एक मोलादीक अशें साधनूय थारतलो. ●●●

# इंग्लीश कवितेची झळक आनी वळख

– श्री. गोकुळदास प्रभु

**फाटल्या** शंभर वर्सांनी हेर भासांचें साहित्य कोंकणींत अणकारून हाडपाचो मात्सो वावर जाला.पुण हें भाशांतर चड करून इतर भारतीय भासांतल्यान जालां. इंग्लीश भाशेंतल्यो वा संवसारांतल्या हेर भासांतल्यो उत्कृश्ट साहित्य कृती थोड्योच कोंकणींत अणकारून आयल्यात. तातूनय काव्याचो अणकार साप उणो.

ह्या संदर्भांत कांय श्रेश्ट इंग्लीश कविता कोंकणींत अणकारून हो संग्रह आमच्या मुखार हाडिल्ले खातीर डॉ. देवदास पै हांची तोखणाय करूंक जाय. प्रतिनिधीक स्वरूपाच्या ह्या संग्रहांतल्यान वाचप्याक इंग्लीश कवितेची एक झळक मेळतली म्हणपांत दुबाव ना. इंग्लीश कवितेचें रूप आनी ताचो आंतरीक सबाव काळाक अनसरून बदलत आयला. हें समजून घेवन ह्या अणकारीत कवितांचें आस्वादन घेवपाक इंग्लीश कवितेच्या इतिहासाची थोडी माहिती उपकाराक पडत.

## इंग्लीश कवितेचो सुरवेचो काळ

इंग्लीश भाशेचो उगम पांचव्या शेंकड्यांत इंग्लंडांत जर्मन वंशाच्या लोकांचे वसणुकेक लागून, तांचे भाशेंतल्यान जालो. इतिहासीक दिश्टीन इंग्लीश भाश तीन अवस्थेंतल्यान आयचे स्वरूपांत पावल्या.

(1) पोरणी इंग्लीश

(2) मदली इंग्लीश

(3) आर्विल्ली इंग्लीश

पांचव्या शेंकड्याच्या मदेंकात सावन बाराव्या शेंकड्याचें पांचवें दसक मेरेन हो पोरणे इंग्लीश भाशेचो काळ. ही भास समजुपाक खूब कठीण. पोरणे इंग्लीश भाशेंत पद्य तशेंच गद्य साहित्याची निर्मिती जाल्या. अनामीक कवीन बरयल्लें बेअवुल्फ पोरणे इंग्लीश भाशेंतलें सगळ्यांत चड नांवादीक काव्य.

मदले इंग्लीश भाशेन बाराव्या शेंकड्याच्या पांचव्या दसकांत रूप घेतिल्लें आनी तें रूप चवदाव्या शेंकड्याचें मदेकात मेरेन चालू उरलें. ह्या काळांत चड करून पद्य साहित्याची निर्मिती जाली. तांतूंत इतिहासीक स्वरूपाच्यो, धार्मीक/उपदेश रूपाच्यो, आनी अद्भूत-काणयांच्यो अशा तीन प्रकारांच्यो कविता आसपावतात. लेयामॉन, रॉबर्ट (ग्लॉस्टराचो), रॉबर्ट मॅनिंग (ब्रनाचो) हे ह्या काळाचे नांवादीक कवी. अनामीक कवीन बरयल्लें Sir Gawain and the Green Knight हें मदल्या इंग्लीश भाशेंतलें खूब म्हत्वाचें काव्य अशें मानतात.

चवदाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत इंग्लीश भाशेच्या रुपांत व्हड परिवर्तन आयलें आनी आर्विल्ली इंग्लीश भास अस्तित्वांत आयली. ह्या काळमानांत साहित्य रचने खातीर इंग्लीश भाशेच्या वेग वेगळ्या बोलींचो प्रयोग उणो जावंक लागलो. फ्रेंच आनी इंग्लीश मेळून जी प्रमाण भास जाली, तिचो साहित्य निर्मिती खातीर वापर जावंक लागलो. लेखकांचो दिश्टिकोणय बदल्लो. अद्भूत काणयांचे सुवातेर मानवीक वेव्हाराची ओड, वेवस्थेचो बारीक नियाळ,टिकात्मक भावना आदी लेखकांच्या बरपांत दिसून आयलो. तशेंच गद्य लेखनांत लॅतीन आनी फ्रेंच भाशांचो वापर ऊणो जालो आनी मुळावे इंग्लीश गद्य शैलीचो बुनयाद घट जाली. पोरणे आनी मदले इंग्लीश काळाचें साहित्य चड करून अनामीक लेखकांचें आसलें. चवदाव्या शेंकड्यांतय अनामीक लेखकांचें बरप मेळटा तरीय तें कोणे रचिल्लें म्हण सोदून काडप कठीण न्हय.

**कवितेच्यो तरा (POETICAL TYPES)**

इंग्लीश कवितांच्यो जायत्यो तरा आसात. त्यो म्हळ्यार-

**(1) भावगीत (Lyric) :** हें कविता रूप एकेच भावनेचें. ही मुखेलपणान गेय सबावाचीं उतरां वापरून बरयल्ली कविता. भावनात्मक कविता लेखकाचे मनस्थितींतले वेग वेगळे बदल दाखोवन दिता. ह्या रुपाची कविता एक निती रूपांत उतरानी घट बांदून काडिल्ली आसता.

**(2) गेय-काव्य वा संबोध काव्य (Ode) :** ह्या रुपाची कविता भावगीता परस चड दीघ, गंभीर, व्हडपणाची, यमकांची आनी चड करून कोणाक तरी संबोधून/लेखून बरयल्ली. ही खंयच्याय वेळार प्रसंगार योग्य आचरणा खातीर बरयल्ली/सादर केल्ली कविता.

**(3) चतुर्दशपदी (Sonnet) :** हें इटलींत उपजल्लें रूप. पेट्रार्क हे कवीन सुदारून प्रचारांत हाडिल्लें, चवदा वळींच्या ल्हान कविताचें रूप. हांनूत a b b a, a b b a हे गीतीच्या यमकांच्या आठ वळींचें एक कडवें (octave or stanza of eight lines) आनी c d e, c d e ना जाल्यार c d c, d c d हे पद्धतीन जुळपी यमकांच्या, स वळींचें एक कडवें (Sestet or stanza of Six Lines) आसता. सोनेटांत एकच विचार वा भावना प्रकट जाता. इंग्लीश भाशेंत हें रूप सोळाव्या शेंकड्यांत सर थोमस वयाट हाणें हाडलें एडवर्ड स्पेन्सराच्या हातांत यमकांची चाल a b a b, b c b c, c d, c d, e e अशी बदल्ली. हेनरी होवार्ड हाणें ती चाल सुदारली आनी विल्ययम शेकस्पिअराक लागून a b a b, c d c d, e f, e f, g g अशा यमकांचें रूप लोकप्रिय जालें. शेकस्पिअराच्या सोनेटाचो विशय मोगूच. पुण जॉनमिल्टनान विशयाचो आवाठ विस्तारलो.

**(4) शोकगीत (Elegy) :** आधूनीक काळांत ह्या नांवाचो प्रयोग रुपा वयल्यान न्हय, विशया वयल्यान जाता. सुतकाच्या विशया वयल्यान वा चिंतनशीळ शोकाक लागून, चड करून मरणाचो विलाप म्हणून, एक गांव झुजांत कोसळिल्ल्यान वा मोग विफळ जाल्ल्यान शोकगीत निर्माण जावं येता

**(5) म्हाकाव्य (Epic) :** नांवादीक वीरांची जीण, तांची शूरपणाची

दंतकथा आदी कलात्मक तरेन विणून रचिल्लें दीघ पद्य. काव्यांतल्या कार्यांचेर अलोकीक शक्तींचें नियंत्रण आसता. म्हाकाव्य वेग वेगळ्या खंडानी रचिल्लें आसता आनी ताची क्रिया वेगवेगळ्या प्रकरणानी घडटा. म्हाकाव्याचीं (i) लोक काव्य, विकासाचें/अधिकृत म्हाकाव्य (Epic of Growth or Authentic Epic) आनी

(ii) साहित्यीक अथवा कलात्मक म्हाकाव्य (Literary Epic or Epic of Art) अशीं रूपां आसतात. ह्या साहित्यीक रूपा वयल्यान अडेचें/ उपहासाचें म्हाकाव्य (Mock Epic)उपजलें.

**(6) गीतकाणी (Ballad)** : मुळान लोकां मुखार गावपा खातीर रचिल्ली पद्य रूपाची काणी. रचपी अनवळखी आसता. काणी अचकीत सुरू जाता तांतूंत अनासक्तीचो सूर उठून दिसता, वळींची पुनरावृत्ती जाता. पुण वेळाचो तशेंच स्थळाचो चड विस्तार आसना. हांतूत विचारां परस सोंप्या सबावाच्यो करणी हो विशय जावन येता. काणी चड करून भयानक आनी तिचो शेवट शोकाचो आसता. अलोकीक शक्तीचो हस्तक्षेप दिसून येता. गीतकाणयेच्यो दोन तरा आसात. (ii) अनामीक रचप्याची, विकासाची गीत काणी (the ballad of growth) वा अधिकृत गीतकाणी (authentic ballad) आनी (iii) कलात्मक वा साहित्यीक स्वरूपाची गीतकाणी ( ballad of art or literary ballad) अशो दोन तरा आसात. हाचे वयल्यान मागीर व्यंग गीत-काणयेची (mock ballad) प्रथा जाली.

**(7) वर्णनात्मक लघुकाव्य (Idyll) :** इंग्लीश भाशेंत हो एक आगळो नमूनो न्हय. हें एक भावगीत, शोकगीताचो एक वांटो, महाकाव्य, वा दीर्घ कविता जावंयेता. Idyll म्हळ्यार (i) तुळनात्मक दिश्टीन मोटवें आनी (ii) चित्रां भशेन प्रभाव घालपी काव्य

**(8) व्यंग्यकविता (Satire) :** निंदा करपा खातीर बरयल्ली ल्हव सबावाचे कवितेची तरा, जी तीख आनी कोडू शैलीची आसून लेगीत वाचप्यांक मनोरंजन दिता.

**इंग्लीश कवितेच्या कडव्यांचे नमूने (Stanza types)**

इंग्लीश कवितेची बांदावळ वळींचो छंद, श्लोक वा कडवें हाची घटना, यमकांचो क्रम, हांचेर आदारून आसा. श्लोकांची/कडव्यांची तरा काळाक आनी कवीक अनुसरून बदलत आयल्या. वेग वेगळ्या कडव्यांचे नमूने सकयल दिल्ले प्रमाण आसात.

**(1) वीररसात्मक जुवळीं (The Heroic Couplet).**

इंग्लीश कवितेचो ताल अक्षरांचेर दिल्ल्या नेटाक लागून मेळटा. वीर रसात्मक जुवळ्यांत धा-धा अक्षरांच्यो दोन वळी आसतात आनी दर वळींत पांच Iambic feet मेळतात. (नेट नाशिल्लें एक अक्षर आनी नेटान उचारिल्लें आनीयेक, अशा दोन अक्षरांचें एक Iambic foot). देखून ह्या छंदाक Iambic pentameter म्हणटात. ह्या जुवळ्यांचीं लक्षणां अशीं -

(i) दर एके वळींतल्या एक सोडून दुसऱ्या अक्षराचेर नेट दिवपी छंद.

(ii) पयले वळींचे निमाणे कडेन अर्दविराम चिन्न

(iii) दुसरे वळींचे निमाणे कडेन अर्थ पूर्ण जाला म्हण दाखोवपी पूर्ण विराम चिन्न

(iv) अर्थाचे नदरेन दर जुवळें स्वतंत्र आनी पूर्ण

(v) एकूच अक्षराचें एकमुळें यमक.

असलें कडवें पयलीं चॉसरान चालीक लायिल्लें. शेकस्पिअरान आनी बेन जॉनसनान क्वचीत ताचो प्रयोग केलो आनी मागीर यमकांची उपेक्षा करून, सुदारून blank verse पद्धतीची चाल केली. जॉन ड्रायडन हाणें ह्या छंदाचो Alexandrine नमूनो आपणायलो आनी तांतूत pentameter सुदारून Iambic पावलांची (feet) वळ प्रयोगांत हाडली . मिल्टन आनी भौतीक-बाह्य कवींनी ही पद्धत भायर मारली. रोमांटीक कवींनी जुवळ्यांची ही चाल बदल्ली आनी जें सांगपाक जाय, तें एके वळींत वा जुवळ्यांत मर्यादीत रावनास्तना व्हाळत गेलें. पयलीची मर्यादा आनी नियंत्रण गेलें. छंदाचे नवे नवे नमूनेय ताणी आपणायले.

**(2) तीन वळींचें कडवें (The Terza Rima) :**

मुळान हें तीन वळींचें इतालियन कडवें (tercet). एका कडव्यांतली पयली वळ आनी तीसरी वळ जुळता तर दुसरी वळी फुडल्या कडव्यांतल्या पयल्या आनी तिसऱ्या वळीकडेन जुळता. कवितेचें यमक हे पद्धतीचें आसता: a b a, b c b, c d c, d e d.

**(3) चॉसराचें कडवें (Chaucerian Stanza Rhyme Royal)**

सात वळींचें Iambic pentameter प्रमाणाचें कडवें. पयलींच चॉसरान ताच्या जायत्या कवितानी वापरिल्ल्या ह्या कडव्याच्यो वळी a b, a b, b c c हे पद्धतीन जुळटात.

**(4) ऑट्टावा रायमा (The Ottava Rima)**

इतालियन भाशेंतल्या कवितेंतल्यान रीण घेतिल्लें कडवें. इंग्लीश भाशेंत थॉमस वयाट ह्या कवीन सोळाव्या शेंकड्यांत हाडलें. Iambic pentameter छंदाच्या आठ वळींतल्यो स वळी एक सोडून एक हे रीतीनच जुळतात,. पुण निमाण्यो दोन वळी जुळतात. देखीक: ab, ab, ab, cc

**(5) स्पेन्सराचें कडवें (The Spenserian Stanza)**

णव वळींचें कडवें. हांतूत Iambic pentameter वापरिल्ल्या चार चार वळींचे दोन वांटे आनी निमणी वळ आठवे वळी कडेन जुळपी Alexandrine यमकाची आसता. देखीक : a b a b, bc bc, c

## आर्विल्ले इंग्लीश कवितेची वाटचाल

### चॉसराचो काळ

1350–1450 (CE) हो शेंकडो पद्याचो, सपनाळू कवितेचो. ह्या काळाचे कवितेंत प्रतीकांचो बरो वापर केल्लो दिश्टी पड्टा आनी तांतूंत वसंत ऋतुचीं चित्रां, परमळ आनी प्रतिमा उठून दिसता. कविता चड करून कथनाचें (narrative) पद्य रूप आशिल्ल्यान सबाव/व्यक्ती चित्रण ताचो अंतरगत गूण जावन आसा. ह्याच काळांत कवितेंत विडंबनेची बीं पडलीं. ह्या काळाचो सगळ्यांत म्हत्वाचो कवी म्हळ्यार जेफ्री चॉसर. देखून ह्या काळाक चॉसराचें

यूग म्हणटात. तांच्या बरपावळींत मुखेलपणान Canterbury Tales, Troilus and Criseyde, The Parliament of Fowls ह्यो कविता येतात. विल्यम लॅंगलंड हो चॉसराचो समकाळीन कवी पुण ताची कविता The Vision of William concerning Piers the Plowman गंभीर, प्रतीकात्मक सबावाची आनी देख म्हणून सादर केल्ली.

### चॉसरा उप्रांतचो शेंकडो

चॉसरा उप्रांतच्या शेंकड्यांत (1450-1550 CE) चॉसराचें आनी ताच्या काव्य गुणांचें अनुकरणच चड दिश्टी पडटा. कवितेंत उत्तेजनाचो अभाव दिसून आयलो. पुनरुत्थानाक (Renaissance) लागून येवरोपांत ग्रीक/लातीं भासांचो तशेंच त्या भासांतल्या साहित्याचो अभ्यास चड म्हत्वाचो दिसतालो. हे मानसिकतेक लागून मौलीक इंग्लीश कवितेचेर विपरीत परिणाम जालो. पुण ह्या काळाचे कवितेंत गवळ्यांचीं गीता (eclogues), गीत काणी (ballads) आनी भक्ती गीतां (carols) हीं रूपां अस्तित्वांत आयलीं. जॉन स्केल्टन हो ह्या काळमानांतलो मुखेल कवी.

### एलिजबेताचो काळ

सोळाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत पयले एलिज़बेत राणयेच्या काळांत विद्वत्ताय परत जितें करपाचें काम नेटान चलतालें. आदलें भशेन ग्रीक/लातीं आभिजात साहित्याचो अभ्यास चलतालो. पुनरुत्थानाची भावना चालू आशिल्ली. विद्वान लोक खंयच्याय विशयाचेर स्वतंत्रपणान सोद घेवपाची उमेद दाखयताले. तांचे मदीं भावार्थाक आड वचपी तर्कबुद्धी दिसून आयली. कला, साहित्य, विज्ञान, तत्वगिन्यान हाची तान वाडिल्ली. लोका मदीं सर्व साधारणपणान जीण आनी सूख हांची ओड बळादीक आशिल्ली. पयलीं केन्नाय दिसूंक ना तसलो साहित्यीक वावर जायत आशिल्लो. महाकाव्य, रोमांस, गवळ्यांचें गीत, गीत काणयो, शोक गीत, चतुर्दशपदी (sonnet), भावगीत, विडंबना अशा साबार रुपांची गिरेस्तकाय वाडली. इंग्लीश साहित्यांतल्या ह्या इतिहासीक काळांत फिलिप सिडनी, एडमंड स्पेन्सर,

शेकस्पीयर आदी सोनेटकारानी, जॉन लायली, रॉबर्ट ग्रीन, शेकस्पीअर, बेन जॉनसन आदी भावगीतकारानी आनी एडमंड स्पेन्सर आदी विडंबना बरोवप्यानी कवितेक खूब म्हत्वाचें योगदान दिलें.

### कारोलीन काळ

1625 वर्सा चार्ल्स पयलो राजा सत्तेर आयलो. आनी उप्रांत ताच्या धोरणांक लागून राजकारण प्रक्षुब्ध जालें. राजकरणी दरबाराचे मजावादी (Cavalier) आनी प्रजा समर्थक कडक नैतीक मूल्य-वादी (Puritans) अशे दोन पक्षानी वांटून गेले. 1649 वर्सा चार्ल्स पयलो हाची हत्या करून ओलिवर क्रॉमवेल सत्तेर आयलो. 1658 वरसा मरणा मेरेन तो सत्तेर उरलो. पुण 1660 वर्सा संसदेन राजसत्ताक पद्धत परत चालीक लायली आनी चार्लस दुसरो हो राय सत्तेर आयलो. इंग्लीश साहित्याच्या इतिहासांत 1635-1660 च्या काळमानाक करोलीन (चार्ल्साचो) काळ अशें वळखतात. ह्या काळांत तीन नमूनेचे कवी आशिल्ले:

(i) भौतिका भायले (Metaphysical) कवी

(ii) दरबाराचे मजावादी (Cavalier) कवी आनी

(iii) कडक नैतीक-मूल्यवादी (Puritan) कवी.

अतिकाल्पनीक शब्दालंकार (Fantastic conceits), आंतरीक विशय (Treatment of the inward) क्लिश्ट (far tetched) बिंबां, हिसपा भायली अतिताय हीं भौतीक-बाह्य (Metaphysical) कवितेचीं लक्षणां. जॉन डन, ज्यॉर्ज हरबर्ट, रिचार्ड क्रॅषॉ, हेनरी वॉगन आदी कवी ह्या पंगडाचे. दरबाराचे मजावादी (Cavalier) कवीनी सोनेटाचें रूप सोडून दिलें. तांचीं भावगीतां ल्हवू, विनोदी, सोबीत आनी मोगाविशींचीं आशिल्लीं. तांचे पैकीं थॉमस कर्यू आनी रिचार्ड लवलेस हे आशिल्ले. कडक नैतीक मूल्य-वादी (Puritan) कवी cavalier कवींचो विरोध करताले, उच्च विचारांचे आनी गंभीर सभावाचें समर्थन करताले. जॉन मिल्टन आनी ऍनड्रू मार्वल हे ह्या विभागाचे.

### नव-आभिजात काळ :

राजसत्ताक पद्धत परत चालीक आयिल्ल्या उप्रांतच्या साहित्यीक काळमानाक Restoration काळ ह्या नांवान वळखतात. ह्या काळ मानाक नव-आभिजात (Neo Classical) काळ वा Augustan काळ अशेंय म्हण्टात. ह्या काळांत शारांनी कॉफी घरांचो आनी दैनिकांचो प्रसार जावपाक लागलो. ग्रीक/लातीं आभिजात साहित्याचे नेम पाळून इंग्लीश भाशेंत बरोवपाचो तशेंच मनांतलें स्पश्ट रीतीन प्रकट करपाचो मुद्दम प्रयत्न जालो. तशें नव-आभिजात साहित्य (Neo Classical) अथवा मौलीक आभिजात साहित्याचें नवें रूप तयार जालें. ह्या काळाचे कवितेचीं लक्षणां अशीं-

(i) रचना आभिजात बरपावळीच्या नेमांक अनसरून

(ii) तर्क बुद्धीचेर आनी अक्कलाचेर भार

(iii) विचारांची आनी भावनांची स्पश्टताय

(iv) निश्चीत कविता-शैली/प्रत्यक्ष रीतीन आनी शिरवंतकायेन सादर करप

(v) बरपांतली प्रबोधकताय (didacticism)

(vi) शारांतले जिणेचें चित्रण

(vii) Heroic couplet-चो प्रयोग.

ह्या काळाचे नांवादीक कवी म्हळ्यार चार्ल्स सॅकविल, चार्ल्स सेडली, जॉन विलमोट, आदी भावगीतकार आनी सॅमुवेल बटलर, जॉन ड्रायडान आदी विडंबनाकार.

### अठरावो शेंकडो :

अठरावो शेंकडो इंग्लंडांत गिरेस्तकायेचो. ब्रिटीश साम्राज्य विस्तारूंक लागिल्लें. आर्थीक मळार इंग्लंडाचें व्हडलें परिवर्तन घडटालें. ग्रामीण वाठारांत हातानी करपाच्या कामा खातीर यंत्रांचो वापर जावपाक लागलो आनी सगळे कडेन फॅक्टरी येवपाक लागिल्ल्यान उद्येगीक क्रांती घडली. पुण शेतकामत्यांक हिसपा भायर त्रास जालो. शारानी कॉफी-घरांची आनी क्लबांची संस्कृती वाडली. तशेंच लोकां मदें पुड ओडपाची चाल आयली.

त्याच वेळार सामाजीक वेवस्था अस्थव्यस्थ जाली. साहित्याच्या मळार पोरण्या साहित्याची देख, व्याकरणाचे नेम, छंद, यमक हांची उपेक्षा जाली. लेखकानी सादी, सोपी शैली वापरली. प्रबोधन हें बरपाचो एक मुखेल हेतू आसलो. लोकांक कादंबरीचें पिशें लागलें. कवितेंत Heroic couplet चो विकास आनी प्रयोग जालो.

इंग्लीश साहित्याच्या इतिहासांत ह्या शेंकड्याच्या पूर्वार्धाक पॉपाचो काळ आनी उत्तरार्धाक जॉनसनाचो काळ अशें म्हण्टात. पॉपाच्या काळांत, गवळ्यां गीत, विडंबनेच्यो कविता आनी उपदेशपर (didactic) कविता चड प्रचारांत आशिल्ल्यो. भाव गीत आनी संबोधना गीत बी चलतालें, पुण ह्या कविता रूपांत फावो तशें साबावीकपण आनी उमाळो दिसनासलो. जॉन गे, अलेक्सांडर पॉप, आदी ह्या काळाचे श्रेश्ट कवी. जॉनसन काळांतय विडंबनात्मक आनी उपदेशरूपाच्यो कविता प्रचारांत आशिल्ल्यो. डॉ. सॅमुअल जॉनसन, ओलिवर गोल्डस्मित आदी ह्या काळमानाचे मुखेल कवी. पुण ह्या काळमानाचे निमाणे कडेन कवितेचे दोन प्रवाह दिश्टी पडपाक लागले. कविचेच्या बांदावळींत Heroic couplet पयसावलें आनी ताच्या जाग्यार Spencerian श्लोक पद्धत, मुक्तछंद, आनी गितांचे हेर छंद प्रचारांत आयले. जेम्स थॉमसन, थॉमस ग्रे, विल्यम कॉलन्स आदी लोकांच्यो कविता रुपान नव-आभिजात (Neo-classical) साहित्याक लागींच्यो पुण गुणान रोमांटीक सबावाच्यो आशिल्ल्यो. तांकां क्रांतिकार कवी (Poets of Revolt) म्हण्टात. पुण विल्यम कूपर, ज्योर्ज क्राब, विल्यम ब्लेक, रॉबर्ट बर्न्स हांच्या कवितानी येवचेल्या परिवर्तनाची झळक चड दिसताली. देखून तांका संक्रमण काळाचे कवी (Transition poets) अशें वळखतात.

**रोमांटीक चळवळ:**

नव-आभिजात चळवळीच्या काळाचे निमाणे कडेन साहित्य तत्वांचो दुरुपयोग जाल्ल्यान कवितेची प्रक्रिया यांत्रीक जाल्या असो सूर येवपाक लागलो आनी ताका लागून ते चळवळीचो नेट सोंपलो. फ्रांसांत नित्तीच

क्रांती जाल्ली. ते क्रांतीक प्रेरणा दिवपी रूसोच्या Liberty, Equality, Fraternity ह्या उतरांचो पडसाद येवरोपाच्या दर मनशाच्या कानांत पांवलो. ह्या तत्वांचो प्रभाव येवरोपाच्या साहित्य क्षेत्रांतय पडलो. आदींच (1765 वर्सा) बिशप पेर्सी हांचें Reliques of Ancient English Poetry पुस्तक उजवाडा आयिल्लें आनी त्या पुस्तकान आभिजात साहित्याचे नेम कांय पाळीनासतनाय मध्यकाळीन इंग्लीश साहित्य खूब लोकप्रिय आशिल्लें म्हणपाचेर उजवाड घाल्लो. हाचो परिणाम म्हणून मध्यकाळीन गीत काणयो आनी हेर काव्य रूपां परत लोकांक आवडपाक लागलीं. ह्या सगळ्या कारणांक लागून नव-आभिजात साहित्य चळवळ सोंपली आनी रोमांटीक कविता जल्माक आयली.

**रोमांटिक चळवळीचे विशेश गूण अशे–**

(1) व्यक्तीचें खाशेलपण (individualism) : साहित्यांत कवीन आपलें खाशेलें रूप वेंचून काडून तें हाताळप–विक्टर ह्यूगोच्या मता प्रमाण liberalism in literature.

(2) मानवीक दिश्टीकोण: युक्ती परस भावना म्हत्वाची, हेर मनशां कडेन तशेंच मोनजाती कडेन आपलेंपण दाखोवप, सोबीतकायेची आवड, बौद्धीक सबावाची heroic couplet मोडून भावनात्मक गीत (emotional lyric) स्वीकारप

(3) शारी जिणेचो न्हयकार, मनशान साबावीक भोंवतणींत रावपाची, प्रपंचाच्या रहस्या लागीं वचपाची चिंता, सैमाची आनी सरळ जिणेची ओड, सैमांतल्यान आनी सकयल्या पांवड्याच्या लोकांचे जिणेंतल्यान विशय घेवप

(4) आदल्या काळाची आनी जगावेगळ्या गजालींची ओड.

**रोमांटीक काळाचे कवी दोन पंगडानी वांटून गेल्यात–**

(1) विल्यम वर्ड्सवर्त, सॅमुअल टेयलर, कॉलरिड्ज, आनी वॉलटर स्कॉट. जांका जाणटेले (Elders) अथवा Lake Poets म्हणटात, आनी

(2) ज्यॉर्ज गॉर्डन बायरन, रॉबर्ट साउदी, पर्सी बिशे शेली आनी जॉन कीट्स जे तरणाट्यांच्या (Youngers) पंगडांत येतात.

**विक्टोरियन काळ :**

इंग्लंडाची विक्टोरिया राणी 1837 वर्सा सत्तेर आयली आनी 1901 वर्स मेरेन तिणें राज्य केलें. इंग्लीश साहित्याच्या इतिहासांत 1830 ते 1900 मेरेनच्या काळमानाक विक्टोरियन काळ म्हण्टात. ह्या काळांत ब्रिटीश साम्राज्य चडांत चड विस्तारलें. इंग्लंडांत लोकशाय घट जाली, उद्येगीकरणाक नेट आयलो. मनशाचे उत्क्रांती विशीं डार्विनाच्या वादाक आनी विज्ञानाचे प्रगतीक लागून इगर्जे/भावार्था मुखार व्हडलें अव्हान उबें जालें. विज्ञानाच्या प्रभावान प्रपंचाचें दैवीक वा तत्व गिन्यानी म्हत्व सांडून गेलें. सैमा कडेन पळोवपाची लोकांची मानसिकता बदल्ली. विचारवंताच्या मनांत दुबाव आनी निराशावाद भरलो.

हे परिस्थितींत इंग्लीश कविता जिणेक चड लागीं आयली. पयलीं परस तिणें अचूकपणाची शैली आपणायली. नव-आभिजात साहित्याच्या काळा प्रमाण सोपी सरळ भास वापरली. दोळ्यां मुखार चित्रां उबीं करपांत रोमांटीक तरेचो वापर करतनाच विवेकाचे मर्यादे भितर रावन सोबीतकाय सांबाळ्ळी.

ह्या काळाचे दोग श्रेश्ट कवी म्हळ्यार आलफ्रेड टेनीसन आनी रॉबर्ट ब्राउनिंग. टेनीसनाचे कवितेंत भावगीतां, संबोधगीतां, नाट्यरूपाचीं आप-उलोवपां, शोकगीतां, छंद-बद्ध रोमांस गीतां, पद्यकाणयो अशो जायत्यो तरा आस्पावतात. भाशेचे आनी छंदाचे दिश्टीन ताणे स्पेन्सर आनी कीट्साची परंपरा चालू दवरली. ब्राउंनिंगाची शैली मात्शी वेगळी, अर्द भावगीत आनी अर्द नाट्य सबावाची. ताचे शैलीक नाट्य भावगीत वा नाट्य आप-उलोवप (dramatic monologue) अशें म्हण्टात. ब्राउंनिंगाचे कवितेंत विक्टोरियन काळांतय अप्रूप अशावाद दिश्टी पड्टा. समाजांतल्या निराशावादाक तोंड दिवपी हो कवीचो भेस घाल्लो धर्मोपदेशक अशें कांय जाणांचें मत आसा.

विक्टोरियन काळांत सबावाक, तत्वांक, विचारांक धरून वेग वेगळ्या प्रवाहाच्यो कविता जल्माक येताल्यो आनी कवीय वेग वेगळ्या पंगडात वांटून गेल्ले. देखीक -

### (1) दुबावी (SCEPTICS) :

एडवर्ड फिट्सजेराल्ड, आर्थर ह्यू क्लो, मॅथ्यू आर्नॉल्ड, जेम्स थॉमसन हांचे कवितेंत समकाळीन समाजाचो दुबाव पडबिंबित जाल्लो दिसता.

### (2) झटक्याचे कवी (SPASMODICS) :

डब्ल्यू. इ. आयटाउन हाच्या मतान कांय कवी झटके आयिल्ले भशेन चिंतताले आनी बरयताले. हो आरोप आमलो चड करून सिडनी डोबेल हाचे विशीं. पुण पी.जे. बेयली आनी अलेक्सांडर स्मिथ बी ह्या संप्रदायाचे आसले. हांगेले कवितेचे विशय आनी भास विचित्र दिसता, कवितेंतले विचार आनी भावना खंयचें खंय पावता. उपमा आनी रूपकांचो वापर इतलो अतिनायेचो आनी पयसुल्लो दिसता देखून वाचप्यांच्या मनात गोंदळ निर्माण जाता.

### (3) राफायेला पयलींच्या तत्वांचे (PRE-RAPHAELITE) :

कवी राफायेला (1483-1520) पयलींच्या इतालियन चित्रकारांक प्रेरणा दिल्लीं तत्वां म्हळ्यार सादेंपण, प्रामाणिकपण आनी खरी जीण. हीं तत्वां पुनर्जीवित करपाच्या हावेशान 1848 वर्सा इंग्लंडांत Pre Raphaelite Brotherhood ही चळवळ जाली. दांते गाब्रियेल रोसेटी आनी ताचो भाव विल्यम मायकल रोसेटी, हे कवी ताचे वांगडी आसले. ह्या कवींनी वयर सांगिल्लीं तत्वां कवितेकय लागू केलीं. ह्या पंगडांत विल्यम मॉरिस आनी अल्जर्नन चार्ल्स स्वायन बर्न हे कवीय मेळ्ळे. तांचे कवितेंत सौंदर्य विशयक सूख, मध्यकाळीन चित्रांच्या गुणांची ओड, प्रामाणिकपण, उतरांचें संगीत आदी लक्षणां दिसून येतात.

### (4) अस्तुरी कवी (WOMEN POETS):

एलिझबेत बारेट ब्राउनिंग, क्रिस्टीना रोसेटी आदी अस्तुऱ्यांचे कवितेंत बाल कामगारांची यातना, माडून चिडून उरिल्ल्या लोकांचे स्वातंत्र्य चळवळीक तेंको, समाजांत बायलांक मानाची सुवात मेळपाची गरज आदी विशय येतात.

### (5) देंवते काळाचे कवी (DECADENTS):

कला, साहित्य आदींच्या मळार प्रतापाचो काळ जेन्ना सोंपत वता,त्या देंवत्या काळमानाक Decadence म्हणटात. फ्रांसांत चार्ल्स बौडलेअर, गोटचिएर ह्या लेखकांच्या फुडाकारान Decadence ची चळवळ चलताली आनी त्या खातीर ते Le Decadent हें नेमाळ्याचो फायदो घेताले. तांचे कडल्यान स्फूर्त घेवन एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या निमाण्या दसकांत इंग्लंडांत विक्टोरियन मुल्यां मुखार आव्हान आयलें. कला कले खातीर, विद्रूपतायेंतय सोबीतकायेचो सोद, कामूक सूख, नीट सरळ सांगनासतना सूचकतायेचो प्रयोग करप, हीं ह्या देंवत्या काळाचे कवितेंतलीं लक्षणां आसलीं. ऑस्कर वायल्ड, आर्थर सिमन्स, अर्नस्ट डाउसन आनी लयनल जॉनसन हे ह्या संप्रदायाचे म्हत्वाचे कवी. अमेरिकेचो लेखक एड्गर अलेन पो हाच्यो कविताय हे मानसिकतेक लागीं आसा.

### आधूनीक काळ:

विसाव्या शेंकड्यांतल्या पूर्वार्धांत दोन म्हाझुजांक लागून ब्रिटन दुबळें जालें. ब्रिटीश साम्राज्य कोसळ्ळें. राजवट सोंपली आनी लोकशाय बळादीक जाली. पयल्या म्हाझूज सोंपतनाच रशियेंत क्रांती घडली. सगळे कडेन समाजसत्तावाद आनी कोम्यूनिझ्म ह्या तत्वांचो प्रसार जालो. ह्या सगळ्या घडणुकांचो इंग्लीश कवितेचेर खर प्रभाव आयलो. तेन्ना इंग्लीश कवितेच्यो एकाच वेळार परंपरावादी आनी परीक्षणात्मक अशें दोन प्रवाह दिसताले.

### (अ) परंपरावादी कविता (TRADITIONAL POETRY)

परंपरावादी कवितेन पयलीं भशेन मोहक आकृती, निवेदनाची स्पश्टताय आनी सुरेल गायनाचो गूण फुडें व्हेलो. थोमस हार्डी, ए.ई. हाउसमॅन, रॉबर्ट ब्रिस, विल्यम बटलर यीटस, अमेरिकाचे वालस स्टीवन्स, रॉबर्ट फ्रॉस्ट आदी ह्या प्रकाराच्यो कविता बरयताले.वेळाक अनसरून परंपरावादी कवितेचे वेग वेगळे प्रकार दिसून आयले.

### (1) एडवर्ड रायाच्या काळाची कविता (EDWARDIAN POETRY) :

रडयार्ड किपलींग, जी.के. चेस्टर्टन, जॉन मेसफील्ड, आदी ह्या काळमानाचे कवी. ताणी देवते काळाचे कवितेचो विरोध केलो आनी समकाळीन आशय घेवन कवितेंत वाचप्याक समजत ती भास वापरून सादर करपाचो वावर केलो. पुण विक्टोरियन कवितेचो श्रेश्ट गूण पुनर्जीवित करपाक ते सफळ जाले नात.

### (2) ज्यॉर्ज रायाच्या काळाची कविता (GEORGIAN POETRY) :

रूपर्ट ब्रुक, जी.के. चेस्टर्टन, वाल्टर डि ला मेअर, डी. एच. लॉरेन्स, रॉबर्ट ग्रेवस, एडवर्ड थॉमस, आदी कवींनी विक्टोरियन काळाचे विशय आनी शैली तशेंच देवते काळाचे कवितेच्यो अपारंपरीक गूण मोडून दिवपाचो निश्चय केलो. वड्सवर्थाची देख घेवन सगळ विशयाची कविता रचप हो तांचो हावेश आशिल्लो.तांचे कवितेंतलो सैमाचे शांत भाव, चित्रां सारखो गुण आनी मुग्ल सभाव वाचकांक खूब आवडलो.

### (3) झुजा काळाची कविता (WAR POETRY)

पयल्या म्हाझुजान इंग्लीश कवींक मामकी हालयलें आनी झुजाचो अवतार पळोवपाक प्रेरणा दिली. पुण तांची प्रतिक्रिया एक सारखी नासली. कांय जाण झुजाक देशभक्तीचे भावनेन पळयताले तर हेर कांय लोक स्वता रणांगणांत झुजताले आनी झुजाचें वास्तवीक सभाव वळखुपाक पाविल्ले. ह्या काळमानाचे कवितेंत ह्या दोनय तरांच्यो प्रतिक्रिया पळोवंक मेळटा.

(i) देशभक्तीचो खर भाव: रडयार्ड किप्लींग, रुपर्ट ब्रुक (जो झुजत मेलो), रॉबर्ट ग्रेवस आदी साहित्यिकांचे कवितेंत म्हाझुजाच्या संदर्भात देशाचो मोग आनी अभिमान, इंग्लंडाच्या न्यायबोधाचेर विश्वास आनी फुडलीं सगळीं झुजां मोपांवपा खातीर हें झूज हो वाद दिसून येता.

(ii) झुजाच्या काळखी बाजूचो, वास्तविकतेचो दिश्टावो: सीगफ्रेड ससून, आयसाक रोसेनबर्ग, विलफ्रेड ऑवन, फ्रांसीस लेडविड्ज, चार्ल्स सोरले आदी लेखक कवितेंत झुजाचें वास्तवीक चित्र दाखयतात. विलफ्रेड

ऑवन, फ्रांसीस लेडविड्ज आनी चार्ल्स सोरले स्वता रणांगणांत सैनीक म्हणून झुजताले. तांका झुजाचो लागीच्यान आनी खरो दिश्टावो घडलो. झुजामळांतले खळयेंत रात दीस काडप, मनशान मनशाक जिवेशीं मारतना पळोवप, मरनासतना वांचलो तरी हात पाय वगडावन घरा परतून येवप आनी विकल आंगानी जीण सारप म्हळ्यार कितें तें ह्या कवीनी प्रत्यक्ष अणभवलें आनी तो अणभव ताणी आपले कवितेंत परगटायलो. म्हाझुजांत ताणी जीवय दिलो. चड ऊणे रोमांटीक पद्धतीन कविता बरोवपी ह्या पंगडाचो मुखेल प्रतिनिधी म्हळ्यार विलफ्रेड ऑवन. कवितेच्या यमका विशीं ऑवनाचें परीक्षण लक्षांत घेवपा सारखें. ताणें समान व्यंजनां पुण असमान स्वर वापरून अपूर्ण वा अर्द यमकांची जी तरा तयार केली, तिका para rhyme म्हण्टात.

**(आ) परीक्षणात्मक कविता (EXPERIMENTAL POETRY)**

एकुणिसाव्या शेंकड्याचे जेरार्ड मॅनली हॉपकिन्स (1844-89) तशेंच अमेरिकेचो वॉल्ट व्हिटमॅन (1819-92) आनी एमिली डिकिन्सन (1830-82) ह्या कवींचे कवितेंत आधूनिकतेचो संकीर्ण सभाव आनी मुक्तछंदाचो प्रयोग दिसून येता. एमिली डिकिन्सनच्यो चडावत कविता तिच्या मरणा उप्रांत आनी हॉपकिन्साच्यो कविता 1918 वर्सा उजवाडा आयिल्ल्यो. तशीच मनोविश्लेशणाची (psycho-analysis) संकल्पना एकुणिसाव्या शेंकड्याच्या उत्तरार्धांत अस्तित्वांत आयिल्ली तरीय फ्रॉय्डाच्या बरपावळीक लागून विसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या दसकांत लोकांच्या लक्षांत आयिल्ली. फ्रेंच संकेतवाद (French Symbolism) जायत्या कवींक आवडलो. डन आनी स्केलटन हांच्यो कविताय नवीच प्रेरणा घेवन आयली. ह्या सगळ्या घटकांच्या प्रभावान इंग्लीश कवितेंत परीक्षणां जायत रावलीं. सदांची संवादाची भास ही कवितेची भास जाली, तिचो विशय आनी आकार सुदारलो. नव्या यमकांची वा यमकांच्या अभावाची प्रथा सुरू जाली. पुण कविता चड संकीर्ण आनी दुर्बोध जाली. ह्या काळमानांतय कवितेच्यो वेग वेगळ्या तरांच्यो हालचाली जाताल्यो.

### (1) रूपकवाद (Imagist movement):

1913 वर्सा एज़रा पाउंड हाच्या फुडारपणा खाल अमेरिकेचे कवितेंत हें आंदोलन सुरू केल्लें. आंदोलनाचो हावेस असो अशिल्लो–

(i) कवितेंत सामान्य उलोवपाची भास वापरप

(ii) नव्या यमकांची तशीच मुक्त छंदाची (free verse) निर्मिती करप

(iii) विशय स्वतंत्रपणान वेंचून काडप

(iv) अचूक बिंबांचो प्रयोग करप

(v) उण्यात उणीं उतरां वापरून कविता बरोवप

रूपकवादा प्रमाणीं कवितेंत खंयचेय वस्तूचेर आधारिल्लीं बिंबांच न्हय तर वैचारीक बिंबांय दिसपाक लागलीं आनी तींय बी दुर्बोध, समजुपाक कठीण अशे तरेचीं आसलीं. संबंधीत कवींनी यमकां आनी छंद पूर्णतायेन सोडून दिलो ना तरीय कवितेक तीं अडेचीं आनी भायलीं असो तांचो ममज आसलो.

### (2) नवे भौतीक–बाह्य कवी (Neo-Metaphysicals):

जॉन डनाच्यो कविता हर्बर्ट ग्रिअरसन हाणें संपादून 1912 वर्सा उजवाडा हाडिल्ल्यो. डनाच्या संकीर्ण विचारांची आनी शैलीची तरा म्हाझुजा उप्रांतच्या संकीर्ण काळाक बरे भशेन जुळटाली. टी. एस. एलिअट, डब्ल्यू. एच. ऑडन, सेसिल डे लूईस, स्टीफन स्पेंडर, आदी कवींक पोरण्या भौतीक–बाह्य कवितेची भास आनी शैली ज्यॉर्जियन काळाक खूब योग्य अशें दिसतालें. ताणी डनाच्या कवितेंतलो तोच अतितायेचो शब्दालंकार (conceits) तीच अर्द–सांगणी (half statements) आनी तोच कडक छंद वापरलो.

### (3) सप्न–वास्तविकता चळवळ (Surrealist Movement):

अर्दजागृत अवस्था (subconsciousness), सपनाची अवस्था, बुद्धी–विभ्रम (delirium), पिशेंपण हें सगळें जागृत अवस्थे परस चड वास्तवीक अशें मानपी मनशास्त्राची कल्पना कांय साहित्यिकांक आवडली. जेम्स जॉय्स

ह्या लेखकान Ulysses कादंबरींत के कल्पनेचो प्रयोग केला. डेविड गॅसकोयन हाणें हे कल्पनेचें समर्थन करून पुस्तक बरयलें आनी हरबर्ट रीड हाणें सप्न-वास्तविक कवितांचो संग्रह संपादून उजवाडा हाडलो. पुण विशयांक आनी शैलीक लागून असल्यो कविता परिणामकारी जावंक नात.

**(4) नवी-रोमांटीक कविता (Neo-Romanticism):**

विसाव्या शेंकड्याच्या तीसऱ्या दसकांत कवितेंत परत नवी-आभिजात चाल हाडपाचो प्रयत्न जालो. हाच्या आड भावनेक आनी कल्पनेक म्हत्व दिवपी रोमांटीक चालीचें समर्थन करपी दोन पंगड फुडें सरले. डिलन मार्लेस थॉमस, जॉन हीत स्टब्स, सिडनी किईस आदी 'ऑक्सफॉर्ड कवी' आनी हेनरी ट्रीस, निकोलास मोर आदी 'ॲपोकलिप्स कवी'. नवे-रोमांटीक कल्पने प्रमाणीं हे लेखक कवितेच्या विशयां खातीर पारंपरीक रोमांटीक मळ सोडून मनाचे अर्द-जागृत अवस्थेंत सोद घेताले. ही रीत सप्न-वास्तविकते परस सामकी वेगळी.

**(5) 'द मूवमेंट' (The Movement) :**

1950च्या दसकांत किंग्सली ॲमीस, फिलिप लार्किन, थोम गन आदी लेखकांचे कवितेंत अणभवांतल्यान मेळिल्ल्या गिन्यानाचेर विश्वास दवरपाची आनी परत पारंपारिक रुपा कडेन वळपाची वृत्ती दिसून आयली. हे मनोवृत्तीक फकत 'द मूवमेंट' अशें म्हण्टात. ह्या पंगडाचो न्हयतरीय अमेरिकाचो जॉन बेरिमॅन ह्याच काळाचो नामनेचो कवी आसलो.

**(6) उत्तर-आधूनीक कविता (post modernism) :**

1970 च्या सुमाराक इंग्लीश कवितेंत आयिल्ल्या बदलाक उत्तर आधूनीक अशें विशेशण लाबलें. उत्तर आधूनीक कवितेचे गूण अशे-

(i) 'आधूनीक' काळमानांत स्थायी जाली चाल सोडून वचपाची प्रवृत्ती

(ii) अनुकरण (parody, pastiche) , उल्लेख (quotational reference), गादयेंतली भास (pub talk), पॉप गीत, जायरातीचें घोशवाक्य

(advertising slogans) अशे वेग वेगळ्या क्षेत्रांतलेंप्रकार भरसून केल्लो प्रयोग.

फिलिप लार्किन, टेड ह्यूस, थोम गन, जेफरी हिल , षेमस हीनी आदी ह्या दिश्टीकोनाचे कवी.

फाटल्या चार पांच दसकानी इंग्लंड आनी अमेरिके भायर ब्रिटीश कॉमनवेल्त देशाचे साबार कवी आपले खाशेलें अणभव विश्व घेवन इंग्लीश कवितेक म्हत्वाचें योगदान दीत आयल्यात. इंग्लीश कवितेंत आयज इंग्लंडाचो सबाव उणो आनी राष्ट्रीय, संस्कृतीक, अनुवंशीक संबधाची विविधताय चड दिसपाक लागल्या.

## इंग्लीश कविता कोंकणींत

ह्या संग्रहांत चॉसराचो काळ धरून विसाव्या शेंकड्याचे मदेंकात मेरेनच्या स शेंकड्यांतल्यो वेंचीक कविता आसपावल्यात. वयर सुचयल्ले प्रमाण इंग्लीश कविता मळा वयल्या सगळ्या आंदोलनाचें चित्र ह्या संग्रहांत पळोवपाक मेळटलें म्हण अपेक्षा करप उचीत न्हय. हांतूनल्यो जायन्यो कविता रोमांटीक आनी विक्टोरियन कवींनी बरयल्ल्यो. पूण हेर काळमानाचें प्रतिनिधान करपी कविताय आसात.इंग्लंडांतल्या कवींच्यो कविता चड दिसतात. पुण तें साबावीक. कारण इंग्लीश साहित्य अमेरिकांत एकुणिसाव्या शेंकड्यांत आनी ब्रिटीश सत्तेंतल्यान स्वतंत्र जाल्ल्या हेर देशानी विसाव्या शेंकड्यांत विकसीत जावपाक लागलें. तरीय कांय अमेरिकन कवींक ह्या संग्रहांत सुवात मेळ्या.

इंग्लीश कवितेचो अणकार करप सोपें काम न्हय.वयर सांगिल्ले भशेन विसाव्या शेंकड्यांतल्या झुजा काळा उप्रांतचो काळमान मेरेन कवितेचे नमूने, छंद, यमक आदीचे नेम बदलत आसले तरीय ते इंग्लीश कवितेच्या बांदावळींतल्यान नाच्च जावंक नाशिल्ले. कोंकणी कवितेची परिस्थिती सामकी वेगळी. सुरवात साकून कोंकणी कविता बरोवपाक इतल्योच वळी, वळयेंत अमकींच अक्षरां आनी यमक असलेंच तरेचें अशें कांय निश्चीत

सबावाचे नेम नाशिल्ले आनी अजूनय नात. हे नेम वैयक्तीक पांवड्यार कवी स्वताच थारायता. देखूनच heroic couplet सारखेल्या कडव्यांचो परिणाम कोंकणी अणकारांत हाडप कठीण. ही अडचण इंग्लीश कवितेंतल्या उतरांचो खेळ, तांची अर्थव्याप्त, वाकप्रचार आदी कारणांक लागून वाडटा. तशेंच पश्चीमी संस्कृतींतलीं बिंबां, स्थळाचीं, व्यक्तींचीं, वनस्पतींचीं आनी जनावरांचीं नांवां, वातावरण संबंधाचीं उतरां हांचोय मात्सो घुस्पागोंदळ जाता. ह्या कारणांक लागूनच लोक पश्चीमी भाशेंतलें साहित्य अणकार करीनासतना आमच्या लोकांचे रुचीक अनसरून रूपकार करतात. डॉ. पै हाणीं तशें करूंक ना. ताणी प्रामाणीक अणकाराची वाट घेतल्या. तांचो हो कोंकणी अणकार कवितेच्या मूळ रूपाक, आशयाक आनी सबावाक लागीं रावता अशें म्हणूंयेता. अणकारा खातीर ताणी प्रदेशीक बोलीचें रूप सोडून सगळ्यांक समजत तसली भास वापरल्या हाचो येवकार करपाक जाय.

इंग्लीश साहित्याच्या इतिहासाचो अभ्यास करतना तांतूंत सतत घडत आयिल्ल्यो हालचाली, ताका लागून वेग वेगळ्या साहित्य प्रकारांत वेळार काळार आयिल्लो नेट, बदल, सुदार, परिणाम आदी लक्षांत गेल्ले बगर रावचें ना. हें सगळें कवितेंत घडलां तशें हेर साहित्य प्रकारांतय घडलां. ताकाच लागून इंग्लीश बरपावळ आयज संवसारीक पांवड्या वयलें सुटसुटीत सबावाचें, उत्कृश्ट, परिणामकारी साहित्य जालां. कोंकणींतय ही वृत्ती आपणावपाची गरज आसा.

साहित्य वाचनाची आनी नियाळाची, तें खोलायेन अभ्यास करपाची, तांतूंत नवे विचार, नवे आशय, नवी शैली, नवे प्रयोग हाडपाची सतत गरज आसा. अणकार त्या वावराक प्रेरणा दिता. संवसारांतल्या उत्कृश्ट साहित्याच्या अणकारा निमत्तीं हेर भारतीय भाशांतलें साहित्य फुडें वचपाक प्रेरणा मेळ्ळ्या. तशें कोंकणींतय संवसारांतलें उत्कृश्ट साहित्य सातत्यान अणकारून येवपाची, ताचें वाचन, मनन, आस्वादन जावपाची गरज आसा. ते दिश्टीन, खोशेन, डॉ. पै हांचो इंग्लीश कवितांचो हो अणकार वाचप्यां मुखार सादर करतां. ●●●

# भाशांतराची तळमळीत फाटभूंय

**– डॉ. बी. देवदास पै**

बरोवपाक भायर सरतना दिसलें, सांगपाचो विशय दोन विभागानी मांडल्यार स्पश्टताय मेळतली. पयलो विभाग भाशांतर वावराचोच आसा. एक निर्दिश्ट अणकार कृतींत उपयोग केल्ल्या अणकार वावराक सहजपणान एक विशिश्टताय आसा. आनी ताचो एक परिचय सुर्वेकच करप खूब सोंपे जाता. दुसर्य पांवड्यार अणकाराचे वस्तू विशयाचेरूय थोडी माहिती घेवया.

**भाग 1 भाशांतराचें सिद्धांत आनी करणी**

**(Translation: Theory and Practice)**

पयलीं अणकाराक मुळाव्या साहित्याचे तुळनेन दुय्यम (secondary) पांवड्याचें मानताले.पुण आयज भाशांतराचो जागो तसो उरूंक ना. निरंतर अभ्यास, घट सिद्धांत, आनी सोद वावर हांचे फाटभुंयचेर अनुवादाचो प्रयोग आयच्या काळार एक स्वतंत्र अभ्यास क्षेत्र जावन बदल्ला. ताका लागून जागतीकराणच्या वेगवेगळे प्रभाव अणकाराच्या फायद्या कडेन भर दिता.

ह्या पुस्तकांत अस्पाव केल्ल्या सगळ्या कवितांचो अनुवाद आनी त्या संबंधीत उक्तायिल्ले कांय विचार फकत एक साहितीक वावर म्हणून सीमित करूंक ना. हें एक शिकपा शिस्त-अभ्यासा (Academic Discipline) संदर्भाची चर्चा अशें घेतल्यार बरें. पदव्युत्तर कोंकणी अध्यापनाच्या संदर्भांत तयार केल्लो हो अणकार मुखार एक सरल आधारग्रंथ म्हण परिगणित जावचो असो एक मूळ उद्देश आसा.

अणकार (translation)हो विशय आयचे नागरीक समाजीक जिणेंत, संवकळीच्या कामांत, एक व्हड पात्र घेता. हांगा हांव उल्लेख केल्लो अणकार शब्द transfer, transform transpose, transfigure, transfuse, transplant असल्या शब्द सरणींत येवचो एक सामन्या अर्थाक केंद्र करून आसा. हांतुल्यान येवचे 'Trans' हो उपसर्ग 'अंतर' हे कल्पनेक भर दिता आनी रूपांतर, थळांतर, स्थानांतर, देहांतर ह्या क्रियापदांकय सूचित करता. एक विशाळ अर्थार घेतना (generic term), translate हो शब्द थळ, रूपरचन, माध्यम, व्यवस्था असल्या 'अंतरा' मदें घडपी बदलाची क्रिया जाता. इंग्लीश भाशेचे Translation शब्दांत उबत्यान कांय भाशा सूचक धातू दिसून येना. जाल्यारूय आमी ताका अमच्या उतरांत भाशांतर म्हळ्ळे अर्थ दिल्लें. पुण translation शब्दाक हें शिवाय दुसरे थोडे अधीक विस्ताराचे अर्थ बी आसा, म्हळ्ळे विचार सकयल स्पष्ट केल्ला.

तशें पळयतना आधुनीक भाशा विज्ञान तीन प्रकारान अणकाराचें विवरण दिता (Jakobson R., 1959).

पयल्या प्रकाराक शब्दांतर (rewording) म्हणूयेत. उतर-बदल (paraphrasing), रूपांतर (adaptation), उपकरण (subtitling), हे सगळें एक भाशे भितर घडचे बदलाप. तशेंच एक बोलींतल्या (dialectical) उतरांक तेच भाशेचे दुसरें एक बोलीचे उतरांन सांगप म्हळ्यार भाशांतरगत अणकार (Intra Lingual translation) जाता. थोडे पावटी अणकार क्रिया एक साहित्य भागाक अर्थ लावपाचो (Interpreting) वावर जाता. ताका तोंडी भाशांतर (Interpreting) म्हणुयेत.

दुसरे प्रकार आकारांतर (Transmutation). हाका अंतर अर्थ अणकार(Inter Semiotic translation) म्हणतात.शाब्दीक संकेत (Verbal sign) आनी अशाब्दीक संकेत(Nonverbal sign) हांचे मधेंतलें अंतरबदलय आकारांतर. सामन्य संदर्भांत भाशीक (Linguistic), दृश्य(Visual), श्राव्य (Audio), आंगीक(Gestural), आनी थळावी(Spatial)- ह्या पांच अर्थग्राहक व्यवस्थेच्यो(Semiotic System) देखी आमी दिवयेत. संगीत-चित्र हांचे मदें घडता तें रूपांतर. चलचित्र, जायरात क्षेत्रांत हाचो खूब वापर

जाता.रस्त्यावयल्या नांवां फलकांत सूचक, चिह्न, कुरू, रंग, संकेत भास, आदी दिसतात ते आकारांतर. ब्रैल लिपी, मोर्स कोड हे समजून बरपान दाखल करपय आकारांतर जाता. तांत्रीक अणकार (Technical translation) असलोच एक प्रकार. शाब्दीक, तांत्रीक अंतर-बदल, टि.वी., चलचित्र, कंप्युटर गेम्सांत वापरचें दृश्य-श्राव्य (audio-video) अंतर-बदल, ओंटांचे समकालीन चलपान (synchronization) उतरां नकल(dubbing) करप, हेंय आकारांतर. तशें पळयल्यार लोकवेद नाच आनी गीत हांतूंतल्यान तांचे सामाजीक सांस्कृतीक अर्थ सोदपाचो वावरूय एक अंतर-अर्थ अणकारच.

संकेतांत भाशीक (Linguistic) आनी अभाशीक (Non linguistic) वा शाब्दीक (Verbal) आनी अशाब्दीक (Non Verbal) संकेत अशे वांटे करूयेत. हांतून भाशीक संकेत मुळांत भाशांतरगत (Intra-lingual) आनी अंतरभाशीक (Inter-lingual) भाशांतर येता (Huang, 2015). अभाशीक (Non linguistic) संकेत एक व्यवस्थे (System) भितरच घडपी स्तित्यंतर (transformation) अशें म्हणूयेत. हो अंतरआर्थ अणकार (Intra Semiotic translation) जाता.

निमाणें येता आमी सामान्य अर्थान वळखतात तें नीज भाशांतर (Translation, proper) संकल्पन. एके लिखित भाशेचें साहित्य दुसरें एक भाशेंत बदल करपाच्या (Inter lingual translation) एक निर्दिश्ट तरेच्या वावराक मात्र भाशांतर म्हणतात.

भाशांतराच्या संदर्भांत ''प्रक्रिया'' (process) आनी ''उत्पन्न'' (product), हीं दोन पयल्या पावंड्याचीं उतरां. एक मूळ भाशेंतलें (source language) बरपाभाग (text) दुसरे, एक भाशेंत (target language) व्हरून बदल करपाच्या वावारांत भाशांतरकाराचें जें पात्र आसा ताका प्रक्रिया म्हणटात. आनी उत्पन्न जाता तें भाशांतर कारान तयार केल्ले वास्तवीक साहित्य भाग (Shuttleworth and Cowie, 1997).

येदोळ मेरेन साध्य जाल्ले यांत्रीक भाशांतर व्यवस्थेंत, Example Based Machine translation (EBMT) हाचो उल्लेख करूयेत. हांतून अनुभवी भाशांतरकारान भाशांतराचे जें बरपाभाग कंप्यूटरांत घाला ताचे स्मरण

अधारीत तंत्रज्ञाना (translation memory technology) प्रमाण बरपाभाग भाशांतर जातलें.त्या खातीर आमी दिवचे देखीक भाशांतराचे बरपाभाग बऱ्या प्रमाणाचो आसूंक जाय. शब्दांक शब्द अणकार करपी स-सात machine translation Software (Google translate, Microsoft Translator, etc)उबलब्द आसात.

भाशांतर करतना दोन भाशां मदें एक शब्दाक वेगवेगळे अर्थ जावं येता; वाक्यांची बांदावळ बदलूं येता; सर्वनामांचे अनिश्चीत अर्थ जावं येता(देख: इंग्लीशाचे 'their' कोंकणींत 'तांचे', 'तांच्यो' 'तांचीं', हीं तीन रूप घेवपाक शकता) असले समस्येच्या परिहारा खातीर वेगवेगळे तांत्रीक कार्य वाडून आयलीं. संख्या शश्त्रीय यंत्र भाशांतर (Statistical MT), नेम आधारीत यंत्र भाशांतर ( Rule based MT) , मिश्र यंत्र भाशांतर (Hybrid based MT), नरतंतीय भाशांतरर (Neural MT, 2017), आधुनीक काळाचे शब्द संग्रह भास विज्ञन(Corpus linguistics), संख्या शास्त्रीय मेजपण (Statistical computations), संगणक सामर्थ्य (Computing Power), क्रतक बुदवंतकाय (Artificial Intelligence),मनशा सामर्थ्याच्या सहज भाशेची प्रक्रिया (Natural Language Processing),गणक यंत्राचें विश्लेशण (Computerized Analysis), आदी सांगणीक भासविज्ञान (Computing Linguistics) तांत्रिक प्रगतीक लागून यांत्रीक भाशांतर तंत्र नेटान वाडत आसा. पुण भाशांतरांत अद्भुत घडोवपाक वेळ जातलो. कारण,भाशांतराचो वावर सरल न्हय. मनशाचे मेंदूंतली भोव-भाशीक कुशळताय कंप्यूटर यंत्रांतल्यान मेळोवप ही एक संकीर्ण प्रक्रिया.

वयर दिल्लें हें सगळें विवरण यांत्रीक भाशांतराची माहिती दिवपा खातीर केल्लें अशें दिसतलें. पुण ताचो मूळ उद्देश असो आसा. भाशांतर करपी मनशान कितलें चिंतप-काम करूंक जाय म्हूण समजून घेवप. आनी हेच विचार फुडे व्हरून भाशांतराचे संकिर्णातायेचें एक गंभीर साहीतिक नदरेंतल्यान विश्लेशण करप.

'युनिवर्सल शब्दकोश' प्रमाण भाशांतर म्हळ्यार एक स्थळांतर, साहित्याच्या संदर्भांत एक सुवातेंतल्यान दुसरें सुवातेक व्हरप असो अर्थ.

हे प्रक्रियेचें दुसरें भाशेंत बदलतना अर्थाक जितें दवरप अशें 'फस्ट इंग्लीश शब्दकोश' निर्वाचन करता. 'आक्सफार्ड कोशा' प्रमाण भाशांतर म्हळ्यार एक भाशेंतल्यान दुसरे भाशेक बदल करची एक प्रक्रिया आनी हांतुल्यान दुसरें एक भाशेचें उत्पन्न घडता. भाशांतर म्हळ्यार एक आदर्श पांवड्यार आसता आनी आमकां जितलें साध्य आसा, तितल्या प्रमाणान अर्थाचो बदल हाडपाक जाय (Smith).

भाशांतर प्रक्रियेच्या संदर्भांत एक पारंपारीक द्वैतमत उरता. तें म्हळ्यार एक कुशीन वस्तू वा अर्थ (content/sense) आनी दुसरे कुशीन रूप वा शैली (form/style). हें भाशांतरांत आस्पाव जावचे भाशेचें जिनस (content) आनी आकार (form) हांचे मदलें एक ध्रुवीकरणाचें विभजन. पश्चिमी अणकार सिद्धांता प्रमाण शतमानानी शाब्दीक भाशांतर (literal) आनी मुक्त भाशांतर (free)अशो दोन वाटो आशिल्ल्यो. जीनस म्हणतना समजिकाय (Sense) वा ज्ञान हाचोय आस्पाव जाता. भाशांतरीत सहीत्यांत रचना (Structure) उरल्यारय जिनस उरना. म्हळ्यार भाशांतर करतना जिनस बदल्ले तरीय रचना बदलता अशें ना.

जिनस आनी आकार हीं दोन विचार वेगवेगळीं कार्यतंत्रां भशेन साहित्य चरित्रेंत घडून आयला. कविता, जायरात,गीत आदीचो अर्थ सारको अणकार केल्ले तरीय रचना (प्रास, द्वनी, सूचित अर्थ) खऱ्यान भाशांतर जायना, हें आजुनूय आमी पळयतात.

पोस्ट्गेटॉन दिल्ले वर्णने प्रमाण भाशांतर प्रक्रियेचो पयलो वावर मूळ भाशेच्या साहित्यांतले शब्द आनी अर्थसमजप (comprehension) . उपरांत लक्ष भाशेंतले समानार्थी शब्द वेंचप. आनी निमणे ते भाशेचे सहज शैलींतल्यान अभिव्यक्त करप. ह्या कारणान भाशांतरकार एक बरोवपी आनी एक संवेधनाशील व्यक्ती आसप गर्जेचें. भाशंतरकारान मूळ लेखक जावन परकाय प्रवेश केले शिवाय बरें भाशांतर घड्चें ना (Vilamovitz, ). 'वेबस्टर शब्दकोश' आनीयेक अपुर्बायेचो विचर सादर करता. थंय सांगिल्ले प्रमाण, भाशांतर म्हळ्यार दुसरे एक फाटभूंयच्या वाचप्या खातीर अन्य भाशेंतल्यान एक कृती पुनरसृष्टी करपाची कला. भाशांतर म्हळ्यार एक भाशेंतली कृती

दुसरे एक भाशेचे समान बरपान स्थळांतर(replace) करप अशें हेर कांय जाणांचें मत.

भाशांतर संबधीच्या दोन भाशां मदलो अंतर चड आसतना तांची मधेंत्ले भाशांतर सामन्यतायेन शाब्दीक भाशांतर (अक्षरशः भाशांतर) जाता. दुसऱ्या उतरांनी सांगचे जाल्यार लक्ष्य भास, मूळ भाशेक कितली लागीं आसा वा ताचे प्रभावांत उरता म्हण दाखोवपी अंशच 'शाब्दीक' जाता. ह्या परिणामाक भाशांतराय (Translationese) म्हणूयेत.

समजिकाये कडेन लागींच्या संबंधाची अनीयेक कल्पना म्हळ्यार भाशांतरपण (translatability). भाशांतरपण म्हळ्यार भाशीक रचनेंत (व्याकरण, उतरावळ, आदी) आनी संस्कृतींत सहजपणाचे फरक आसल्यारूय भाशें मदें अर्थाक जाय तितल्या प्रमाणान अभिव्यक्त करपाची एक अर्हता. अर्थाचे सांगाता लक्ष्य भाशेचे श्रोते भाशांतराचे उद्देश असलीं विशय घेवपाकच भाशांतर म्हणायेत. भाशांतरपण सहजपणान भासशास्त्रांच्या खाशेल्पणाचे (Quality) दर्जा बदल सांगता.

भाशांतराच्या विचारांत वट्ट दोन गजाल घडता अशें गयटे सांगता - (1) मूळ भाशेच्या (Source Language) लेखकाक 'आमचो' लेखक म्हणून बदलप. ना जाल्यार,(2) उद्धिश्ट भाशेच्या (Target Language) वाचप्याक, मूळ भाशेच्या त्या लेखकाच्या परकेपणा कडेनच वचपाक प्रेरीत करप (Gayate).पयल्या संदर्भांत मूळ भाशेच्या पूर्ण साहित्याक उद्धिश्ट भाशेंतल्या रूपांत हाडपाक भाशांतरकार समर्थ जालो तर, मूळ लेखक वाचप्याक 'हो आमचोच' असो दिसतलो.आनी फकत आदर्श भाशांतरान हें साध्य जाता. दुसऱ्या संदर्भांत, असहजपणाचो आनी कृतकपणाचो प्रश्न येता. तशें भाशांतर पूर्णतायेचें वा अपूर्ण भागाचें जावन घडचे साध्य आस.

भाशांतर करतना मूळ भाशेच्या एक शब्दाक लक्ष भाशेचो एक समान शब्द घालच्या संदर्भांत, स्वयं चालीत रितीर शब्दकोशा प्रमाण अर्थ लाबता. पुण जायते पावटी त्या निर्धिष्ट संदर्भांत उणे म्हत्वाचो एक शब्द चड बरोबर आसूंयेता. कोंकणींतलें एक लेखन इंगलीशांत भाशांतर करपाचो संदर्भ घेंव्या.

'बापोल्यो' हो शब्द आयकतनाच uncle असो अर्थ सहजपणान आमच्या मनांत येता. जाल्यारूय असहज आनी कृतक म्हणून दिसलें तरीय थेट भाशांतर करपी 'little father' हो एक शब्द हांगा चड सहजपण हाडतलो. लक्ष्य भास इंग्लीशांत uncle शब्द सारखो, हें खरें. पुण हांतुल्यान फकत एक अर्थ बदल जातलो शिवाय मूळ भाशेंतली संस्कृती लक्ष्य भाशेंत बदल जायना. भारतीय संदर्भांतल्या थेट भाशांतरांत, धाकलो वा व्हडलो भाव हांचे मदें वडीलपणाचो संबंध खाशेलपणाचो. आनी हांचे मदें अर्थपूर्ण श्रेणीकरणाक म्हत्व दिवन कोंकणी संस्कृतीचेंय भाशांतर करपाची तांक uncle उतरा परस little father शब्दांत आसा.

भाशांतर सार्वत्रीकांक (translation universals) आनी भाशांतराय (translationese) हांचे मदें लागींचो संबंध आसा. एक भाशेचो बरपाभागाक (Text) दुसरे एक भाशेंत भाशांतर करून तयार केला अशें चिंतूया. आतां तोच बरपाभाग दुसरें भाशेंत बरयलो तर तो खऱ्यान वेगळ्याच रूपाचो आसतलो. भाशांतरीत (दुसरें एक भाशेंतल्यान भाशांतरा करून हाडिल्या साहित्य) आनी अभाशंतरीत (तेच भाशेंत बरयल्या साहित्य) बरपा भागां मदें आसचें हें नमूनेदार वेगळेंपण सार्वत्रीक म्हणूं येता. आनी हो खाशेलो गूण खंयच्याय दोन भाशां मदें एक सारखो आसता. देखीक: उद्दिश्ट बरपाभाग (TT) आनी मूळ बरपा भाग (ST) पासून सदा दीर्घ आसचें एक सादें वेगळेंपण (Baker, 1993). मूळ बरपाभागा पासून उद्दिश्ट बरपाभागांत भाशेचो चड बदल दाखोवप, हाका प्रामाणीकरण वाडपाचो नेम (The law of growing Standardization) म्हणतात. मूळ बरपाभागाच्या सामन्य उतरांची आनी वाक्य रचनेंची देख यथावत नकल करतना उद्दिश्ट बरपा भागांत विचित्र निर्माण घडवप, हाका मध्यास्ती नेम (The Law of Interference) म्हणतात (Toury G, 1995). भाशांतर सार्वत्रीक संकल्पनेंत, ह्या दोन नेमा सांगाता, दोन भाशांमदली संसक्ती (cohesion) आनी स्पश्टताय (explicitation) निर्माण जाता. यांत्रीक भाशांतरांत व्हडल्या शब्द संग्रहांच्या (corpora) सहायान चड अभ्यास करून ह्या अनुमानीक भाशांतर सार्वत्रीक म्हणपाचे कल्पनेक घट करपाचो प्रयत्न चालू आसा.

समजप (Comprehension) वरी समानपण (equivalence) म्हणून एक म्हत्वाची कल्पना आसा. हांगा, भास (शब्द रूप) एक शरीरा भशेन, आनी जिनस (अर्थ) आत्म्या भशेन आसता. भाशांतर म्हळ्यार आत्म्याक भंग जायनाशें देहांतरान परकाय प्रवेश करप. 'आत्मो' भंग जाल्यार तो शब्दानुवाद जाता शिवाय भाशांतर न्हय. भाशांतरकार सर्जनशीळ आसून ताणे पुनरसृष्टीचे कार्य करूंक जाय. अशा अलंकारीक उतरानी वर्णन केल्लूया भाशांतर वावराक एक विज्ञान मूळाची कला म्हणून चित्रण केल्लेंय दिसून येता. भाशांतर अध्ययनांत अनुरुपता वा समानता विचार संबंधाच्या सिद्दांताक अनुरुपता नेम (Law of Correspondence)म्हणतात.

भाशांतरकारान मूळ भाशेंतल्यान आपलें काम सुरु करतना वापरच्या मूलघटकांक (elements) भाशांतर घटक (translation unit) म्हणतात. हाका जोडून भाशांतराचे शब्दक, आनी मुक्तक ह्या पोरण्या दोन कार्यतंत्रांचो अर्थ आतां थोडो विस्तृत जाला. 'शब्दक' कल्पना म्हळ्यार चड करून दरेक शब्दाचेर आधारिल्लें भाशांतर. आनी मुक्तक भाशांतराचो उद्देश आसता कृतींत पातळून पडिल्लो अर्थसमजून घेवप. एक शब्द, एक शब्द समूह, एक पदबंध, एक उपवाक्य, एक वाक्य, वा सगळी बरपावळ भाशांतराचें घटक आसूयेत. कवितेसंदर्भांत सगळी कविताच भाशंतराचें घटक जाता!

- भाशांतराचे वेगवेगळे पांवडे (level) सकयल दिल्ले श्रेणीर (rank) आसूयेता:

**Morphological level**

रुफीम (morpheme)

**Lexeme level**

शब्द/पद (word)

पदसमूह (Word group)

पदभंध (phrase)

पदघटक (collocation)

**Grammatical level**

वाकप्रचार (Idiom)

उप वाक्य (Clause)

वाक्य (sentence)

वेव्हारीक संदर्भांत अर्थाचें प्रतिनिधान करपाक उपवाक्यच केंद्र जातलें (Halliday, 1978). आनीयेका अभिप्राया प्रमाण वाक्यच भाशांतराचे 'स्वाभावीक' घटक जाता (Newmark, 1988).आनी तांचे स्थानविनिमय (transposition) आनी पुनरवेवस्था (rearrangement) घडता. समर्पक कारण नासतना वाक्यांचे कुडके करचे न्हय.पुण असली पुनरवेवस्था कार्यशीळ वाक्य यतार्थ (Functional Sentence Perspective) हे रीतीक पालव दिता. वाक्य यतार्थ कार्याशीळपण म्हळ्यार वाक्य आनी महिती रचनेचें विश्लेषण करपाक तयार केल्ली रीत.अणकाराक लागून so, if, because, since, therefore, etc असल्या इंग्लीश शब्दांचें कोंकणी वक्यांत स्थान बदलता.

Because of holiday. ....................सूटीच्याकारणान

Since last one week ....................फाटल्या एक सप्तकांळांतल्यान

If it rains today ..........................आज पावस आयलो तर

रेखात्मक मोडप (linear modification) ही एक प्रमुख वाक्यशास्त्र रचनापद्धत (Syntactic Structure) (Firbas, 1992). पुण उतराचो वेव्हार, मूळान वेव्हारीक उमेदीन (communicative dynamism) चलता. वेव्हारीक उमेद म्हळ्यार सांदर्भीक, स्वतंत्ररूपाचें आनी नवी माहिती दिवंचें वाक्यांश.

भाशांतराच्या वावराक अर्थक्षेत्रा कडेन संबंध येता. सस्यूर (Saussure, F.De,1958) हाणी सांगिल्ले सूचक-सुचयले-सूच्य (signifier-signified-sign) हे कल्पनेंतलो एकोडे शब्द (signifier) भाशांतरचो घटक जायना. देकून भाशांतर करतना, शब्दांक एक एक करून घेनासतना, विचारांचो घटक (unit of thought) वा पदसमूहांचो घटकांक (lexicological unit) मात्र भाशांतर घटक जावन घेवपाक जाय. तशें, उतरांचे अवयवांक वट्ट घालून बांदिल्लो विचाराचो एक घटक भाशांतराचो घटक जाता.

भाशांतर पद्दतीचो तीन पांवंड्यानी प्रयोग जाता. पयलो, पदघटक (lexical)पांवंड्याचेर. दुसरो, व्याकरण (Grammatical/Syntactical) पांवंड्याचेर. तिसरें, जता सदेश (Message). उतरा सान्निवेशांतलें वाक्य, परिच्छेद असली उच्च थरांची बरपावळ अशी जावन घडतली. सदेशाचो पांवंडो भाशांतर–लुक्साण (loss) आनी भाशांतर–फायदो (gain) अशा दोन आगळ्या वेगळ्या मतांक जोडटा. परिहार नेम(Law of compensation) ह्या सिद्दांतीक विचारा प्रमाण बरपाभागांत एक कडेन अनिवार्य भाशांतर–लुक्साण जालें तर दुसरे एक कडेन योग्य अंश घालून परिहारात्मक भाशांतर–फायदो संपादन करूंयेता.

उद्दिश्ट बरपाभाग (TT) आनी मूळ बरपाभाग (ST) अशा भाशांतर घटकानी विभजन घेवपी भाशांतर एक दिशाबदलाक (shift) प्रस्तावनय घालता (Catford J,1965). भाशांतर दिशाबदल (Translation Shift) म्हळ्यार भाशांतरान घडता त्या फरकांचें विश्लेशण. तो ल्हान बदल उद्दिश्ट बरपाभाग आनी मूळ बरपाभाग हांच्या एक जोड घटका (ST-TT pair) मदें घडता. (Vinay Darbelnet,1995).

दिशाबदल ही कल्पना चड तपासून स्पश्टपणान समजून घेंव्या. मूळ बरपावळींतल्या एक वाक्यांतले शब्द आनी भाशांतरीत वाक्यांतले शब्द एकेच तरेचे आसले तर ते सारखेपणाक सकारक अनुरूपताय (formal correspondence) म्हणतात. केन्ना केन्ना मूळ बरप वा भाग, लक्ष्य बरप वा ताच्या भागाक समान आसता तेन्ना बरपाची समानताय (textual equivalence) घडता. हांगा वाक्याक वाक्य समान आसना. उरफाटें, उद्दिश्ट बरप आनी मूळ बरप ह्या जोड मूळतत्वां मदें समानताय आसता. तर भाशांतर दिशाबदल म्हळ्यार सकारक अनुरूपतायेचे एक उल्लंघन म्हणूयेत. मूळ बरपावळ वा भाग लक्ष्य बरपावळ हांचे मदें सकारक अनुरूपताय सोडून दुसरें खंयचेंय भाशांतर समान आसल्यार तो दिशा बदल जातलो. पुण हांगा मूळ वाक्यांतलो शब्दक्रम (word order) भाशेचे वेवस्थेंतल्यान घडच्या बदलाक विनायती दिवयेत. सकयल दिल्ली देख पळयात.

इंग्लीश : 'I will go to Bangalore tomorrow'
कोंकणी : 'हांव फाल्या बेंगळूरा वतलों'

हांगा मूळ वाक्यांत 6 शब्द आसात, तर भाशांतरीत वाक्यांत 4 श्ब्द मात्र आसात. शब्दांच्या क्रमांत असो बदल जाला :

इंग्लीश : 'goto-Bangalore-tomorrow',
कोंकणी : 'फाल्या-बेंगळूरा-वतलों'

मूळ भाशेच्या एक शब्दाचें घटक दूसरे भाशेंत येतना दोन वा चड शब्द जावप विस्तरूंक साध्य आसा. 'Confirm' म्हळ्ळो इंग्लीश शब्द कोंकणी भाशांतरांत 'घट करप' अशा दोन शब्दाचें रूप घेता.

इंग्लीश "to" उपसर्ग (preposition)
कोंकणींत अंत्य प्रत्यय "-आक/ -का" (suffix) जाता.

अनुरूपताय वा समानताय आदराचे सकारक (formal) भाशांतर आनी शाब्दीक भाशांतर हांचे मदें एक प्रमुख अंतर आसा. शाब्दीक भाशांतरांत सकारक लक्षणां सहजपणान तिगयल्यार, सकारक भाशांतरांत तीं संदर्भान प्रेरीत आसतात. म्हळ्यार हांगा बरपावळीच्या वट्ट अर्थांत संदर्भीक मूल्यां उरलीं जाल्यार मात्र आकारीक लक्षणां (formal features) तिगतलीं. देखून मूळ भाशेचें संधिग्दपण (Ambiguity) तिगोवपाचो उपचारीक समानतायेचो एक योग्य उपयोगय आसता. हाचे प्रकार भाशांतरकार मूळ भाशेंतले शब्द, रचना, आदी सकारक मांडावळींत (formal arrangement) हस्तक्षेप करीना. वाचकांक मूळभाशेचे भाशीक आनी संस्कृतीक विचारा लागीं हाडूक तो असलें एक 'मूळ आकाराची' (form) निश्टा दाखयता.

भाशांतरांत शब्दाक अर्थ बांदपाचो एक म्हत्वाचो वावर जाता. भाशांतराची अस्पश्टताय काडचे (disambiguation) खातीर शब्दार्थ रचना विश्लेशण (semantic structure Analysis) उपकाराक येता.दर एक शब्दाक दोन

नमून्याचे अर्थ आसतात - सरळ अर्थ (denotation) आनी आड अर्थ (Cannotation).

अर्थकोशांत limb शब्दाचे कोंकणी अर्थ अशें आसात:

इंग्लीश : Limb (leg, hand, tree-branch...)
कोंकणी : अवयव (पांय, हांत, रुकाचो खांदो...)

इंग्लीश थावन कोंकणीक केल्लें एक सरळ भाशांतर पळयात:

इंग्लीश : "He is handicapped in the limbs"
कोंकणी : ''ताका अवयवाचे अंगविकलता आसा''

हांगा अवयवा बदल संदर्भानुसार पांय, वा हात, वा हात-पांय, असो अनुवाद केलो तर बरें जाता. ह्या हात, पांय, खांदो,.... शब्दांक,सह-बरप(co-text) शब्द म्हणतात. अर्थाचें वातावरण(semotactic environment) हें तत्व समजलें तर सह-बरप शब्द वापरतना भाशांतराची अस्पश्टताय कमी करपाची गरज दिसून येतली.वयले देखीक अर्थ-मळांतली विरूपता (no correspondence) म्हणुयेता.

केन्ना केन्ना अर्थाची व्याप्त व्हड आसता आनी अनेक समानार्थ शब्द मेळतात. अर्थ-मळांतल्यान (semantic field) योग्य शब्द वेंचून काडप एक आव्हानच उरता. हांतुल्यान एक प्रधान अर्थाचो(super ordinate) आनी दुसरो उप अर्थाचो (hyponyms) शब्द जाता.

Generic term: move
Lower level:
Walk, run, skip, hop, crawl, (more specific forms of move)
Lower level:
March, stroll, (more specific forms of walk)

आतां ह्याच शब्दांक कोंकणींत कितले समानार्थ शब्द मेळतात पळोवया-

सामान्य शब्दः हालप/चलप
सकयलो पांवंडोः
चमकप, धांवप, उडकी मारप, एक पायर उडप, सरकटून वचप
सकयलो पांवंडो :
शिस्तीन फुडें चलप, पासय मारप

इंग्लीश भाशेंतल्या उतरांक समान जावन कोंकणींत शब्द मेळतात व्हय? ह्या प्रश्नाची जाप भाशांतर वावराचेर खूब प्रभाव घालीत. run, skip आदी शब्दांचें वेगळेंपण कळोवचीं धांवप, उडकीसारकीं उतरां कोंकणींत मेळतात. Hop = एक पायर उडप, crawl = सरकटून वचप, march = शिस्तीन फुडे चलप, आदी एक इंग्लीश उतरां (one word) पुण कोंकणींत समानार्थ सोदतना हीं बहुपदांचे (multi-word) रूपान मेळतात.

थोडे शब्द भोव-अर्थाचे (Polysemy) आसतात.
Chair (noun): furniture
academic position in university
Chairperson who presides over
Chair (verb): preside over a meeting

वयर जें सांगलां, तांतूंतल्यान शब्दार्थ बांदपाचे प्रयत्न आनी एक नवें अर्थविश्लेशण तंत्र अमकां मेळता. तें म्हळ्यार अंगभूत-विश्लेशण (Component analysis). एकामेकांच्या विरोध-लक्षणाचो आधार घेवन अर्थ बांदपाची ही पद्धत. हालप श्र्दाच्या अर्थक्षेत्रांत, धांवप आनी उडकी मारप ह्या दोन शब्दार्थां मदें हें विरोध-लक्षण स्पश्ट जाता. हे शब्दाक अमकेंच अंगभूत अंश आस'(+), वा ना' (-), दाखोवचें पद्धत.

आतां गाय शब्दाचे अर्थ संबंधीं चार अंश घेवन विश्लेशण केलां.
गाय : जीव(+), मनीश (-), मोनजात (+), दादलो (-).
चिंतूंया, दादलो हें एक अंश + केल्यार अर्थ रोकडोच गय आशिल्लें

बयल जाता !

विरोध-लक्षण तत्वान अर्थ वळखुपाची ही एक पध्दत म्हणूयेत (Larsoal, 1984).

बयल : जीव(+), मनीश (-), मोनजात (+), दादलो (+)

आड-अर्थाचो (connotative meaning) सोदय भाशांतरकाराक गरजेचो आसता. Boy ह्या उतराक चेलो, भुरगो, पोर, हांतुतलो खंयचो अर्थ सारखो? LAD शब्दाखातीर हेंच उतर वापरू येता व्हय ? हांगा शब्दांचे अर्थक अवकाश वा व्याप्ती (semantic space or range) परिगणन करचें पडता.

देखीक:

Lady : (स्त्री, अस्तुरी, नारी, महिळा, बायल, पोरी)

Bold : (धीर, धीट, धैर्यवंत, धिरेस्त, धाडशी, निर्भय)

हीं दरेक शब्दाचीं समनार्थक पदां. पुण सकयल्या वाक्याच्या भाशांतरांत अर्थक अवकाश वापरून ह्या समानार्थक उतरांतलें बरें एक वेंचून काडलें तर परिणामकारक भाशांतर अशें जातलें:

इंग्लीश : She is a bold lady

कोंकणी : ती एक धिरेस्त महिळा

• शाब्दीक आनी सकारक भाशांतरा विशींचे हे विचार समजल्ल्या उपरांत आनीयेक पांवड्यार ते फुडें व्हरपी संकल्पना खंयची ती पळोवया. मूळ भाशेंतले शब्द लक्ष्यभाशेक अनसरून बदलपच भाशांतर जाल्यार, सांदर्भीक अर्थ घेवन सुधारित पांवड्यार केल्लें भाशांतर सकारक भाशांतर जाता. कांय सन्निवेशार हो संदर्भीक परिमाण आनी मूल्यांक चिके चडोवन अपूर्बायेची चलनशीळ समानताय (dynamic equivalence) हाडप साध्य जाता.अशें केलें तर मूळ भाशेच्या भावार्थाक लक्ष्यभाशेंत स्पश्टताय आनी सुधारपण (explication and adjustment) हाडून भाशांतर करतना अनपेक्षीत अपारदर्शिकता पयस करूं येता. ह्या भाशांतराक चेतनशीळ भाशांतर (Dynamic Translation) म्हणतात. चेतनशीळ भाशांतर एक उच्च तरेचें

कार्यतंत्र. भाशांतराची मांडावळ विश्लेषण (analysis), बदली (transfer), पुनर-रचना (restructuring) अशा तीन पांवड्यार मुखार वचपाक जाय. मूळ भाशेंतल्या बरपाचें सरळ आनी रचनात्मक स्पशटतायेन विश्लेषण करप, हो पयलो वावर. लक्ष्य भाशेंत बदली करतना ताच्या वाचप्याक समजत तशें सुधारून पुनर-रचना करप हो फुडलो वावर.

भाशांतर गिन्यान शाखेंत तशीं चड तत्वां कांय ना अशें न्हय. भाशांतराक संबंध जाल्ल्यो कांय समस्या, परस्पर विरुद्ध जोडी (contrasting pairs) निर्माण जावप हें आमी चर्चेक घेंवयेत (Savory, 1968). त्या जोडीनी आमचे मुखार उबे करच्या प्रश्नांक जाप सोदतना त्या तत्वाचो सोद बी उक्तो जाता.

शब्द-अर्थ, हांतूंतल्यान खंयचें म्हत्वाचें?
वाचप्या मुखार येता कितें - मूळ कृती वा ताचें भाशांतर?
शैली खंयंची असूक जाय- मुळ भाशेची वा लक्ष्य भाशेची?
समकालीनता खंयंची आसची - मूळ कृतीची वा भाशांतरकाराची?
मूलाक कांय मेळोवपाक अवकाश आसा वा ना?

म्हळ्यार मूळ बरपाची जिनस, शैली, माध्यम, वाचपीसमूह हांतूल्यान भाशांतरकाराक कितलें स्वातंत्र्य आसा म्हणपाच्या विशायेचेर पयलींच खूब चर्चा जाल्या. त्या संदर्भांत दोन सिद्धांतांचोय (अनुरूपता, परिहार) आमी उल्लेख केल्ला. पोस्टगेटान दिल्ले वळेरींत पांच तत्वांचो वा नेमांचो आस्पाव आसा आनी तीं अशीं आसात : ईमनीपण तत्व (Principle of Fidelity), आनंद तत्व (Principle of the Pleasure of Reader), अनुरूपतातत्व (Principle of Commensurateness), परिहार तत्व (Principle of Compensation), मूळभास तत्व (Principle of Originalness).

ईमानपण म्हळ्यार मूळभास निश्ट (faithful) जावन आसप. साहित्य कृती आपणाली न्हय दुसऱ्याची. आपूण एक माध्यम आनी अर्थबांदपी अशें भाशांतरकाराक लक्ष आसूंक जाय (Lord Karajan). भाशांतरकारान केदळाय मूळ भाशे कडेनच निश्टावान उरचे, आनी तें धोरण आपणाक भरम हाडता अशें एक चिंतप आपणावंक जाय (William Cowper). म्हळ्यार चड करून मूळकृतीचे बांदावळीक वा आकाराक (form) लागीं रावंक जाय.

मूळ कृती वाचतना मेळची खोस भाशांतरीत कृतिंतल्यान मेळप, हें आनंद तत्व. भाशांतर आकर्शीत दवरप गरजेचें. पुण आकर्शीत करपाक, मूळांत नाशिल्लें निर्माण करप, मूळांत आशिल्ले नकारप, सरळ आशिल्ले अलंकृत करप, सोंपे आशिल्ले कश्टाचें करप, अशें जावंचें न्हय. आनंद मेळपा खातीर मूळ कृती जशी सहजपणान वाचूंयेता तशीच भाशांतरीत कृतीय सलीसायेन वाचपाक मेळूक जाय.

मूळ भाशेंतली एक कृती दुसरे एक भाशेंत भाशांतर केल्ले वेळार, ती भाशांतरीत कृती लक्ष्य भाशेंतूच स्वतंत्रपणान रचिल्ली अशें दिसप म्हळ्यार मूलभास तत्व. रूप आनी अर्थ हांतूंत संकोचन वा विस्तार जालो तर कृतींत वितुश्ट उरना.

सॅवोरीन दोन कल्पनांचो उल्लेख केला. लक्ष्य (Audience) म्हळ्यार कोणाक उद्देशून भाशांतर केला, तो विचार. विद्यार्थी आनी विद्वांस हांका उद्देशून केल्ल्या भाशांतरा मदें फरक आसता. समकालीनता म्हळ्यारय लक्ष्यच, खंयच्या काळाच्या वाचप्यां खातीर भाशांतर केलां, हाचेर तो विचार जाता- सद्याच्या लोकां खातीर वा पोरण्या काळाच्या मनश्या खातीर.

भाशांतर वावरांत दोन अतिरेकपणां (extremes) घडूं येतात. भाशांतरकार स्वतः समर्थ आसूनय मूळ लेखका इतलो प्रतिभावंत न्हय जाल्यार उणेंभाशांतर (under translation) जाता. हाचे विरुद्ध स्थितींत अतीभाशांतर (over translation) जावंयेत. हांगा भाशांतरकार मूळलेखका पसून चड हुशार आसता.

कथा, काव्य/कविता, नवलिका, नाटक, अशें साहित्याच्या सगळे प्रकारांचें भाशांतर करतात. पुण काव्याच्या संदर्भांत एक व्हड अपवाद उबो जाता. तो इतलो व्हडल्या प्रमाणाचो कि काव्याचे भाशांतरच असाध्य अशें म्हणटात. खंयंचेय ज्ञान संबंधी अणभव खंयंचेय जिते भाशेंत अभिव्यक्त करूयेत अशें जाकोब्सन ह्या भाशातज्ञान सांगलां. तरीय कवितेच्या संदर्भांत ताचें दुसरें मत आसा. कांय नांवादीक कवीनूय हेंच मत स्पश्ट केलां:

Poetry by definition is untranslatable (Jakobson R)
Poetry is what gets lost in translation (Frost R)
Poetry, Sir, cannot simply be translated (Johnson)

काव्य भाशांतर केलें तर ताचें मोल, सत्व, सुंदरताय, ही पुराय वगडावन भाशांतर निरुपयोगी जाता. काव्याचो अनुवाद इतलो वादग्रस्त जावपाचें मुखेल कारण हें – काव्यांतलो भावार्थ (sense), जिनस (content), बांदावळीचो आकार (form), शैली (style) आदी भाशांतरांत सांबाळून व्हरप कठीण. जिनस व्हरतना शैली शेणता, शैली व्हरतना जिनस शेणता.

कवितेंत भावनेचो अर्थ मुठींत मेळना आनी मेळ्ळो तरीय तो चुकून वता, ही अणकाराची समस्या. भावनेक बांदून हाडपी, पोसपी, पूर्ण करपी प्रास, लय, अलंकार आदी आसता. ही पुराय साधनेंतल्यान कवीन जो दिश्टावो (vision) पळयल्लो तो आनी ताचेर अवलंबून आसच्यो विशिश्ट रूपांच्यो कल्पना वट्ट मेळुन, एक तराचें अभाशांतरीकरण (untranslatability) निर्माण जाता. काव्याच्या प्रकारांत शब्द, वाक्यांश, वाक्य हांका सगळ्यांक लागून पूर्ण कविताच एक बरपा–घटक (textual unit) म्हण घेतले शिवाय लक्ष्य भाशेंत संस्कृतीक भाशांतर जावंचें ना.

हीं सगळीं तत्वां लक्षांत घेवन ह्या पुस्तकांतल्या कवितांचो अणकार वावर कितलो तळमळीचो आसलो म्हणपाचें आतां थोड्या प्रमाणान चर्चा करया.

## भाग 2 कवी, कविता आनी भाशांतर
## (Poet, Poetry and Translation)

ह्या विभागांत वेंच्चिल्या 49 इंग्लीश कवीं आनी तांची 77 कवितांक भाशांतर करतना जाल्ले अणभवांक वयल्यान वयर वांटून घेवपाक हांव इच्छ पावतां.

### जेफ्री चेसर:

हाका इंग्लीश काव्याचे बापय म्हणटात. ताची 'निर्दय सुंदरी : छंदोगीत' ही सरळ कविता वेंचून काडल्या. कवितेच्या भाशांतरांत, पयलें दर एक वळींतल्या शब्दाक शब्दार्थ दिलो. ह्या वळ्यांचो पयलो प्रयत्नाचो शब्दक

(literal) प्रमाणाचो अणकार असो आशिल्लो:

Only your two great eyes will slay me suddenly;
their beauty shakes me who was once serene;
Straight through my heart the wound is quick and keen.

फकत तुजे दोन व्हडले दोळेच म्हाका जिवानशीं मारतले अचकीत
तांची सोबीतकाय कडकडयता म्हाका जो कोण उरतालो एकदा शांत
नेटान म्हज्या काळजांतल्यान घाय तो रोकडो आनी प्रखर

हांगा आमी आसात शब्दक भाशांतराचे स्थितींत.अणकार प्रयत्न ह्या पांवड्यार रावचो न्हय. मुखावयलो बदल कवितेच्या पांवड्यार जातलो. त्या वेळार हे कवितेचो पूर्ण अर्थ मुखार येतलो. शब्दका थावन आमी कवितेच्या पूर्ण अर्था कडेन वचूंक जाय. शब्दांचें स्थान विनिमय, रेखात्मक मोडप, पुनर व्यवस्था असल्यो कल्पना मतींत दवरच्यो.

अतां हे कवितेचो आशय घेवया. ही कविता सगळीच मरणा लागीं पाविल्ल्या मोग्यान निर्शेवन बरयल्ल्या एक पत्रा वरी संदेश दिता. पवित्र मोगाचो खोल घाय, त्या घायाची नितळसाण, ताचो सामान्या भायलो सभाव, हें सगळें भाशांतरांत सृष्टी करूंक जाय. ती फावो तशें करपा खातीर फुडले आनी अंतिम पांवड्यार सकारक, अनुरूपताय,समानताय जोडून भाशांतराचो प्रयत्न जालो.

तुजे दोन दोळे मारतले जिवानशीं म्हाका अचकीत
तांची सोबीतकाय हांव सोंसपाक पांवचो ना
तितलो परखड घाय तो म्हज्या काळजांत घालता

**विल्यम शेकस्पिअर:**

हो एक जागतीक स्तानमानाचो साहितीक. 'राना रुखा मुळांत' ही कविता रमणीय As you like it' ह्या विनोदी नाटकाच्या दुसऱ्या अंकांत, पांचव्या दृश्यांत येता. 'राना रुखा मुळां' हें पदबंध, घडये राबीन वुड हांगेल्या गीत नाटकांतलें '....Robyn, under this grene-wode tree.', ह्या गीतांतुल्यान

प्रेरीत जाल्ले आसतलें. शेकस्पिअरान, तांच्या नाटकांत, समजाक पयस आसचे एक काल्पनीक रमणीय 'आर्डन रान' सृष्टी करून, ह्यो वळीं बांदून दिल्ला. असले एक अपुरबायेचे फाटभुंयेक लागून हें गीत भाशांतराक वेंचुन घेतलां. अव्ययांतल्यान व्यक्त जालीं भोगणां भाशांतराक कशीं अव्हान दितात हें हांगा पळोवयेत:

| | |
|---|---|
| With ahey and a ho and a | हे आनी हो आनी आ–हा! |
| hey-nonino | करून |
| That o'er the green cornfield | पाचव्या धान्यांच्या शेतां |
| did pass | वयल्यान गेलीं |

कोंकणीचे संस्कृतीक अनसरून hey ho hey-nonino ह्या अव्ययांक हे, हो, आ–हा' अशें शब्दांतर करून, बरपावळी मदें समानताय हाडपाचो प्रयत्न जाला.लक्ष्य भाशेक सहजपण हाडचे खातीर 'cornfield' हाका 'धान्यांच्या शेतां 'असो एक सामान्य अर्थ दिवन अणकार केला. हो भाशांतरांतलो एक दिशा बदल अशें म्हणूयेत.

नाटककार म्हणून प्रसिद्ध जाल्ल्या शेकस्पिअरान कवितेच्या प्रकारांतय – चड करून sonnet ह्या चवदा वळींच्या कविता रूपांतय आपली प्रतिभा दाखयल्या. तांच्या 154 sonnets तल्यान वेंचुन काडिल्या म्हांतारपण–तरणेंपण तरणेपणाचे कीर्त, पोरणे आनी तरणेपणा मदेंतलें अंतर आनी ह्या पुरुशप्रधान समाजांत तरणे मोगा विशीं दादल्यांचें अधिपत्य अशें वर्णन केलां.

Crabbed age and youth, cannot live together;
दुर्गुणांचें म्हांतारपण आनी तरणेंपण संगाता रावना

इंगलीश वळीचें सळिस भाशांतर कांय सगळ्यान जाता अशें ना. कोंकणींत अणकारिल्ले वळींत शब्दांची चड लांबाय मोटवी करपाक साध्य जायना. मोटवी करपाच्या प्रयत्नान अर्थाचें लुक्साण जावंयेता.

Age I do defy thee! O! Sweet shepherd hie thee,

म्हातारपण, तूं नाकाच नाका, म्हज्या मोगाळ राखण्या तूं चल बेगीन

अशें हांगा मटवे करीत इंग्लीशांतलें शब्दालंकाराक (A lliteration) कांय प्रमाणान कोंकणींत सांबाळून दवरप थोडे भोव साध्य जालां.

**थॉमस नॅष:**

हांचे वसंत कवितेंत अंत्यप्रास उठून दिसता. अणकारांत अंत्यप्रास व्हरवपाक जातलें पळव्या

Spring, the sweet spring, is the year's pleasant king;
Then blooms each thing, then maids dance in a ring,
Cold doth not sing, the pretty birds so sing,
Cuckoo, jug-jug, pu-we, to-witta-woo

वरसाचो राय वैशाख आयलो वसंत आनंदान
फुलता सकड तेदना वनीता नाचप एक मेळपान
थंडी कांय खोंबना पक्ष्यानीं सुंदर गायतना
कू... कू... जग्...जग्पू...वीटुवी... टुवीस्वरना

अशें भाशांतर केल्लें तर बांदावळींत सामकी परिवर्तन येता व्हय, पुण शब्दांची सांद्रत चड दिसता आनी मूळ भाशेचे सरळ अर्थ आनी संक्षिप्तता कोंकणीतूय आसूंक जाय अशें दिसता. ही तळमळ उणे करुन दुसरें रीतीर संतुलीत करपाक ल्हानसो एक प्रयत्न करुंयेत. King, Ring, Sing ह्या उतरांतले प्रास कोंकणी भाशांतरांत शक्य़ जाले ना तरीय, वळीं भितरचो अर्थ सदळ जायनासतना उण्यान उण्या शब्दानी बरोव्यत. आनी 'न' ध्वनीचो शब्दालंकार घडोवन एक रीतीन परिहार (Compensation) तत्वां पाळून, कवितेचो आकार सांबाळपाक पळयलें, तें भाशांतर अशें बदल्लें:

वसंत, मधूर वसंत, वर्साचो राय
सगळे कडेन चंवर, चलयांचो नांच
शीं कांय खायना, सवणीं गोड गायतना

कू... कू... जग्... जग् पू... वी टुवी... टुव

**सर हेनरी वाट्टन:**

कविता, 'सुख जीवन', हांतून सर हेनरी वाट्टन दुड्वा समस्येक लागून बंदखणीत पडिल्लो, भायर आयिल्ल्या वेळार ताका राया कडल्यान एक बऱ्या रक्कमाची निवृत्ती-पगार मेळ्ळी. आनी धादोसपणान ताणे ही कविता बरयली, अशें म्हणतात. एक खडव्याचे भाशांतर अशें केल्लें.

Whose passions not his masters are,
वासनाची धनीकपण सोडिनातलो
Whose soul is still prepared for death
मरणाक तयार जावन रावतालो
United unto the world with care
जगाक चत्रायेन एकम्हणून घेतालो
Of princely love or Vulgar breath;
भव्य प्रेमचो वा श्वास गांवडळो.

वळींचे रूपच मुख्य म्हणू घेतले तर प्रासबद्ध भाशांतरा वयर दिल्ले प्रमाण जातलें. पुण अशें सकारक (formal) मार्गा परस वयर दिल्ले बरपावळ (textual) मार्गान केल्ले भाशांतराचे वजन चड दिसता. बरे भाशांतरांत कवितेची रूपा पासून ताचे आशयका चड महत्व दिवचें. त्या कारणान भाशांतरकाराक सकयल दिल्ले रूपाक परिष्कृत केल्लें

वासना ताचे धनी न्हय
जाचो आत्मो अजून मरणाक तयार जावन आसा
जगा कडेन एकरूप जावन
प्रेमाची वा पोजड्या श्वासाची जतनाय घेवन भव्य

**जॉन डन:**

ह्या 'मरणा, गर्व नाका' कवितेंत कवी मरणाक एक व्यक्ती कसो उलो मारून, ताका कुस्कूट दाखोवपाचो प्रयत्न केला.

Death, be not proud, though some have called thee

Mighty and dreadful, for thou art not so;

मरणा, गर्व करूं नाका, थोडयानीं तुका
पराक्रमी आनी भिरांकुळ म्हूण सांगलें जायत, पूण तूं तशें कांय न्हय;

ह्या दोन वळयांच्या भाशांतराचें घटक पळोवया: तांतूंत शब्दय आसात आनी पद्‌बंध बी.

Death - मरणा
be not proud - गर्व करूं नाका
though some have called thee - थोडयानीं तुका
Mighty and - पराक्रमी आनी
Dreadful - भिरांकुळ
for thou art not so - म्हूण सांगलें जायत, पूण तूं तशें कांय न्हय;

एक भाशेंतल्यान आनीयेक भाशेक अर्थ स्पश्ट करपाक उतरांतली समनताय (lexical equivalence) घडता ती थोडे कडेन संक्षिप्त जाल्यार आनी थोडे पावटी विस्तार रूपाची आसता.

**जॉन मिल्टन:**

कविता 'कुड्डेपण' हांत कवी 48 वर्सांचेर कुड्डेपण आयिल्ल्यान, आपल्या कुड्‌डेपणान मनांतल्या भंय आनी गोंदोळान, देव अपण्या कडेन कशें पळयता कांय? असो चिंतेस्त जाता.

My true account, lest he returning chide,
"Doth God exact day-labour, light denied?"
I fondly ask. But Patience, to prevent
That murmur, soon replies:

हे वळींत गूढ अर्थ घेवपाका रूंद कल्पनेची गरज पडता, आनी ती समजणी स्पश्ट जायना तर भाशांतर करप कश्टाचें जातलें.

म्हजो खरो हिशोब, परत येवन ताणे तापोवचे पयलीं –
"देव करून घेता काय दिसाचें काम, उजवाड काडूनय?"

हांव विचारतां भक्तीन; पूण सोंशीकपण, आडावन
तो फुतफुतो, रोखडीच जापदिता

**ए. एल बारबावल्डः**

'जीण' आनी 'मरण' ह्या विशयांचेर जाय तितल्यो कविता इंग्लीशांत मेळतात. बारबावल्डान ही कविता तिणे आपले आंयशी वरसांचे पिरायेर बरयल्ली. ही कविता आनी तांतुतल्यो वळी ती सदां रातीचे निदचे वेळार म्हणताली खंय. ब्यांशी वरसाचे पिरायेर ती अंतरली. Good night, good morning, bid मूळांतल्यान हीं समजीकायींक सांस्कृतीक जाग घेवन बदल करचें. Good Morning 'बरें सकाळ' न्हय, तें 'सुप्रभात' जालें.

Life we' ve been long together,
जिणे आमी सांगाता उरिल्लो काळ
Say not good night, but in some brighter clime
सांगूनाका रातची विदाय, खंयच्याय उजळ वेळा
Bid me good morning
सांगपाक यो सुप्रभात

**चार्ल्स लॅमः**

सगळें सकड गेलें कवितेंत, कितलोय प्रयत्न केलो तरीय जिणेंत विसंगत आनी खेद जावप सहज अशें सांगता. आमी कितले लागीचो संबंध दवरलो तरीय लोक अमचे कडल्यान क्रमेण पयस वतात. कवी जिणियेंतलो खिणयाळो आनंद आनी खेद हांका दाखयता. भाशंतराचो नमूनो पळयात:

I have a friend; a kinder friend has no man:
Like an ingrate, I left my friend abruptly;
Left him, to muse on the old familiar faces

आसा म्हजो एक इश्ट, इतलो मायेस्त इश्ट हेरांचो नासत
अनुपकारी हांव, अचकीत त्या इश्टाक सोडलो
सांडलो ताका, मनांत हाडपाक वळखिचीं तीं पोरणीं तोंडां.

**विल्यम ब्लेक :**

हागेली ही कवितेंत 'वागा' (Tiger) सारक्या एक अस्वाभवीक वागाच्या (TheTyger) निर्दयपणाचें एक चित्रण आसा. हांगा मूळान लिपून आसच्या एक द्वंद्वाचो दिश्टाव घेवप बरे भाशांतराक सहाय जाता. सौंदर्यशास्त्रीय सोबीतकाय आनी मुळांतली क्रूरताय हांचे मदलें वैरुध्य, मनशापणाचे संघर्श जावन आसा. Symmetry, sinews, Hammer, furnace, anvil, grasp, clasp, fearful, seize, dread, असल्या शब्दांक कोंकणींत समानार्थ शब्द एका परस चड आशिल्ले तर योग्य शब्द वेंचून काडपाक वयली समजिकाय उपकारतली.

| | |
|---|---|
| Tyger Tyger, burning bright, | वागा वागा परजळट्या |
| In the forests of the night; | रातच्या रानांत-वनांत गा |
| What immortal hand or eye, | खंयच्या अमर हातान, दोळ्यान |
| Could frame thy fearful symmetry? | तुजें भीकर समप्रमाणर चलें? |

**रॉबर्ट बर्न्स:**

म्हजो मोग म्हळ्यार ही कविता शब्दालंकार आनी शब्द संपत्तीन एक गीताचें (song) रूप घेता. सकयलच्यो वळी बहुशः इंग्लीशांतल्या एक नावाधीक प्रेमगीताचे व्हळी म्हणून प्रसार जाला:

| | |
|---|---|
| My love is like a red, red rose, | म्हजो मोग म्हळ्यार तांबडे तांबडे गुलाब |
| That's newly sprung in june: | जें वसंतांत नव्यान फुलेलें |
| O my love is like the melodie, | म्हजो मोग म्हळ्यार गोड गोड गीत |
| That's sweetly play'd in tune. | मधूर स्वरान जें गायलेलें |

'लेसली सुंदरी' हें गीत ताचे जिनसा वर्वी नव्या वरसाचे सुरवातेक गायतात देखून प्रसिद्ध जालें. आनी स्काट्लॅंडाचे एक लोकगीत हाचे मूळ. थोड्या उत्रांचे कोंकणी समानताय हाडिल्ले संदभ पळयात:

| | |
|---|---|
| Thou'rt like themselves sae lively. | तूंय तांचेच भशेन इतली सुंदरी |

| | |
|---|---|
| That ill they'll ne'er let near thee | की त्यो तुजे लागीं अनिश्ट येवपाक सोडच्यो नात |
| That we may brag we hae a lass | तेन्ना आमी गर्वान सांगू येता, सोबीत चेली |
| There's nane again sae bonnie | ना हेर कोण तिचे समान सुंदरी |

'एक मोगाळ चुंबन' हे कवितेंतल्यो चार वळी अशो भाशांतरीत जाल्यात, तांतूतलो प्रास आनी अक्षरांचे समतोलन थोड्या मळान साध्य जाल्लें दिसता

| | |
|---|---|
| I'll ne'er blame my partial fancy, | म्हजे अपूर्ण कल्पनेक दोश दिवंचों ना |
| Naething could resist my Nancy: | नॅन्सीक पयस करपाक जावंचें ना |
| But to see her, was to love her; | तिका पळोवप म्हळ्यार तिज्या मोगांत पडप |
| Love but her, and love for ever | तिजोच मोग करप, मोगांत सदां उरप |

'सोबीत डून म्हळ्यार' सुंदर आंगलोटाचो मनीश. हें गीतय तेच परी स्काटलँडांतलें डून न्हंयंचे गांव परिसराचे एक वर्णन.

| | |
|---|---|
| Ye banks and braes O'bonnie Doon | सोबीत डूनाचे देग आनी देवंत्यानो |
| How can ye bloom sae fair! | कशें तुमी फुलतात इतलें सुंदर |
| How can ye chant, ye little birds | कशें तुमी गायतात सान सवण्यानो |
| And I sae weary fuo' care! | हांव तरबुडलां हुस्क्यांत |

'खूब पयलींचे ते दीस': नव्या वरसाच्या अरंभार सांगपाचो संदेश घेवन बरयल्ली कविता. लोकगीत नमून्याच्या ह्या वळींतल्यान पोरणे दिसाचें बरेंपण दिसता आनी त्या वेळाचे मजेची जीण याद करून खूश जावंचें पळवयेत.

**एल. सी. नॅर्न**

हांगेली (स्वर्ग एक) 'खोशियेचो गांव तो' (Land of the Leal) ही कविता रॉबर्ट बर्न्स हाचे शैलीची. गीतांत प्रस्तुती केल्ल्यो 'धुलपद' नमून्याच्यो

वळीं:

For auld lang syne, my jo / For auld lang syne
खूब पयलींच्या त्या दिसां खातीर, गा / खूब पयलींच्या त्या दिसां खातीर
We'll tak a cup o' kindness yet / For auld lang syne
आमी घेवया एक पेलो मायेचो / खूब पयलींच्या त्या दिसां खातीर

**विल्यम वड्र्सवर्त**

आनी एस. टी. कॉलरिड्ज हाणी दोगांयनी मेळून इंग्लीश रमणीय काव्याचें युग सुरू केलें, हें सगळ्यांक कळीत आसा. वर्ड्सवर्तान सादें लोकांची उत्रावळ आनी उतरांचे नमूने बलिष्ट तरान वापरून मनीश आनी प्रकृती हांचे मदल्या चैतन्यच्या संबंधांचेर चिंतन करपी एक कवी म्हणुन लोकां-मोगाळ जाला.

Written in March कवितेक संस्कृतीकरणाचे लेप दीवन 'व्हाळता व्हाळ' केल्ला. सैमा कडेन एक दिश्टीन कवीची उत्रावळ त्या सैमांत घडचो निरंतर वावर आनी घडितां कडेन उदका व्हाळ भशेन व्हाळत वता:

कोंबो साद येत आसा / व्हाळ व्हाळत आसा / सान शेवणीं चिंव-चिंवतात / तळयेचें प्रतल झग झगता / पाचवें शेत वतांत न्हिदून आसा / जाण्टीं आनी भुरगीं घट लोकां सांगाता

'पळयतना, उडकी मारता हरदें' एक इंद्रधोणू सारक्या सादें सैमीक गजालींतल्यान आनंद घेवन, उचांबळीत जाल्ल्या भुरग्याची, स्पूर्तीन भरिल्ल्या कांय वळींचें अशें भाशांतर जालें:

मळबा वयलें इंद्र-धोणू दिसतना / मेगेलें काळीज उडता, वयर येता
तशें जातालें जिणेचे सुरवातीक / अजूनय तशेंच जाता, वाडलों तरीय

'एक तक्रार' ही एक रमणीय काळाची कविता. कलाकारानी झूज, धर्म, दुबळ्याचें शोषण, अभिप्राय स्वातंत्र्य असल्या विशयांचेर तक्रार करून समाजीक जाग्रती हाडपा खातीर उलयताले. आनी तक्रार तसलें एक अभिव्यक्ती, लिपिल्लो भावर्थ कोंकणींत हाडपाचे प्रयत्न हांगा दिसता.

There is a change-and I am poor /
your love hath been, not long ago,

fountain at my fond heart's door/
whose only business was to flow, And flow it did: not taking heed /
of its own bounty or my need.

एक बदल जाला, हांव दुबळो जालां /
हालींच्याच काळांतमू तुजो मोग आशिल्लो
एक झरो जावन म्हज्या मोगाळ काळजाच्या दारांत /
ताचें एकच कार्य म्हळ्यार व्हाळप
आनी तो व्हाळत रावलो /
ताचीच उदारताय वा म्हेगेली गरज पळयनासतना

'डेफडील फुलां' एक रोमांचक सन्निवेशांतल्यान, कवी हाजारानी फुलून राविल्ल्या हळदुव्या रंगाचीं फुलझाडां वाऱ्यांत धोलत आसतना तांतूंतुल्या एक गर्भेस्त भोगणाक आपणायता. प्रकृतीची सुंदरताय वर्णनेचे मधेंत, मनशा जिणीयेंत घडचे तें आनंद आनी एक्सुरेपणाचे मिस्ळावाक कवीन सोदचें आमका हांगा दिसता. फुलांचे सौंदर्य पळयलो तो खोस पावता आनी रोकड्यान तितलो चिंतीत जाता की घरा वचून आड सरून विचार ल्हारांक चपडायता:

| | |
|---|---|
| I wandered lonely as a cloud | जेन्ना हांव भोंवतालों एकलोच एका कुपावरी |
| That floats on high o'er vales and hills, | उफेवपी दोंगरा वयल्यान आनी देगणा वयल्यान, |
| When all at once I saw a crowd, | हांवें रोखडेच पळयलो एक चोंबो, |
| A host, of golden daffodils; | एक बाग भांगराळ डेफडील फुलांचें; |
| Beside the lake, beneath the trees, | सरोवरा देगेर, रुखा पोंदा, |
| Fluttering and dancing in the breeze | फडफडतालीं आनी नांचतालीं तीं मंद वाऱ्यांत |

| | |
|---|---|
| Continuous as the stars that shine | जशीं नखोत्रां निरंतर परजळतात |
| And twinkle on the milky way, | आनी चकचकतात दूदगंगेंत, |
| They stretched in never-ending line | तीं विस्तरतात अंत नाशिल्ल्या वळिनी |
| long the margin of a bay: | खाडयेचे देगे वयल्यान: |
| Ten thousand saw I at a glance, | धा हजार फुलां पळयलीं हांवे एके उडटे नदरेन |
| Tossing their heads in sprightly dance | तकली हालोवन उल्लासान नांचतना |
| The waves beside them danced; but they | तांचे लागशिल्लीं ल्हारां नांचलीं; पूण तीं |
| Out-did the sparkling waves in glee: | लिकलिकपी ल्हारां परसूय आनंदीत आसलीं: |
| A poet could not but be gay, | खंयचोय कवी खोशी जायनासो रावचो ना, |
| In such a jocund company: | तसल्या एक उल्लासी सांगातान: |
| I gazed and gazed but little thought | हांवे नियाळ्ळें – एकाग्रतेन पळयलें? पुण समजलोना |
| What wealth the show to me had brought: | केदी व्हडली संपत त्या देखाव्यान म्हाका दिली ती: |
| For oft, when on my couch I lie | खूबदां, जेन्ना हांव म्हज्या मांच्यार आड पडता |
| In vacant or in pensive mood, | रिते वा चिंतेस्त अवस्थेंत, |
| They flash upon that inward eye | तीं झगझगतात म्हज्या भितरल्या दोळ्यांत |
| Which is the bliss of solitude; | दीत एकलेपणांत परमानंद; |

| | |
|---|---|
| And then my heart with pleasure fills, | आनी तेन्ना म्हजें काळीज सुखान भरता, |
| And dances with the daffodils | आनी नांचता त्या डेफडील फुलां वांगडा |

**सर वॉलटर स्कॉट:**

'समूह विळाप' एक कथात्मक कविता. गांवंचो एक सरदार मेल्ले वेळार. केल्लो एक विलाप हांगा दिसता.सकयल दिल्ले वरी खूबशें पदबंध आनी शब्द साहित्य भाशांतराचे अव्हान उरतात:

Mountain, forest, sorest, flushing, blighting, corrie, slumber, summer-dried fountain, font reappearingraindrops shall borrow, comes no cheering, Duncan no morrow, hand of the reaper, ears that are hoary,voice of the weeper, manhood in gloryautumn winds rushing, Waft the leaves, Sage counsel in cumber, Fleet foot, Red hand in the foray, dew on the mountain, foam on the river, bubble on the fountain

तो दोंगरा वयर गेला / तो रानांत सांडला /
गिमांत आटिल्ले झरये वरी / जेन्ना आमची गरज खर आशिल्ली

जलपात्र परत दिसून आयल्या / पावसाचे थेंबे उशणें घेवन /
पुण हाडिना आमका कांय उरबा
आनी डंकानाक फुडार..........

'व्हडपणाची चेली': हे कवितेंत एक तरनाटी चेली गर्वान आपणालें लग्न कशें घडतलें अशें चिंतता. तिचें गर्व मोडूंक लग्नाक मरणाचो अर्थ दिवपाची विडंबनात्मक जाप दिवचें पळोवंक मेळता. भाशांतरांत अस्तमेच्या थोड्या मरण-विधींची (braw, kirkward, birdie, sexton) माहिती दिवपाचें कश्ट दिसता.तरणे प्रायेचे अधिक मिजास मोडचें एक विनोदी चित्रण कविता अकर्शणीय करता.

मेयसी गर्वान पावली वनांत / सकाळीं फुडे चलत; /

सवणें बसलां झाडा-पेडांत / विरळ स्वरान गायता.........

**एस. टी. कॉलरिड्ज:**

हाणे 'कुब्लाखान', एक सपन कवितेंत प्रकृती आनी मनशा मदलें संवहन चित्रायला.

But oh! that deep romantic chasm which slanted
पूण व्वा! ती रमणीय, व्हडली चीर देंवल्या

Down the green hill athwart a cedarn cover!
आरपार पाचव्या दोंगरा वयल्या देवदार रुखां मदल्यान!

Huge fragments vaulted like rebounding hail,
व्हडले कुडके उसळून आयले बर्फाच्या खड्यां वरी

Or chaffy grain beneath the thresher's flail:
वा मळणे वेळार दांडया कडल्यान दाणें उडचे वरी

असली एक प्रकृती संबंधाच्या चित्रणांत,शब्दांची दाटरास केल्या आनी तांचे मदें इतिहासीक संदर्भाचे कांय शब्द (कुब्लाखान, शानाडूंत, आल्फ, अबिसिनिया,अबोरा पर्वत) येतात.ताचे फाटोफाट तीच शैली आनी तेच शब्द घेवन कविता मनीसपणाच्या संकीर्ण विचारां कडेन पूर्ण रूपान पावता:

| | |
|---|---|
| In a vision once I saw: | हांवें एकदां सपनांत पळयली |
| It was an byssinian maid | ती आशिल्ली अबिसिनियाची चली |
| And on her dulcimer she played, | आनी तिणें दुलसिमर वाजयलें, |
| Singing of Mount bora | अबोरा पर्वताचें गीत गायत |
| Could I revive within me | जर हांव पुनरुद्धाराक शकलों म्हजे भितर |
| Her symphony and song, | तिचो सुरमेळ आनी गीत, |
| To such a deep delight 'twould win me, | तर म्हाका इतली चड खोश जातली |

**रॉबर्ट साउदीले:**

'विद्वान' ही सरल कविता विद्वत लोक आनी तांची विद्वत्ता, पुस्तक वाचन, लेखक, मरून गेल्ली बरपावळ,असल्या विशयांचें वर्णन करता.

**डबल्यू. एस. ल्यअंडसर:**

रोस आयलमेर एक सोबीत आनी शाणी तरणाटी म्हणुन नावांदीक. ती भारताक गेल्ली थंय पिडेन मेली. कवी तिची याद करीत ही मोटवी पुण सुंदर बांदवळीची कविता सादर करता.

| | |
|---|---|
| 'Rose Aylmer', whom these | 'रोस आयलमेर', तुजे खातीर हे |
| wakeful eyes | जाग्रत दोळे |
| May weep, but never see, | रडत, पुण तुका पळयनात, |
| A night of memories and sighs | यादिची आनी सुस्काराची एक रात |
| I consecrate to thee | तुका ओंपतां |

**जी. जी. बाइरन:**

जी. जी. बाइयन आशिल्लो एक रोमांसी आनी फाशन कवी. 'कायमचो मोग' ही कविता मूळान अंत्यप्रास वापरून बरयल्ल्या 90 वळींची एक सुंदर बांदावळ. हांतूतल्यो योग्य अश्यो पयल्यो 15 वळी मात्र हांगा वेंचून घेतल्यात. प्रास सांबाळून दवरपाचो असो एक प्रयत्न केला:

| | |
|---|---|
| Could love for ever/ | मोग सदां उरतलो/ |
| Run like a river/ | न्हंयेवरी व्हळतलो/ |
| nd time's endeavor/ | काळाचो प्रयत्न/ |
| Be tried in vain/ | व्यर्थ करीत/ |

नाका आमी आतां चड भोंवचें कवितेंत जगांतलें थकोवप आनी भ्रमाची एक झळक दिसता. ताचे विपूल कल्पनेक लागून बाइरन ताचे समकालीन कवी, जॉन कीट्स आनी पर्सी बिशे शेली हांचे परस आगळो वेगळो दिसता. ह्या कवितेंतल्या शब्द प्रयोगाची एक देख:

| | |
|---|---|
| For the sword outwears its sheath, | खड्ग म्याना परसूय झरता |
| And the soul wears out the breast, | भितरल्या आत्म्यान हड्डे थकेता |

**पर्सी बि शेली:**

पर्सी बि शेली हाणे बरयल्ल्यो स कविता 'प्रेम तत्व', 'भंय तुज्या उम्याचें', 'कोमल कन्ये', 'एक उतर केन्नाच भश्टलां', 'मोवाळ ताळो सोंपतना', 'एक विलाप', 'ओझिमांडियास रायु', ह्यो कविता विविधतायेच्यो.

मोवाळ ताळो सोंपतना: फकत णव वळीची ही मोटवी कविता भौतीक अस्तित्व आनी आत्मीक अस्तित्वाची तुळना करता. फूल बाविल्ले नंतर, संगीत सोंपिल्ले नंतर तांची याद उरता. मनशाचोय जीव खिणयाळो, उगडास अमर अशी सुंदर कल्पना कवितेंत दिसता.

Rose leaves, when the rose is dead. /`Are heaped for the beloved bed;

गुलाब मेलें तरीय पाकळ्यो ताच्यो / मोगाच्या हांतरूणार पडता

अविश्रांती, सैमा कडेन संवहन, प्रभुत्वाचो विरोध हे रमणीय वादांतलें तीन मुखेल विचार. ओझिमांडियास रायु एक रजकी विडंबनेच्या अलंकारान बांदिल्ली एक कविता.

And on the pedestal these words appear:
My name is Ozymandias, king of kings:
Look on my works, ye Mighty, and despair!'
Nothing beside remains Round the decay
आनी त्या ऊंच बसक्यार हीं उतरां दिसतात;
''म्हजें नांव ओझिमांडियास, रायांलो राय:
म्हजें काम पळयात, ए बळवंतानो, आनी निराशजायात!''
पुण आनी कांय उरलें ना त्या भव्य अवशेशाच्या भोंवतणीं

**जॉन क्लेर:**

जिप्सी एक आदर्श सुनीत. हे कवितेंत कवीचो गांव जिणेचो मोग आनी दुबळेपणाचें काळखी चित्र उण्याच शब्दानी अभिव्यक्त केला. तो पयलीं प्रकृतीचें रहस्य सांगता आनी त्या सौंदर्याचे फाटींतच मनशाचे यातनेचो विचार प्रस्ताव करता.

The snow falls deep; the forest lies alone
The boy goes hasty for his load of brakes
बर्फ पडता दाट; रान पडला एकसुरें
तो पोर वता वेगीन ताच्या लाकडाच्या भरया खातीर

आनी थंय सावन जिप्सी शिबिराचे वर्णन करता, बर्फाचे थंडाये साकून रांदणीच्या उज्या कडेन व्हरता

And bushes close in snow like hovel warm;
There tainted mutton wastes upon the coals
आनी बर्फांत बुडल्ली झोंप हून खोंपये वरी
लासून गेली शाकोती जळत्या कोळस्या वयर

**जॉन कीट्स**

फकत पंचवीस वर्साचे पिरायेर कीट्स हाणे ताचेच मरणाच्या तीन वर्सां पयलीं केन्ना हांव भियेता कविता बरयली, हें एक आजाप.

nd think that I may never live to trace
their shadows, with the magic hand of chance;
वचपाक हांव उरचो ना म्हण चिंतता
सुदैवाच्या जादून त्या सावळ्यां फाटल्यान

तेजवंत तारो कवितेंत दोन तराच्या निश्चलपणाचें वर्णन आसा. पयल्या आठ वळींत नखेत्राचे निश्चल स्थिती आनी कवितेच्या दुसऱ्या भागांत त्याच नखेत्राचो मनशाक सोडून पयस आनी वेगळेंच रावपाचो विचार आसा:

Bright star, would I were steadfast as thou art
Not in lone splendor hung aloft the night
परजळीत नखोत्रा, तुजे तितलो हांव थीर आसचों

न्हय रातचे एकसुरेपणांत वयर हुमकळायिल्ले भशेन

Of snow upon the mountains and the moors
No yet still steadfast, still unchangeable,
झेलाचें पर्वत आनी वसाड जमीन वयल्यान
ना तितलें निश्चल, तितलें बदल नाशिल्लो

**हार्टली कॉलरिड्ज:**

'सुंदरी न्हय भायल्यान' ही कविता एकदम सोंपी आशिल्ल्यान, तिचो सरल वाटेचे शब्दार्थ भाशांतराक पुरो जालो.

**थॉमस डी. मेखाले**

हाणी बरयली 'रेबिल्लस सरोवरा कडलें झूज' ही कविता रोमन देशान लॅटीन टस्चुलीम देशाचेर झुजांत जैत जोडिल्ल्याची दंतकथा वर्णन करता. कवितेची एक रूच घेवचे खातीर दोन भागांतलें (अठ्ठावीस आनी बातीस), अठ्ठावीस वळी मात्र हांगा भाशंतरा खातीर घेतल्यात. तांतुल्या चार वळींची चाल पळयात:

| | |
|---|---|
| Through breast-plate and through breast, | कवच पिंजून, छातीचिरून गेलो |
| nd fast flowed out the purple blood | आनी वेगान व्हांवलें थंय तांबडें रगत |
| Over the purple vest | तांबड्या झग्या वयल्यान. |
| Mamilius smote Herminius | मॅमिलियसान मारलो धपको हरमिनियसाचेर |

**जे. एच. न्यूमन:**

'दाखय वाट, दिव्या' हे भक्ती कवितेंत स्थीर प्रास आनी सरळ संगीत रचना आशिल्ल्यान खूब गायन रूपर प्रकट जाल्ला. आरंभच देवा कडेन प्रार्थनेचें उतर आसा

Lead, kindly light, amid the encircling gloom

Lead thou me on!
दाखय वाट, दिव्या, भोंवतणींत दाट जावंच्या काळखांत
दाखय म्हाका वाट

**टी. एल. बेडोस:**

'सपनां विकपाक आसत जाल्यार' तें 'खोशेचीं आनी दुखाचीं' (Merry and sad to tell), "एक एकसुरी, शांत खोंपी" (cottage lone and still), "म्हजे पिडेक तें वखद जातलें" (This would best heal my ill), असलें अपूर्बायेचें पदसमूह भाशांतरांतय खुशी हाडता.

**राल्फ वाल्डो एमर्सन:**

ब्रह्म, हो विश्णू आनी शिव सांगत स्तान घेवचो सृश्टी करचो हिंदू देव. जगाक चैतन्या हाडचे ब्रह्माले शक्तीक हांगा वरणन आस. 'ऽ' ध्वनीचे अनुप्रासचो प्रयोग सुंदरतायेन जाल्ला:

If the red slayer think he slays,
Or if the slain think he is slain,
They know not well the subtle ways
I keep, and pass, and turn again

पुण कोंकणींत हें तितलें परिणाम थरान करपाचे साध्य न्हय:

तांबडो खूनी जर चिंतता की आपूण जिवशीं मारता
वा मेल्लो चिंतता की आपलो खून जाला
तर तांका कळीत ना म्हजो सुक्षीम सबाव
जो हांव सांबाळतां आनी दाखयतां आनी परतितां

**हेन्री वाड्सवर्त लोंगफेलो:**

'जिणयेंतलें स्थित्यंतर' हें कवितेंत कवीच्या भोगणांतली ही एक खंत दिसता:आपले जिणयेंत एदोळ केल्लें काम उणे आसा, तें कांय पावना.

The years slip from me and have not fulfilled
The aspiration of my youth, to build
Some tower of song with lofty parapet

तीं वरसां निसरून वचपाक आनी पूर्ण केलोना
म्हजो तरणेपणाचो हावेस, बांदपाचो
कांय गितांचीं भव्य मिनारां

**सी. ई. एस. नोर्टन:**

'तुजो हांव मोग करीना' हें कवितेंत उतरां विरुद्ध अर्थान वापरलांत. तुजो हांव मोग करीना हो विरोधपणाचो उदगार निजायकय दुखिल्ल्या वा तुटिल्ल्या काळजांतल्यान आयला. मोगान भरिल्ल्या काळजांतल्यान मोग करीन म्हळ्ळे उतर आयल्यांत! एक गिरेस्त विचार मनांत दवरून ताक एक दुबळे उतरांनी परगटावपाचो एक मार्मिक सन्निवेश भाशांतरकारान हांगा वळखून घेवचो पडता.

I do not love thee - no! I do not love thee!
nd yet when thon art absent I am said;
nd envy even the bright blue sky above thee,
Whose quiet stars may see thee and be glad.

हांव तुजो मोग करीना ना तुजो मोग करीना
तरीय तूं वचना फूडे हांव खिन्न जाता गो
तुजे वयल्या नीळ मळबाचो म्हाका दुस्वास
थंय तीं मोनीं नखोत्रां तुका पळोवन आनंद देखून

चार वळीचे पांच कडवें सगळे सुंदर प्रास, सम प्रमण मात्रा, एकच लांबयचे रचना आपणायतात. कोंकणींत ही बांदावळ पुरायपणान व्हरपाक साध्य जालें ना.

**एड्गर अलेनपो :**

'सुनीत विज्ञानाक', हे कवितेंत कवी उपमेच्या आदारान विज्ञानान प्रासार जावचे ऋणात्मक सदेशांचेर चर्च करता. हेलेन ही ग्रीक दंतकथेंतली ट्रॉय देशाची एक सोबीत राणी. पुण हे कवितेंत उल्लेख केल्ली हेलेन तिची वर्ग मित्राची आवय जेन स्टनार्ड जावन आस. कवितेंत Helen, Nicean barks, native shore, Naiad airs,Greece,Rome, Gate lamp, Holy-Land

असलीं स्थळ-पुरातन नांवांचो सह-उल्लेख जाल्लो दिसता.भाशांतर बरें करपाक ह्या विशयाची माहिती उपकारता.

Thy hyacinth hair, thy classic face,
Thy Naiad airs have brought me home
तुज्या फुलांतुरया सारक्या केसान, उत्कृष्ट तोंडान
आनी अपसरेच्या गुणान म्हाका व्हेलो परत

**ए.एल.टेन्नीसन:**

हागेली 'मोड, मोड, मोडून घे' कविता घेंव्या.

Break, break, break, / On thy cold grey stones, O sea!

And I would that my tongue could utter / The thoughts that arise in me

पयलीं चार वळींचो भाशांतर करच्या संदर्भांत दोन प्रयत्न केले. पयलो नमूनो आनी ताचो सुदारिल्लो दुसरो नमूनो, हे दोनूय नमूने देखी खातीर सकयल दिल्यात.

पयलें प्रयत्न:

एय, एय, एय, थांबा / धरया तूं, थंड तिंबिल्ल्या फातरान
आनी मेगेली जीब कांय उच्चारतली / विचार तो जितो म्हाका येतलो

सुदारिल्लो भाशांतर

मोड, मोड, मोडून घे / समिंद्रा, काळ्या, ओल्या फातरार तूं
उच्चारपाक सोदता मेगेली जीब / विचार म्हजे भितरले सगळे

अश्या परत परत प्रयत्न फकत हे कवितेच्या भाशांतरांतच न्हय, सगळ्या सत्त्यात्तर कवितांच्या संदर्भांत जाला. कवितांचें भाशांतरीत रूप सुदारून सुदारून ह्या संग्रहांत दिसता थंय पावयल्या. आनी हें कांय अंतिम रूप न्हय, तें आनीकूय बरें करपाक जाता, हो विचार न्हयकारचो न्हय.

हेच कवीन बरयले दरयांत वचपाचो वेळ कवितेंत, मरणाक रूपक करून, वेळे कडल्यान दर्या भितर वचपाचें सुंदर वर्णन आस.

| | |
|---|---|
| Twilight and evening bell | तिनसांजे येता सांजेची घांट |
| And after that the dark | आनी उपरांत काळोख |
| And may there be no sadness of farewell, | नाका शोक निरोप घेतना |
| When I embark; | हांव तारवार चडतना |

**रोबर्ट ब्राउनिंग:**

हाच्यो दोन कविता घेतल्यात- 'तर जाय कितें' आनी 'असोलांडो - उपसंहार'. तर जाय कितें कविता पूर्ण रूपान हांगा दिल्या ताचो आकार तिसऱ्या कडव्यांतल्यान लांबायेन आनी गात्रान समरूपाताय सांबाळता, हें दाखोवपाक.

| | |
|---|---|
| Wanting is-what? | उणेपण दिसता-कसलें? |
| Summer redundant, | गरजे भायलो गीम, |
| Blueness abundant, | भरपूर निळें मळब, |
| Where is the blot? | खंय आसा कळंक? |
| Beamy the world, yet a blank all the same, | तेजवंत संवसार, तरी लेगीत कोरो |
| Framework which wants for picture to frame; | जशें चौकट भितर घालपाक चित्र सोदता; |
| What of the leafage, what of the flower? | पानावळीचें कितें, फुलाचें कितें? |
| Roses embowering with naught they embower!. | गुलाबाच्या मांटवाचे भितर मात शून्य! |
| Come then, complete incompletion, O comer, | तर यो, कर अपूर्णाचें पूर्ण, येवप्या, |
| Pant through the blueness, perfect the summer! | नीळ मळबाक शिगुळून गीम कर पूर्ण |
| Breathe but one breath | घे एकदां श्वास |
| Rose beauty above, | गुलाबा सोबाय वयर |

| | |
|---|---|
| And all that was death | आनी मेल्लें तें सगळें |
| Grows life, grows love, | वाडयता जीण, वाडयता मोग |
| Grows Love! | वाडयता मोग |

'असोलांडो - उपसंहार': असोलांडो हो कवीच्या जीवितांत आनी वावरांत मुखेल पात्र घेतिल्लो एक व्यक्ती. हे व्यक्तीचेर ताणे पांच कवितांचो एक ग्रंथ रचला.आनी तांतुतल्या निमाणेची कविता- उपसंहार.तांतूतल्यो दोन वळी सकयल दिल्यात:

One who never turned his back but marched breast forward,
Never doubted clouds would break,

ही एक कडक आशावादाची सुंदर अभिव्यक्ती. आनी ताचें भाशांतर अशें केलां:

केन्नाय फाटीं वळून पळयनासतना हड्डे फुडे करून मुखार सरपी म्हणून
कुपां पयस वतलीं, हाचो दुबाव सोडून

## चार्ल्स डिक्केन्स:

ह्या कवीचें 'एक स्तुती गीत' - भुरग्याचें हें खंडकाव्य रूपाचें प्रार्थना गीत. भक्ती भावांतल्यान सरळ जीवित घडोवपा खातीर भुर्ग्याचे नावन बरयला. क्षमापण, काकुलट, खेद, भावनांक व्यक्त करीत मरणा उतरान सोंपयलां:

| | |
|---|---|
| My sins are heavy, but | म्हजीं पापां जड, पुण तुजे दयेचें |
| Thy mercy | |
| Far outweighs them, | वजन तांचे परस, दर एका परस चड |
| every one; | जड |
| Down before Thy cross | तुज्या खुरसा सकयल हांव तीं उडयतां |
| I cast them, | |
| Trusting in Thy help alone. | फकत तुज्या आदाराक पातयेवन. |

## शार्लट ब्रोंटी:

हाणे बरयली कविता 'जीण'. जीवित म्हळ्यार कितें हाचेर एक तात्वीक भासाभास करता. मरण येतनाय एक मार्मीक प्रश्न उबो करता-

What though Death at times steps in / And calls our Best away ?

केन्ना मरण भितर सरून / आमच्यांतल्या बऱ्या लोकांक आपयता म्हण कितें ?

आनी अंत्याचे वळी भय नातील्ले आनी मनीशपणाचें, म्हळ्ळे विश्वासभरित उतरां अपूर्बायेचीं एक विश्वासाक उल्लेख करता. इंग्लीशाचे उतरावळाक समानार्थक कोंकणी शब्दांक हाडपाचे आव्हान हांगा पळोवंयेता:

| | |
|---|---|
| Manfully, fearlessly | मनीशपणान, धिटायेन |
| The day of trial bear, | धर्मासन सभेक तोंड दी |
| For gloriously | कारण प्रतापान, |
| Victoriously, | यशस्वीपणान, |
| Can courage quell despair! | धाडस निराशेचें शमन करता. |
| Rapidly, merrily | बेगीन, मजेन |
| Life's sunny hours flit by | जिणेचीं चकचकीत वरां उडून वतलीं |
| Gratefully, cheerily | दिनवाशीन, उमेदीन |
| Enjoy them as they fly ! | आनंद घेयात तीं उडत वतना ! |

**वाल्ट विटमन:**

हाची 'एक मोनी सोंशीक मावली' ही कविता वेगळेंपण, संघर्श आनी सहन, ह्या तीन विचारांचेर निर्माण जाल्या.

Surrounded, detached, in measureless oceans of space,
आवारांतल्यान अलग रावून, पार नातिल्या सागराचे अंतरिक्षांत,

**आर्थर ह्यू क्लो:**

कश्ट, वावर आनी छलाच्या मोला विशीं दिल्ल्या एक सांगण्या भशेन 'संघर्षाचें फळ' ही कविता सोबीत रूप घेता. हांगसर अनुरूपतेची एक देख दिसून येता. मूळ कवितेचे एक वळींत 'slowly' ('हळूच') ह्या उतर भाशांतरांत बदलून 'slow' ('हळू') अशें वापरला. म्हळ्यार हांगा व्याकरणा परस अनुरूपताय चड म्हत्वाची. आनी हांतुल्यान अर्थाचो कांय लुक्साण

जावंक ना हें आमी समजू येता.

| | |
|---|---|
| When daylight comes,<br>comes in the light<br>In front the sun climbs<br>slow (ly), how slow(ly) | दिसा उजवाडा बरोबर भितर येता<br>उजवाड<br>मुखार सूर्य वयर सरता हळू,<br>कितलो हळू! |

**मथ्यू आरनॉल्ड:**

हाणी बरयल्ल्यो दोन कविता भाशांतरा खातीर वेंचल्यात– 'पलेडियम' आनी 'डोवरकिनारो'. विक्टोरिअन युगांत आधूनिकतायेचें प्रतिपादन केल्लो एक कवी जावन आरनॉल्ड हाणी एक संताभशेन समाजांतलें समकालीन अभिरुचीचे मुद्दें उखलून दाखयल्यात आनी ते उत्कृष्ट रीतीन हाताळ्ळ्यात.

'पलेडियम' कविता ग्रीक पुराण कालाचे संस्कृती कडेन संबधीत एक कथेचेर बरयल्या. ट्रॉजन झूजाच्या काळार ट्रॉय शाराचे राखण किल्ल्यांतल्या पल्लास अथेन' हे देवतेच्या मूर्त (म्हळ्यार पलेडियम) करता अशें लोक विश्वास करतालीं. तो पुतळो जीयूस हाका उडिगेरे म्हणून स्वर्गा थावन पडिल्लो अशी आसा दंतकथा. आनी ती मूर्त आसता मेरेन, ट्रॉयक कोणाकूय झुजांत जिखपक साध्य ना असो विश्वास आसलो. ग्रीक वस्ताद, युलीस्सस आनी डियोमिडीस वेशांतर करून ह्या पलेडियम खांपून व्हरूंक यशस्वी जालीं. आनी त्या कारणान ट्रॉय शार पडता. Simois, Hector, Palladium, Ilium, Troy, Xanthus, Helen, Hector and Ajax हीं सगळीं इतिहासीक संदर्भाचीं नावां आनी शब्द. भाशांतरांत हो इतीहासीक संदर्भ आनी अर्थ समजून घेवपाची गरज पडली.कवितेंतलें एक वर्णन दोळ्या मुखार कशें दृश्य उबें करता पळयात:

It stood, and sun and moonshine rain'd their light
On the pure columns of its glen-built hall
Backward and forward roll'd the waves of fight
Round Troy--but while this stood, Troy could not fall

तें राविल्लें आनी सूर्य-चंद्राचो उजवाड शिंवरलो
मोवाळतायेन बांदिल्ल्या सालाच्या शुद्ध खांब्यांचेर.
झूजाचीं ल्हारां फुडे सरलीं, फाटल्यान लोळ्ळीं
ट्रबयचे भोंवतणीं, पूण हें राविल्ल्यान, ट्राय पडचें नासलें

'डोवर किनारो' हांतूत मनशाक धार्मिक अनिश्चितपण आनी मोगाचें सांत्वन सगळें मिसळिल्लें दिसता. कविता निराशेची, काळखाची अशें दिसता तरीय कवी मोगा कडेन सांत्वन घेंवचे सकयल दिल्या वळींतल्यान दिसता.

| | |
|---|---|
| Ah, love, let us be true | हा, मोगा, आमी प्रामाणीक रावया |
| To one another! for the world, which seems | एकमेकां कडेन! कारण संवसार दिसता पडिल्लो |
| To lie before us like a land of dreams, | आमचे मुखार सपणांचो प्रदेश कसो |
| So various, so beautiful, so new, | इतलो विवीध, इतलो सोबीत, इतलो नवो, |
| Hath really neither joy, nor love, nor light, | पुण खरयान दीना आनंद, मोग वा उजवाड |

**क्रिस्टिना रोसेटी:**

हिणे बरयल्ल्यो तीन कविता वेंचून काडल्यात. 'चडटेर', एक प्रश्न उतर रूपाची कविता. हांतुंतल्या जल्मा थावन मरणा परयंत पयण, काळखी रतीक म्हळयर जिणेचो अंत, अन्नछत्र (विश्रामाचो जागो) म्हळयार स्वर्ग असली रूपकां मेळतात. जिणेचें सगळें ध्यास आनी कश्ट निमाणें ह्या उतरानी सोंपतां:

Of labour you shall find the sum. / Will there be beds for me and all who seek?

तुज्या श्रमाचें फळ मेळतलें/ म्हाका आनी हेर सोदप्यांक शय्या आसतली?

'गीत' कवितेंत एक मोगीण मरणाची कल्पना करता. आपूण मरतना मोग्यान बेजार करचो न्हय आनी आपणाचो उगडास करचोय नाका, कित्याक म्हळ्यर आपूण अनासक्त उरतली! हे मानसिकतेचीं उतरां कवितेच्या वळींनी

स्पश्ट जातात.

| | |
|---|---|
| I shall not see the | हांव आसची ना ती सावळी |
| shadows, | पळोवपाक |
| I shall not feel the rain; | हांव अणभव घेवचो ना पावसाचो |
| I shall not hear the | म्हज्या कानार पडचो ना बुलबुलाचो |
| nightingale | उलो |

तिसरे वळींत 'हांव आयकुचो ना.........' अशें भाशातंर करूं येतालें तरीय ताचे परस बरे रितीर व्यक्त जालां.

'उगडास' ही कविता मोग, मरण, आनी मरणा विशींचे प्रतिक्रियेची. उगडास कर दिसान दीस जेन्ना हांव आसची ना....

| | |
|---|---|
| Remember me when I | याद कर म्हजी हांव |
| am gone away, | गेल्ल्या उपरांत, |
| Gone far away into the | पयसुल्ल्या त्या |
| silent land; | मूक जाग्यार; |
| Only remember me: | फकत याद कर म्हजी: |
| you understand | तूं जाणा न्हय, |
| It will be late to counsel | मागीर तोडोव जातलो |
| then or pray | उपदेसाक वा मागपाक |

**मार्क व्टयन**

हांगेली ही चिकणी कविता 'गीम' जिणेंत वय जायत वता, ते क्रिये बद्दल सांगता. जिणेचो प्रवास प्रयासाचो न्हय तर सुंदरतायेचो:

| | |
|---|---|
| Warm summer sun, | हून गिमाच्या सूर्या |
| Shine kindly here, | उपकार करून पर्जळत राव हांगा |
| Warm southern wind, | दक्षिणेच्या गरम वाऱ्यार |
| Blow softly here. | सौम्यान हांगा यो |
| Green sod above, | पाचव्या तणा तळा वयल्यान |
| Lie light, lie light | पड ल्हवू, पड ल्हवू |
| Good night, dear heart, | शुभरात, मोगाळ काळजा, |

Good night, good night.　　　　शुभरात, शुभरात

भाशांतराचें समानताय तत्व घेतलें तर 'Shine kindly here' हे मूळ वळींतल्या तीन शब्दांचें भाशांतर 'उपकार करून पर्जळत राव हांगा' पांच शब्दांचें (उतरांचे दिश्टीन दीघ)जालां. जाल्यारय परिहारा तत्वावरी वट्ट 26 शब्दांचे इंग्लीश मूळ कवितेचें भाशांतर कोंकणींत 27 शब्दानी सीमीत केल्यान समानतय तिगयला अशें सांगू येता. Good night, शब्दाक 'शुभरात्र' अशें थोडें समर्पक शब्दांक घालन असो एक परिहार साध्य जालो.

**थोमस हार्डीः**

'हांव पळयता म्हज्या हारशांत' ही सोंप्या उतरानी बरयल्ली एक कविता. प्राय जाल्ल्याचीं लक्शणां पळोवन बरयली कविता. 'नदर चुकोवपी' ही कविता सामान्य अशी दिसता. आमी आमचें भुरगेंपण, तेन्नाचें घर, आवय बापा हांका याद दवरूक म्हळ्ळो एक संदेश हांगा आस. पोरण्या घरांत अवय कितें करताली आनी बाप कितें करतालो दोन दोन वळींत अशें दिल्ला.

She sat here in her chair/ smiling into the fire;
आपल्या कदेलार ती हांगा बसताली / उजो पळयत हासून

हे वळींतलो उजो अवयच्या मोगाची हुनसाण आनी सुशेगपण सूचोवपी एक सुंदर रूपक जावन आसा.

He who played stood there/ bowing it higher and higher
तो वाजोवपी थंय राविल्लो / ताचो गज वयर वयर व्हरतालो

हांगा संगीत उपकरण वाजपी आनी गाज वयर व्हरपी बापयन घरां भितर दिवचो तो अनंद सुचयता. पुण 'नदरचुकोवपी' हाचो अर्थ कितें आसतलो? ही कविचे एक हिकमतीची प्रस्तुती म्हणून घेवचें पडता.

**जेरार्ड मॅनली हॉपकिन्सः**

हागेले 'देवालें तेज' हे सुनीतांत, देव आनी सैम संबंधीत कवीची भक्ती आनी भावना व्यक्त जाल्या. आपल्या प्रश्नाक स्वताच जाप दितना, जीण,पिळग्यान पिळगी धरणे वयर अंत्य नाशिल्लें चमकप अशें सांगताः

Why do men then-now not reck his rod?
पूण मनश्यांक कित्याक परवा ना ताच्या दांड्याची?

Generations have trod, have trod, have trod;
पिळग्यानी ताचेर माडयलां, माडयलां, माडयलां

And all is seared with trade; bleared, smeared with toil;
आनी सगळें वेपारान लासून गेलां; कश्टा निमत्तीं अस्पश्ट जालां

**एम्मा लॅसरस**

रचन केल्ले नवो प्रचंड पुतळो, हें साहीत्याचे अप्रशासनीक उदारता अनी शासनाचे शिस्त भरिल्ले भूंय मदें उबार जाली एक सुनीत अशें परजळता. अमेरिकेचे स्वतंत्राचो पुतळो तो मुक्तताय आनी स्वातांत्राचो एक प्रतीक, आनी अमेरिक देश एक देशांतरींचो गांव अशें एक अभिप्राय कवीन हांगा मांडयला. सकयल दिल्ली वळीं ह्या अर्थाचे एक ल्हान देख.

Glows world-wide welcome; her mild eyes command
The air-bridged harbor that twin cities frame.
दितलो येवकार संवसर भर; तिच्या शांत नदरेंत येता
त्या जोड शेहराच्या चौकटांत बसयल्लें बंदर

**ऑस्कर वायल्ड:**

म्हजे बायलेक म्हजे कवितेची प्रत सयत: हे कवितेंत ल्हव विनोदी भावना आनी एक गिरेस्त काव्य रूप घेवपाचें तंत्र पळोवंयेता. कवी पयलेंच सांगता, कविता बरोवपाक आपूण कांय समर्थ न्हय अशें:

I can write no stately proem/ हांव बरोवपाक शकना भव्य कविता
आनी दुसरे घडयेक म्हणूंक लागता,
For if of these fallen petals / One to you seem fair
जर हांगा पडिल्ल्या पाकळ्यांतली / एक तुका बरी दिसली तर

ताचे बायलेक एक तरी कविता पसंद जाली तर, तो धीरान म्हणता....
Love will waft it till it settles / On your hair

मोग ताका सवकास हवेंत व्हरून / बसयतलो तुज्या केसार

एक विळाप: हे कवितेंत समाजांतल्या दोन वर्गा मदले वेगळेपणाचे विचर प्रगट जातात. एक वर्गाचे लोक रात-दीस घोळतात आनी कश्टान पोट भरतात. तेच वेळार आनीयेक वर्गाचे लोक आपली संपत समृद्धीची जीण सुशेगान जियेतात. तांका दुबळ्या लोकांचें कश्ट कांय पडिल्लें ना. कवीचे मनांतल्यान विळपाच्यो ह्यो वळीं निमाणे अशें भायर पडता.

| | |
|---|---|
| But well for him whose | पूण ताजें बरें जावं |
| feet hath trod | जो माडयत गेला |
| The weary road of toil | कश्टाच्या आनी संघर्शाच्या |
| and strife, | थकोवपी मार्गा |
| Yet from the sorrows of | तरीय ताचे जिणेच्या |
| his life | दुखांतल्यान |
| Builds ladders to be | बांदता निसण देवालागीं |
| nearer God | पांवपाक |

**ए. ई. हाउसमन**

'हांच्यो नखेत्रां', 'तीं हांवें पडतना पळयल्यांत' हे शीर्षीक नाशिल्ले कवितेक, पयली वळच शीर्षिक म्हणून घेतलां. ह्या ल्हानशा कवितानी नखेत्रां पड़प आनी पावस पडप असल्या सादा सैमीक घडीतांतल्यान म्हत्वाचीं तत्वांक आमी पळोवंयेता.

| | |
|---|---|
| Stars, I have seen them fall, | नखोत्रां तीं हांवें पडतना पळयल्यांत |
| But when they drop and die | पूण तीं जेन्ना पडतात आनी मरतात |
| No star is lost at all | एक तरी शेणिल्लें दिसना |
| From all the star- sown sky | तारे भरिल्ल्या मळबांतल्यान |
| The toil of all that be | सकडांची म्हेनत आसल्यारूय |
| Helps not the primal fault; | मूळच्या दोशाक परिहार ना |
| It rains into the sea, | दरयांत पावस पडल्यारूय |
| And still the sea is salt | दरयाचें उदक मिटशेंच उरता |

'म्हजो पंगड कसत आसा?' ए. ई. हाउसमन हाचे बाराव्या जल्म दिसच ताची आवय अंतरली. मोगाळ आवयच्या पिडेच्या निमाण्या दिसानी तो तिच्या म्हऱ्यांतच आशिल्लो तरीय तिच्या मरणा वेळार, शाळेक रजा आशिल्ल्यान कुटुंबा-मित्रांगेर आशिल्लो. ह्या मात्र वियोग दुखाःची सावळी ताचे सगळें जिणेचेर आनी ताचे कवितेंत निराशेच्या परोक्ष रूपार उदेवन आयल्या. हो अणभव कवितेंतल्या एक शेत कामगाराच्या पात्राच्या तोणांतल्यान आयिल्लो दिसता.

| | |
|---|---|
| "Is my team ploughing, | म्हजो पंगड नांगर चलयतात कांय |
| That I was used to drive | जाची म्हाका संवय आशिल्ली |
| nd hear the harness jingle | घोड्याच्या पट्याचो किणकिणय आयकतालों |
| When I was man alive?" | जेन्ना हांव जितो मनीस आशिल्लों |

हांगा कवितेचे भाशांतर सलीसायेन करू येता, कल्पना स्पश्ट आसा आनी शब्दंय सरळ आसात.

**डाबल्यू. बी. यीट्स:**

'जाणटेल्या बसपगारी मनशाची खंत', हे कवितेचें केंद्र म्हळ्यार जिणेंतली सुंदरताय, स्मरण, आनी त्या काळाचो वावर. म्हांतारपणांत हें सगळें पलटता. कवी रागान म्हणता-

I spit in to the face of time / That has transfigured me.
हांव थुकता तोंडार काळाच्या / जाणें रूप बदल्लें म्हजें

ते विद्वान हे कवितेंत कवी कविता बरोवपाक विद्वत्ते परस उमाळ्याचें म्हत्व चड अशें सांगता. सगळे विद्वान कविता बरवपाक शकतात अशें कांय ना. कवीन विद्वान आसचें अशेंय ना.

| | |
|---|---|
| Old, learned, respectable bald heads | जाणटेल्यांचीं, शिकिल्ल्याचीं, मानेस्ताचीं बोडकां |

| | |
|---|---|
| Edit and annotate the lines | सुदारतात आनी फोडणिशी करतात त्या वळिंच्यो |

कवी एक कलाकार जावन आसता.निमाणें कवी एक प्रश्न करता – रोमन प्रेम काव्याचो कवी केटल्लूस तसो सुक्या उतरांचो अशिल्लो व्हय...?

Lord, what would they say /
Did their Catullus walk that way?
देवा, कितें सांगतले ते /
तांचो केटल्लूस् बी असोच चल्लो?

**रडयर्ड किप्लिंग:**

भारतांत जल्मल्ल्या ह्या ब्रिटीश कवीन नोबेल पुरस्कार जोडला. तागेली परत आपोवणी, ही कविता ctions and Reactions संग्रहांतले 'एक बळजबरीची वसती' ( Habitation Enforced) कथेक संबंधीत आसा. अमेरिकेचें एक जोडपें कांय कारणाक लागून युरोपाक येतना ते बायलेचे पूर्वज मुळान त्या गांवचे म्हण कळून येता. त्या वेळाची स्थिती अशें स्पश्ट केल्या:

| | |
|---|---|
| Under their feet in the grasses | तांच्या पाया पोंदाच्या तणां भितर |
| My clinging magic runs.... | म्हजी वेंगवपी जादू चलता... |
| Over their heads in the branches | तांच्या माथ्यावयर ताळयेंत, |
| Of their new-bought, ancient trees, | ताणीं निकतेंच घेतिल्ल्या पोरण्या रुखांचे |

'जर', जिणींतलें वेगवेगळ्या सन्निवेशांत कशें देवघेव करूयेत म्हणपाची स्फूर्त दिवपी विचाराची कविता.जिणेंत कशें जैत जोडूंयेत, आनी कसो एक बरो मनीश जावंयेत म्हणपाचें हितचिंतन हांगा आसा. जर...जर...म्हणत व्हळ्ळे ल्हार अशें:

If you can keep your head when all about you
जर तूं समचित्त सांबाळता, जेन्ना त्या खातीर हेर लोक सगळे

If you can trust yourself when all men doubt you
जर तूं आत्म विश्वासान आसता जेन्ना लोक तुजो दुबाव घेतात

If you can wait and not be tired by waiting,
जर तूं वाट पळोवपाक शकता आनी अपेक्षेन थकना,

If you can dream-and not make dreams your master;
जर तूं सपनां पळयता,पुण तांचो गुलाम जायना;

If you can think-and not make thoughts your aim;
जर तूं विचार करता ताचें ध्येय नासतना;

If you can meet with Triumph and Disaster
जर तूं घेतलो जैत आनी संकश्ट

If you can bear to hear the truth you've spoken
जर तुवें सांगिल्ल्या सत्याचो फटिंगानी विपर्यास करून

If you can make one heap of all your winnings
जर तूं तुज्या सगळ्या जैताची एक राश करून दवरपाक शकता

If you can force your heart and nerve and sinew
जर तूं तुज्या तन-मनाचें बळ सोंपिल्ल्या उपारांतय

If you can talk with crowds and keep your virtue
जर तूं लोकां कडेन उलयतनाय स्वताचे सद्गुण सांबळता

If neither foes nor loving friends can hurt you,
जर शत्रू वा मोगाळ मित्र तुका दुखोवपाक पावनात

If all men count with you, but none too much;
सगळ्या लोकांचो मान मेळता पुण सगळें ताचेर निंबून ना,

If you can fill the unforgiving minute
जर वेळ कोणाक रावना देखून दर मिनटांतलीं

**एडवर्ड थॉमस:**

घुगूम कवितेंतल्या रातच्या वेळाचें घुगूमाचें रडणें हें एक अद्भुत रूपक. घुगूमाचो साद कवीचे आदले जिणेची यातना आनी व्हडली सोंसणी सूचयता

| | |
|---|---|
| An owl's cry, | एका घुगूमाचें रडणें, |
| a most melancholy cry | खूबच खिन्न रडणें |
| Shaken out long and clear | दोंगरा वयलोतो लांब, हालयल्लो, |
| upon the hill, | स्पश्ट साद |
| No merry note, | प्रसन्न नासलो, |
| nor cause of merriment, | मजा दिवपीय नासलो |
| But one telling me plain | पुण सादेपणान सांगतालो हांवें कितें |
| what I escaped, | टाळ्ळें तें |

**डी. एच. लॉरेन्स:**

उक्त्या पायाचें माणकुलें हे कवितेचो विशय म्हळ्यार बाळ्शेपण, निश्पापपणाचो संयोग आनी सबावीक जगांत कवीक माणकुल्याचे पाय परसुपाची आशा. उपमा आनी रूपक अलंकारांत सैमांतलीं पिसोळीं, फुलां, आनी उदाक हें पुराय वापरलां.

'हांव आशेतां तें चेरडूं हांगा म्हजे कडेन धांवत येतलें /
आनी तळया वयर व्हळच्या वार्यू वरी येवन रावतलें
तीं दोन ल्हान गोरीं पावलां म्हजे धिमयेर दवरून /
आनी हांव तिच्या पावलांचेर दोनय हातानी घेतलों स्पर्श

**वालस स्टीवन्स:**

काळ्या सुकण्या कडेन पळोवपाचे तेरा नमूने ही वालस स्टीवन्स हांची हायकू (Haiku) शैलीन बरयली कविता. कवितेंत सैमीक मोगाचे फाटभुंयेंत 'काळें सुकणे' हो लघु विचार हाडून आमच्या चिंतपाक प्रेरण दिवचें तंत्र घेतलां. एकच विशया कडेन तेरा वेगवेगळे मसूर वापरून चिंतपी कवीचें

सामर्थ्यय हांगा पळोवंयेता. कवितेंत सुंदर कल्पना, प्रतिमा, अलंकार अशें घडतात:

**प्रतिमा:**

Black bird, golden birds — काळे सुकणे, भांगराळ्या सुकणे

**उपमालंकार:**

I was of three minds,/ — हांव आशिल्लो तीन मनाचो /

Like a tree — एकारुखावरी

**रूपक अलंकार:**

The blackbird whirled in the autumn winds/

It was a small part of th pantomime

काळेंसुकणें तें शिंयांच्या वाऱ्यांत भोंवतालें /

तें आशिल्लें मूकाभिनयाचें एक ल्हान भाग

अतिशयोक्ती:

The only moving thing / Was the eye of the blackbird

एकच तो चलतो वस्त / जावनासलो काळ्या सुकण्याचो तो दोळो

**रॉबर्ट फ्रॉस्ट**

हांगेलें 'बेत' एक अद्‌भुत अलंकारचें सुनीत. एक मावळीची सादी देख घेवन प्रकृतींतलें एक ऊंच सत्य भायर घालप होच ह्या कवितेचो सुंदर विशय.कवितेंत जगाच्या सबावा विशीं गुंडायेचो प्रश्नप्रस्तुत केला. थंय देव कांय ना व्हय? ताची सर्वांतरयामी शक्ती आसा तर कित्याक जिणेचे मुळांत ती काळखी घडता?....हाका कांय स्पश्ट उत्तर मेळना :

What but design of — व्हयमूतो भेश्टावपाक

darkness to appall? — काळखाचो बेत ?

If design govern in a thing so small — तितली ल्हान एक बेत वस्तूंतराज्य करीत जाल्यार

'आपणावंक नाशिल्लो रस्तो' माथाळ्यांत रस्तो आपणावप म्हळ्यार रस्त्यार चलप इतलेंच न्हय तर जिणेतली वाट धरप म्हणूय समजून घेवयेत. जिणेंत पयलीं घेतिल्लो खंयंचोय एक निर्धार चुकिचो जाल्लो तर कोणाकय

उपरांतचें जीवित सगळें बदलून पश्चाताप जाता. तसलो एक सन्निवेश कवितेंत मार्मीक रीतीर वर्णन केला:

हां, पयलो मार्ग हांवे दवरलो आनीयेका दिसा खातीर!

Oh, I kept the first for another day!

जाण जावनय, वाट कशी हेर वाटेक मेळता म्हणून

Yet knowing how way leads on to way,

**टी. एस. ईलीअट:**

हांगेली 'पडिंग जमीन' कविता समाजांतली मोडतोड आनी लुक्साण सुचयता. हे कवितेंतले जायते संकेत, पयल्या म्हाजूजान घडिल्लें म्हत्वाचे समाजीक, मनशास्त्रीय, आनी भावनाशील कोसळप दखयता. कवीन सामन्य लोका कडेन आत्मिक गिन्यान कमी आसा देखून वेगवेगळ्या धर्माचीं तत्वां समजावन दिवपाचो प्रयत्न केला. हे कवितेचो वेंचून काडिल्लो एक भाग म्हळ्यार 'अग्नी प्रवचन'. 'अग्नी प्रवचन' हें शीर्षक गौतम बुद्धान आपल्या शिश्यांक केल्ल्या बोधनाचो उल्लेख जावन आसा. इंद्रियान ग्रहीत जावचे सगळें अग्नी. वासनेचो उजो, दुस्वासाचो उजो, बुद्धी भ्रंशाचो उजो, जल्म, म्हातारपण, मरण, खेद, विलाप, विपत्ती, दुख आनी निराशा, हें सगळें उजोच. हांतूल्यान मुक्त जावन लौकीक जगांतल्यान पूर्ण मुक्त जायात अशें बुद्ध आपल्या प्रवचनांत सांगतालो. कवीन वयर सांगिल्ल्या त्या अपूर्व प्रवचनाचे भावनेन झुजा उपरांतच्या लंडन शाराचें एक चित्र काडलां:

Departed, have left no addresses
गेल्ले, कोणाक पत्तो दिनासतना

By the waters of leman I sat down and wept
लेमान तळये देगेर हांव बसलों आनी रडलों

Sweet Thames, run softly till I end my song
थेम्स न्हंये, व्हाळ हळूच, म्हजें गायन सोंपत मेरेन

Sweet Thames, run softly, for I speak not loud or long
थेम्स न्हंये, व्हाळहळूच, हांव उलयना चड वा व्हडान

## भाग 3 भाशांतर– अंतर– निरंतर
## (Translation -Dissociation- Perpetuation)

इतल्या काळाचे दीर्घ चर्चेक लागून आमका मेळिल्ली एक सादी समजणी म्हळ्यार ही:भाशांतर दोन भाशां मदलो वावर. तो वावर त्या दोन भाशां मदलो 'अंतर' सांबाळूनच तांका जोडटा! दोन भासांचें वेगळेंपण सांबाळूनय तांका लागी हाडप हें एक दुहेरी तत्व.अंतर म्हणटकूच खूबशे अर्थ मनांत येताता. हांतुतले थोडे अशे : पयसपण (distance), आगळेंपण (distinction), फरक (difference), मध्यंतर (interval). अशें एक निर्दिश्ट दिकान व्हाळप, ह्या अर्थ समूहांत वयल्या भाशांतरांतलें 'अंतर' शब्द मेळयलो जाल्यार एक तत्वगिन्यानच उदेवन येताआनी तांतुल्यान अलगपण (dissociation) म्हणून एक घटकीय विचार रूप घेता.

अलगपण (अंतर) हें चडते मनशाचे नित्य जिणेंत बहुरूपान दिसता : दादूलो–बायल (लिंगभेद), जल्म–मरण (जीवित), काळो–गोरो (कातीचो रंग),ग्रेस्त–दुबळे (संपत्ती),आमेरिकेचो–भारताचो (भुगोळीक), इंग्लिश–हिंदी (भासो), आस्तीक–नास्तीक (विश्वास), क्रिस्तांव–हिंदू (धर्म), पोरणे–नवे (काळ). सैमांतय वत–पावस, रात–दीस,गिम–शिंयाळो, खर–हुंवार आदी सगळ्यो गजाली दोळ्यां मुखार येतात.

अंतराचो विरोधार्थी शब्द निरंतर (continuity) : चालू उरप, अखंडपण, सातत्य. सूर्य–चंद्र थावन दर्यांचीं ल्हारां, न्हंयचो व्हाळ, पर्वत–रान–माती–उदक–वारे हें पुराय भौतीक रूपाचें निरंतर. हाका लागून काळाचें निरंतर दिस–रात–ऋतुमान आदी चालू उरता. हो अर्थ फुडे वाडयलो जाल्यार निरंतर निमाणे सदांकाळ, चिरस्तायी (perpetuation) अशें सुचोवपी दुसऱ्या एका तत्व गिन्याना कडेन आमी पावतात.

ह्या भाशांतरीत कविता संग्रहांतल्या आशयांचो (theme) आपरोस अंतर आनी निरंतर ह्या दोन संकल्पांचें प्रतिनिधान करता. त्या कारणान हें पुस्तकांतले विशय (इंग्लीश काव्य) आनी तें तुमचे मुखार हाडपाचो वावर (अणकर) हें दोनय खऱ्यान प्रतिबिंबीत करपाक अंतराचो निरंतर

(perpetuation of dissociation ) हे शिर्शिके निमर्ती साध्य जातलें अशें दिसता. जेफ्री चॉसर (1343-1400) थावन टी. एस. ईलीअट (1888-1965) मेरेनच्या दीर्घ काळाचे निरंतरपणांत - जीण, सुख जीवन, सगळे सकड गेले, तेजवंत तारो, गीम, डोवर किनारो, डेफडिल फुलां, राना रुखा मुळांत, कयमाचो मोग, अशें - विशाळ विवीध नदरेंतल्यान स्फुरण घेविल्ली कविता व्हाळता निरंतरपणान, पुण अंतर उरतात निरंतरान.

**परिसमाप्ती:**

ह्या पुस्तकाक कोंकणी क्षेत्रांतले मार्गदर्शी आनी म्हालगडे लेखक उदयबाब भेंब्रे हाणी मागना फुडें खोशयेन आशीर्वादाचो संदेश दिलो. तांचे हांव पयलींच व्हडले उपकार आठयतां. तशेंच वेवस्थीतपणान अभ्यासपूर्ण प्रस्तावना बरोवन श्री. गोकुळदास प्रभु हाणी म्हाका रिणांत दवरला. फाटल्या कव्हरा वयल्या नियाळा खातीर डॉ. हनुमंतबाब चोपडेकार हांचो हांव मनांतल्यान आभारी. ह्या वावरांत म्हाका उत्तेजन दिवपी अणभवी अनुवादक डॉ. गीता शेणै हांकाय दिनवास. कोंकणी साहित्या बरोबर प्रकाशनाच्या क्षेत्रांतल्या अणभवानय ह्या पुस्तकाक बरें रूप दीवन उजवाडा हाडपी संजना पब्लिकेशन्स, रिया ग्राफिक्स-गोंय आनी मुखचित्र सजोवपी सौम्या कल्याणकर - बेंगळूरु, ह्या सगळ्यांक देव बरें करूं.

वाचप्यांच्या हातांत विनम्रपणान हें पुस्तक दवरतना इंग्लीश कविता कोंकणींत हाडपाचो म्हजो प्रयत्न तांकां आवडटलो अशी आस्त बाळगीतां.

**- डॉ. बि देवदास पै**
मंगळूर

1.

## निर्दय सुंदरी -छंदोगीत

तुजे दोन दोळे मारतले जिवानशीं म्हाका अचकीत
तांची सोबीतकाय हांव सोंसपाक पांवचो ना
तितलो परखड घाय तो म्हज्या काळजांत घालता

फकत तुजीं उतरां बेगीन पेखयतलीं
म्हज्या काळजाचें दुख, घाय तसो कच्चो आसतना
तुजे दोन दोळे मारतले जिवानशीं म्हाका अचकीत
तांची सोबीतकाय हांव सोंसपाक पांवचो ना

सत्याच्यान तरी, सांगतां तुका विश्वासान
जिणेंत आनी मरणांत बी तूंच म्हजी राणी
हांव मरतना हें सत्य दिसून येतलें

तुजे दोन दोळे मारतले जिवानशीं म्हाका अचकीत
तांची सोबीतकाय हांव सोंसपाक पांवचो ना
तितलो परखड घाय तो म्हज्या काळजांत घालता

Original Poems & Poet
**Rondel of Merclless Beauty** - Geoffrey Chouser

2.

## राना रुखामुळांत

कोणाक आवंडेता म्हजे कडेन आड पडून
आपलो खुशाल सूर बदलून
सवण्याचो गोड साद करपाक
यो हांगा, यो हांगा, यो हांगा
ताका दिसतलो हांगा
शिंयाळो आनी कडक हवामान, दूसरो दुश्मान न्हय

जो व्हडपणाचो हावेस सोडून
वतांत रावपाक आवंडेता
खावपाचें खाण सोदता
आनी मेळता तें घेवन धादोस जाता
यो हांगा, यो हांगा, यो हांगा
ताका दिसतलो हांगा
शिंयाळो आनी कडक हवामान, दूसरो दुश्मान न्हय

मोगी आनी ताची प्रेयसी
हे आनी हो आनी आ-हा! करून
पाचव्या धान्यांच्या शेतां वयल्यान गेलीं
वसंत रुतूंत, मोगिकेक सोबीत मुदी दिवपाचोच वेळ
जेन्ना सवणीं गायतात हेय धिन धिन:
मंजूळ मोगी करतात मोग वसंताचो

शेताच्या कुणग्यां मदें
खोडे गांवचे हें सुंदर लोक आड पडताले:
हें भंक्ती गीत ताणी त्या वरांत सुरू केलें
कशी ती जीण एक फुला भशेन आशिल्ली:
देखून घे हो वर्तमान काळ
हे आनी हो आनी आ-हा! करून
मोगाचेर मुकूट बसयला सर्वश्रेश्ट
वसंत रुतूंत, मोगिकेक सोबीत मुदी दिवपाचोच वेळ.
जेन्ना सवर्णी गायतात हेय धिन धिन:
मंजूळ मोगी करतात मोग वसंताचो.

---

Original Poems & Poet :
**Under the Green Wood Tree** - William Shakespeare

3.

## म्हांतारपण - तरणेंपण

दुर्गुणांचें म्हांतारपण आनी तरणेंपण संगाता रावना
तरणेंपण सुखान भरिल्लें तर म्हांतारपण हुस्क्याचें
तरणेंपण गिमाची सकाळ,म्हांतारपण शिंयाळो रुतू
तरणेंपण गिमाचो वीर, म्हांतारपण उक्त्या शिंयावरी
तरणेंपण खोळ-हास, म्हांतारपण धरिल्लो श्वास
तरणेंपण हुशारकाय, म्हांतारपण लंगडेपाय
तरणेंपण खर आनी धाडशी, म्हांतारपण थकिल्लें, थंड
तरणेंपण अविचारी आनी म्हांतारपण सादी गजाल
म्हांतारपणाचो तिरस्कार! तरणेंपणा, करतां तुजो मान
अरे मोगा म्हज्या, मोग म्हजो तरणो
म्हांतारपण, तूं नाकाच नाका, म्हज्या मोगाळ राखण्या तूं चल बेगीन
दिसता म्हाका तूं घेता चडूच वेळ

---

Original Poems & Poet :
**Grabbed Age and Youth** - William Shakespeare

4.

## वसंत

वसंत, मधूर वसंत वरसाचो राय
सगळे कडेन चंवर, चलयांचो नांच
शीं कांय खायना, सवर्णीं गोड गायतना
कू... कू... जग्...जग् पू...वी टुवी... टुवी

माड्यांर, रुखार चंवर, घरांत-गांवांत शृंगार
गोरवा-वासरांचो नांच, राखण्याचो मुरळी नाद
कानार पडता मधूर साद सुकण्यांच्या गितांचो

गाद्यांचो गोड घमघम, पावलांचेर फुलांचो स्पर्श,
तरणे मोगी मेळतात जाणट्या बायलो वत घेतात
खंयच्याय मार्गार आयकुपाक येता वसंताचें गीत
कू... कू... जग्...जग् पू...वी टुवी... टुवी

---

Original Poems & Poet :
**Spring** - Thomas Nash

5.

## सुख जीवन

तो कितलो सुखी जो जल्मान वा शिकवणेन
दुसरयाचे इत्से खातीर काम करिना:
प्रामाणीक विचारूच ताचें कवच
आनी सादें सत्यच ताची व्हडली निपुणटाय

वासना ताचे धनी न्हय
जाचो आत्मो अजून मरणाक तयार जावन आसा
जगा कडेन एकरूप जावन
भव्य प्रेमाची वा पोजड्या श्वासाची जतनाय घेवन

जो आपली जीण वावड्यां थावन मुक्त दवरता,
घेता आत्मसाक्षीचो आसरो
जाची अवस्था तुस्त करप्यांक पोशिना
आनी विनाशांत दूशणकारांक वाडयना

दुसरयांचे उदरगतीन जो मत्सर करिना
अवगुणय ना; जो केन्नाय समजलोना
की तोखणाये बरोबर गंभीर घाय बी मेळतात;
राज्याचे नेम सोडून बरेपणाचे नेम घेता !

जो देवाकडेन सांजे सकाळीं मागता
ताचे कृपे खातीर, आनी खंयचेय भेटवणे परस;
निरुपद्रवी दिसाचो वेळ दिता
एक वेंचीक पुस्तकाक वा इश्टा खातीर;

तो मनीश मुक्त बंधनांतल्यान
वयर चडपाचे आशेच्या वा पडपाचे बिरांतिच्या
तो स्वताचो यजमान, भूंयचो न्हय तरी
ताचे कडेन कांय नासूनय सगळें आसा.

---

Original Poems & Poet :
**Character of a Happy Life** - Sir Henry Watton

6.

## मरणा, गर्व नाका

मरणा, गर्व करूं नाका, थोडयानीं तुका
पराक्रमी आनी भिरांकुळ म्हूण सांगलें जायत, पूण तूं तशें कांय न्हय;
जांकां तूं उखलून उडयतलो अशें चिंतता
ते मरनात, मरणा, आनी तूं म्हाकाय मारूंक पांवचो ना
विसव आनी न्हीद हें, तुजेंच चित्र, पुण दिता
खूब समधान; तेन्ना तुजे कडल्यान चड मेळूंकच जाय
रोखडेच आमचे बरे मनीस तुजेलागीं पांवतले
दीवन तांच्या हाडांक विसव आनी आत्म्यांक सुटका
तूं गुलाम नशिबाचो, भाग्याचो, रायांचो, आनी अविचारी मनशांचो
आनी उरता विशांत, झुजांत आनी रोगांत
पुण नशेचें वखद वा जादूमंत्र दितली आमकां बरी न्हीद
आनी तुज्या मारा परस बरी ती तेन्ना फुलता वोगीच कित्याक?
एक झेमेल्ल्या उपरांत आमी जागे जातले अनंतांत
मागीर मरण कांय आसचें ना; मरणा, तूंच मर

---

Original Poems & Poet :
**Death be not Proud** - John Donne

7.

## कुड्डेपणार

ह्या विशाळ, काळखी संवसारांत म्हजे दीस अर्दच गेले तरीय,
उजवाड म्हजो कसो सोंपलो असो विचार येता,
आनी जी प्रतिभा लिपयतना हांव मरतां,
तिचो उपेग सरला, तरीय म्हजो आत्मो आवंडेता

सेवा करपाक म्हज्या स्वाम्याची, आनी सादर करपाक
म्हजो खरो हिशोब, परत येवन ताणे तापोवचे पयलीं–
देव करून घेता काय दिसाचें काम, उजवाड काडूनय?
हांव विचारतां भक्तीन; पूण सोंशीकपण, आडावन

तो फुतफुतो, रोखडीच जापदिता देवाक नाका
मनश्याचें काम वा स्वताचें इनाम: जे कोण घेतात
खांद्यार ताची ल्हवू जोत, ते करतात ताची सेवा बरी ताचें राज्य

रायाचें; ताचे सांगणेन हजारानी लोक करतात
धांवपाळ विसव नासतना जमनीर आनी दरयांत:
ते लेगीत करतात सेवा,जे वोगीच रावून वाट पळयतात

---

Original Poems & Poet :
On his Blindness - John Milton

8.

## जीण

जिणे तूं कोण हांव नेणा
तरी तुका सांडपाचें खरें, हें हांव जाणा
आमी केन्ना वा कशें आनी खंय मेळ्ळीं
हें गुपीत अजूनय हांव कांय नेणा
जिणे आमी सांगाता उरिल्लो काळ
बरे वायट हवेचो
लागिंच्या इश्टांक पयस वचप कश्टच
सुस्कार येतलो आनी दोळ्यांत दुकां भरतलीं
देखून चोर पावलानी चल, सांगनासतना
आनी तुका जाय तेन्ना
सांगूनाका रातची विदाय, खंयच्याय उजळ वेळा
सांगपाक यो सुप्रभात

---

Original Poems & Poet :
Life - A.L.Barbould

9.

# सगळें सकड गेलें

म्हजे वांगडा खोळपाक इश्ट आशिल्ले, अशिल्ले संगाती
म्हज्या भुरगेपणाच्या दिसानी म्हज्या शाळेच्या खोशी दिसानी
सगळीं, सगळीं गेलीं, वळखिचीं तीं पोरणीं तोंडां.

हांव हासत आयलां, सोरो चड पियेत रावलां
पियेत चड रात केल्या, रातचो उसरां बसलां जीवभावाच्या इश्टांक घेवन
सगळीं, सगळीं गेलीं, वळखिचीं तीं पोरणीं तोंडां.

एकदां हांवें एके मोगिकच मोग केला, अस्तुरी ती अती सुंदरी
तिचें दार म्हजे खातीर बंद आसा, हांवें तिका पळोवंचें न्हय
सगळीं, सगळीं गेलीं, वळखिचीं तीं पोरणीं तोंडां.

आसा म्हजो एक इश्ट, इतलो मायेस्त इश्ट हेरांचो नासत
अनुपकारी हांव, अचकीत त्या इश्टाक सोडलो
सांडलो ताका, मनांत हाडपाक वळखिचीं तीं पोरणीं तोंडां.

भूता भशेन हांवें पासेय मारल्यो भुरगेपणा संचारांत
भूंय दिसली रेंवाट, म्हाका बालांडपा खातीर
सोदीत तीं वळखिचीं पोरणीं तोंडां.

म्हज्या जीवाभावाच्या इश्टा, तूं म्हज्या भावा परसूय श्रेश्ट
तूं म्हज्या बापयगेर कित्याक जल्मलोना?
तर उलोवं येतालें वळखिच्या त्या पोरण्या तोंडां विशीं.

तांतूतले कांय जाण कशे मेले आनी कांय जाण कशे सोडून गेले,
कांय जाणांक म्हजे कडल्यान व्हेले; सगळे संवसार सोडून गेले
सगळीं, सगळीं गेलीं, वळखिचीं तीं पोरणीं तोंडां.

---

Original Poems & Poet :
**The Old Familiar Faces** - Charles Lamb

10.

## वाग

वागा वागा परजळट्या
रातच्या रानांत-वनांत गा
खंयच्या अमर हातान, दोळ्यान
तुजें भीकर समप्रमाणर चलें?

खंयचे खोलायेंत वा मळबार
जळ्ळो तुज्या दोळ्याचो उजो?
खंयच्या पांखट्यांची धिटाय ताचे म्हत्वाकांक्षची
खंयचो तो हात, उजो धरपाक धाडशी

आनी खंयचो खांद आनी खंयची कला
मुरडायत तुज्या काळजाचो स्नायु?
आनी जेन्ना तुजें काळीज मारपाक लागलें
भंय खंयच्या हाताचें? आनी भंय खंयच्या पायाचें?

खंयचो तुतयो? खंयची संखळ
खंयच्या खोरनांत आशिल्लो तुजो मेंदु?
खंयचें एरण? खंयचो कड कडेचो पकड
भिरांताचो धास्ती वेंगावपाका धीर करतलो

जेन्ना नखोत्रानी आपले भाले सकयल उडयले
आनी स्वर्ग तांच्या दुकानी शिंपयलो
तो हासलोकाय ताचें काम पळोवन?
ताणेच तुका रचलें,जाणें ते बोकडे पिलाक रचयल्ले?

Original Poems & Poet :
**The Tyger** - William Blake

11.

## म्हजो मोग म्हळ्यार

म्हजो मोग म्हळ्यार तांबडे तांबडे गुलाब
जें नव्यान फुलेलें
म्हजो मोग म्हळ्यार गोड गोड गीत
मधूर स्वरान गायलेलें

जितली गोरी तूं सोबीत मोगा
तितलो बुडलों हांव तुज्या मोगांत
आनी मोग करीत रावतलों
सगळो दरयो आटत पर्यंत

सगळो दरयो आटत आनी
वत खडाप कडयत पर्यंत
तुजो मोग करीत रावन, मोगा
जिणेचीं खिणां सरतनाय

विदाय, अद्वितीय मोगा
वचून येतां, एक घडी
आनी परतून येतलों प्रिये
धा हझार मैल पयसुल्यानय

---

Original Poems & Poet :
**My Love is Like a Red Red Rose** - Robert Burns

12.

## लेसली सुंदरी

पळयल्या तुमी लेसली सुंदरीक
ती सीमा पार करून वतना?
ती गेल्या अलेक्सांडरा वरी
जैत चडचड पयस पातळावपाक.

तिका पळवप म्हळ्यार मोग करप तिचो
आनी तिचो मोग करप सदा खातीरचो;
ती जशी आसा, तशी सैमान निर्मिल्या तिका
आनी तिचे समान दूसरी जाली ना

राणी तूं, लेसली सुंदरी.
तुजी प्रजा आमी तुजे मुखार;
दैवी तूं, लेसली सुंदरी
मनीस काळजांत थावन पुजतात तुका.

तुका राकेसूच आवडतलो न्हय
न्हय तो दुखीत तुजे कडेन
तुजें सोबीत तोंड तें देखपाक
सांगतलो तुकां हांव कांय करिना

वयल्यो शक्ती तुकां राखतल्यो;
दुर्भाग्य तुजे वाटेर येवंचें ना;
तूंय तांचेच भशेन इतली सुंदरी,
की त्यो तुजे लागीं अनिश्ट येवपाक सोडच्यो नात

परत यो लेसली सुंदरी
कालिडोनीक परत यो,
तेन्ना आमी गर्वान सांगूं येता सोबीत चेली
ना हेर कोण तिचे समान सुंदरी

---

Original Poems & Poet :
**Boonie Lesley** - Robert Burns

13.

## एक मोगाळ चुंबन

एक मोगाळ चुंबन, आनी जालिं आमी वेगळीं
अलविदाय मागीर सदां खातीर
काळीज पिळून काडिल्ल्या दुकांच्यान तरी,
घे म्हजे सुस्कार आनी पिरंगणां
तिज्या आशा किरणांची संपत्ती
आसतना खंती म्हूण कोण सांगतलो?
हांव, जळना उरभेन चकचकीत
आयलो निर्शवन काळोख भोंवतणीं

म्हजे अपूर्ण कल्पनेक दोश दिवंचो ना
नेन्सीक पयस करपाक जावंचें ना
तिका पळोवप म्हळ्यार तिज्या मोगांत पडप
तिजोच मोग करप, मोगांत सदां उरप
आमी मोग करूंक नासलो जाल्यार
आमी केन्नाच मेळूंक नासलीं वा एका मेकांक सोडलें ना तर
आमचीं काळजां केन्नाच फुटचीं नासलीं
तुका निरोप सोबीत मोगा

अल्विदा तुका, सगळ्यांत प्रिये,
तूं म्हजो आनंद, म्हजो भंडार
म्हजी शांती, खोस, मोग आनी समाधान
एय् प्रेमाळ चुंबन जालीं आमची वेगळ्यापण
एक मोगाळ चुंबन, आनी जालीं आमी वेगळीं
अलविदाय मागीर सदां खातीर
काळीज पिळून काडिल्ल्या दुकांच्यान तरी,
घे म्हजे सुस्कार आनी पिरंगणां

---

Original Poems & Poet :
**Ae Fond Kiss** - Robert Burns

14.

# सोबीत डून

सोबीत डूनाचे देगे वयल्या फुलानो
कशें तुमी फुलतात इतलें सुंदर
कशें तुमी गायतात सान सवण्यानो
हांव तरबुडलां हुस्क्यांत

सोबीत सवण्यानो, रुका फांट्यां वयल्या मधुर गायनान
काळीज म्हजें तुमी फुटयतलीं
हाडतात तुमी याद त्या दिसांची
जेन्ना म्हजो फटिंग मोगय खरो आसलो

सोबीत सवण्या, सांगाती लार्गी मधुर गावन
तूं काळीज म्हजें फुटयतलें
हांव तसो बसलों, तशें गायलें,
नशीबांतलें सगळें सोडून

फिरलों हांव परत परत डूनचे सुंदर देगेर
पळयत वालिंचें आलिंगन
हो तेंच सुकणें गायतालें मिलनाचें गीत
आनी हांव गायतालों म्हजेंय

खुंटायलें हांवें एक गुलाब ल्हवू काळजान
ताज्या कांट्याळ्या झाडा वयल्यान
आनी म्हजे नकली मोगीन व्हेलें तें गुलाब
पुण सोडले तांचे कांटे म्हजे खातीर

---

Original Poems & Poet :
**Bonnie Doon** - Robert Burns

15.

## खूब पयलींचे ते दीस

पोरण्या वळखिच्यांक विसरचें व्हय
आनी तांची याद करची न्हय?
पोरण्या वळखिच्यांक विसरचें व्हय
आनी खूब पयलींचे ते दीस?
।।धुलपद।।

खूब पयलींच्या त्या दिसां खातीर, गा
खूब पयलींच्या त्या दिसां खातीर
आमी घेवया एक पेलो मायेचो
खूब पयलींच्या त्या दिसां खातीर

आनी तूं तुजो पेलो भरतलोच
आनी हांव भरतलो म्हजोय
आनी आमी घेतले एक पेलो मायेचो
खूब पयलींच्या त्या दिसां खातीर ।। धुलपद ।।

आमी दोगांय दोंगरा देंवतेर फिरताले
आनी सोबीत फळां खुंटताले
पुण भोंवन आमचीं पांवलां थकेतालीं
खूब पयलींच्या त्या दिसानी ।। धुलपद ।।

आमी दोगांय व्हले मारताले व्हाळांत
सकाळच्यान रातच्या जेवणाचो वेळ मेरेन
पुण अमचे मदली विशाळ दरया गाजेल्या
खूब पयलींच्या त्या दिसां उपरांत ।। धुलपद ।।

आनी थंय एक हात म्हज्या विश्वासी मित्र
आनी दी हात तुजो मेळोंव्या
आमी घेंवया एक पेलो सदित्सा खातीर
खूब पयलींच्या त्या दिसा खातीर ।। धुलपद ।।

---

Original Poems & Poet :
**Auld Lang Syne** - Robert Burns

16.

## खोशियेचो गांव तो

हांव थकलां, सोंपत आसा,
गिमाचें बरफा भशेनगो
हांव झरत सरत आसा
खोशीचे तें गांवा कडेन
थंयसर चिंता म्हळ्ळें ना
थंय थंडी छिद्र नागो
विश्वासाचो तो गांवांत

खरें प्रमाणीक सत्य तूं
वावर तुजी कठीण न्हयगो
येवकार दिता तुकां
विश्वासाचो तो गांवाका
थंय उरता आमची पोरी
ती बरी अनी सुंदरिगो
ओ कित्या धाडून दिल्ल्या तिका
विश्वासाचो तों गांवाक

घे दोळें पूसुन
आत्म मुक्त जाता
देवत्यो राकतात म्हाका
विश्वासाचो तो गांवाक
शोक नातिल्लें धाडून दीं
जगाची जीण व्यर्थ
यो ओट्ट मेळून नाचूयां
विश्वासाचो तो गांवांत

---

Original Poems & Poet :
**The Land of the Leal** - L. C. Nairne

17.

## व्हाळता व्हाळ

कोंबो साद येत आसा
व्हाळ व्हाळत आसा
सान शेवर्णी चिंव-चिंवतात
तळयेचें प्रतल झग झगता
पाचवें शेत वतांत न्हिदून आसा
जाण्टीं आनी भुरगीं घट लोकां सांगाता
मेळून काम करतात
गोरवां चरत आसात
तकल्यो वयर करीनासतना
तकल्यो चाळीस तरी, खातात एकच वरी

हारवल्ले सैन्यावरी
आतां बरफ पडना
आनी कांय बरें ना
थंय दोंग्राचे उक्त ताळवेर
कसोवपी चेडो 'हूप-हूप' करीत सांगता:
आनंद जाल्ल्या पर्वताचेर खोशीच खोश
झरयेंत जीण व्हाळता
लान धिफळो पेंवता
मळब निळें निळें
पावस थांबलो, गेलो

---

Original Poems & Poet :
**Written in March** - W. WordsWorth

18.

## पळयतना, उडकी मारता हरदें

मळबा वयलें इंद्र-धोणू दिसतना
मेगेलें काळीज उडता, वयर येता
तशें जातालें जिणेचे सुरवातीक
अजूनय तशेंच जाता, वाडलों तरीय
आनी तशेंच जातलें म्हज्या म्हांतरपणांतय
ना तर मरूंदी म्हाका
चेरडूं मनशाचो बापूय
आशेतां हांव येत तो म्हजो दीस
बंदिस्त दरेकाक एक सैमीक भावार्तान

Original Poems & Poet :
**My Heart Leaps When I Behold** - W. WordsWorth

19.

## एक तकरार

एक बदल जाला हांव दुबळो जालां
हालींच्याच काळांतमू तुजो मोग आशिल्लो
एक झरो जावन म्हज्या मोगाळ काळजाच्या दारांत
ताचें एकच कार्य म्हळ्यार व्हाळप
आनी तो व्हाळत रावलो
ताचीच उदारताय वा म्हेगेली गरज पळयनासतना

कितले खोशेचीं खिणां तीं
धन्य हांव, परम सुखी हांव
आतां त्या फुत फुतपी, तेजस्वी,
जित्या मोगाचो पवित्र झरो
म्हाका फावो व्हय? तोंड सोडून सांगूं?
हांव एक अस्वस्थ आनी अदृश्य बांय

ती बांय मोगाची जायत आसूंयेता खोल
म्हाका खात्री आसा आनी आटची ना केन्नाच:
म्हूण कितें उदक न्हिदलां
वोगी आनी अज्ञानांत
इतलो बदल आनी म्हज्या दारा कडेनच
मोगाळ काळजाच्या दुबळो करून उडयलो

---

Original Poems & Poet :
**A Complaint** - W. WordsWorth

20.

## डेफडील फुलां.

जेन्ना हांव भोंवतालों एकलोच एका कुपावरी
उफेवपी दोंगरा वयल्यान आनी देगणा वयल्यान
हांवें रोखडेच पळयलोएक चोंबो,
एक बाग भांगराळ डेफडील फुलांचें
सरोवरा देगेर, रुखा पोंदा
फडफडतालीं आनी नांचतालीं तीं मंद वाऱ्यांत.

जशीं नखोत्रां निरंतर परजळतात
आनी चकचकतात दूदगंगेंत,
तीं विस्तरतात अंत नाशिल्ल्या वळिनी
खाडयेचे देगे वयल्यान;
धा हजार फुलां पळयलीं हांवे एके उडटे नदरेन
तकली हालोवन उल्लासान नांचतना.

तांचे लागशिल्लीं ल्हारां नांचलीं; पूण तीं
लिकलिकपी ल्हारां परसूय आनंदीत आसलीं
खंयचोय कवी खोशी जायनासो रावचो ना
तसल्या एक उल्लासी सांगातान
हांवे नियाळ्ळें – एकाग्रतेन पळयलें? पुण समजलो ना
केदी व्हडली संपत त्या देखाव्यान म्हाका दिली ती.

खूबदां, जेन्ना हांव म्हज्या मांच्यार आडपडता
रिते वा चिंतेस्त अवस्थेंत,
तीं झगझगतात म्हज्या भितरल्या दोळ्यांत
दीत एकलेपणांत परमानंद;
आनी तेन्ना म्हजें काळीज सुखान भरता
आनी नांचता त्या डेफडील फुलां वांगडा.

---

Original Poems & Poet :
**Daffodils** - W. WordsWorth

21.

# समूह विळाप

तो दोंगरा वयर गेला
तो रानांत सांडला
गिमांत आटिल्ले झरये वरी
जेन्ना आमची गरज खर आशिल्ली
जलपात्र परत दिसून आयल्या
पावसाचे थेंबे उश्णें घेवन
पुण हाडिना आमका कांय उरबा
आनी डंकानाक फुडार

शेत लुंवप्यांचो हात
जून कणस काडटात
पुण रडप्यांचो आवाज तो
तेजांत विलाप हाडता
शरद रुतूचें वारें मारून
सुकिल्ल्या पानांक उडयता
पुण फूल आमचें नव्यान फुलतालें
क़िडेवपाक लागतना

दोंगरा पोकळेंत धांवप
अडखळींत शाणेपण
आक्रमणांत गुन्याव
कितली गाढ न्हीद
दोंगरा वयल्या दंवा वरी
न्हंयच्या उदकाच्या फेणा वरी
झरयेंतल्या बोमाड्यावरी
तूं गेलो, आनी गेलो सदा खातीर

---

Original Poems & Poet :
**Coronach** - Sir Walter Scott

22.

## व्हडपणा चेल्ली

मेयसी गर्वान पावली वनांत
सकाळीं फुडे चलत;
सवणें बसलां झाडा-पेडांत
विरळ स्वरान गायता

'सांग सोबीत सवण्या
केन्ना जातलें लग्न मेगेलें?'
'जेन्ना अपरूप न्हेसणेच्या स मनीस
व्हरतले तुका किर्का दिकेन, तेन्ना.'

'कोण घालून दितलो व्हकलेचें हांतरूण
सवण्या, खरें सांगशी?
'इगर्जेचो केश पिकिल्लो नोकर
जो फावो तशें फोंड खणटलो:
थड्या-फातरा वयलो काजुलो
तुजेर उजवाड घालीत रावतलो;
शिखरा वयलें घुगूम गायतलें
गर्विश्ट चलये, स्वागत तुका'

---

Original Poems & Poet :
**The Pride of the Youth** - Sir Walter Scott

23.

## कुब्लाखान

कुब्ला खानान फर्मायलें, बांदपाचें
शानाडूंत एक भव्य घुमट सुखाचें:
जंय आल्फ, पवित्र न्हंय,व्हाळताली
मनशांक बेसुमार अशा गुहांतल्यान
सूर्य नाशिल्ले दरया कडेन.
देखून धा मैल पिकाळ जमनीचे
भोंवतणी वणतीन आनी बुरजानी कोट बांदलो;
थंय आसलें फुलां-बाग आनी परजळीत नागमोडी वझरे,
चंवरले थंय खूब धूप दिवपी रूख;
आनी आशिल्लें रान दोंगरा तितलेंच पोरणें,
रुखावळींत वताचीं दाग धांपून.

पूण व्हा! ती रमणीय, व्हडली चीर देंवल्या
अमरपार पाचव्या दोंगरा वयल्या देवदार रुखां मदल्यान!
एक जंगली स्थान! केन्नाचे वरी पवित्र आनी मन-भुलोवपी,
जंय कृष्ण पक्षाच्या दिसानी एक अस्तुरी आपल्या
राकेस-मोगी खातीर विळाप करून भोंविल्ले भशेन!
आनी त्या चिरयांतल्यान सळसळून येता हून उदकाचो वझरो
जशी ही धरणी बेगीन श्वास घेता, खरशेता,
तशी एक झर खिणान फूटून वयर सरता:
अर्दीं मर्दीं तशी झर शीघ्र फुटून येतना
व्हडले कुडके उसळून आयले बर्फाच्या खड्यां वरी
वा मळणे वेळार दांडया कडल्यान दाणें उडचे वरी

आनी ह्या नाचपी खड्यां मदल्यान रोखडीच आनी सदा खातीर
सोडता न्हंय पवित्र आनी म्हत्वाची.
पांच मैल वांकडे-तिंकडे गतीन मोडून
ती पवित्र न्हंय धांवली रानांतल्यान आनी देगणेंतल्यान,
मागीर पांवली मनशाक अपरिमीत अशा गुहानी
आनी बुडली खवदळून निर्जीव सागराक
आनी ह्या बोवाळांत आयकलें कुब्लाक पयसुल्यान
झुजाची पारखणी करीत पूर्वजांची भविश्यवाणी

सूख दिवपी त्या भव्य घुमटाचें पडबिंब
वाटेर मर्दी उफेवता ल्हारांचेर;
जंय आयकलो भरसपाचो तो साद
वझरयाचो आनी भुंयारांतल्या उदकाचो
तो आसलो एक चमत्कार अपरूप कल्पनेचो
वत भरिल्लें एक भव्य घुमट बरफाच्या भुंयारां सयत

हांवें एकदां सपनांत पळयली
दुलसिमर घेवन बशिल्ली एक चलयेक:
ती आशिल्ली अबिसिनियाची चली,
आनी तिणें दुलसिमर वाजलें,
अबोरा पर्वताचें गीत गायत.
जर हांव शकलों म्हजे भितर पुनरुद्धार करपाक
तिचो सुरमेळ आनी गीत,
तर म्हाका इतली चड खोश जातली
की त्या व्हडल्या आनी लांब संगीतान
हांव वाऱ्यांत तो घुमट बांदतलो
तें परजळीत घुमट ! ती बर्फाची गुहा !
आनी जाणी तें आयकलें ते सगळे तें पळोवन
अड्डून बोब मारतले, शादूर! शादूर!
ताचे चकचकचे दोळे, ताचे उबपी केस
ताचे भोंवतणीं तीन दां वर्तूळ कर
आनी काड तुजे दोळे भंयान ताचे वयल्यान
कित्याक ताणे देवाचें अन्न खालां
आनी तो स्वर्गाचें दूद पियेला

---

Original Poems & Poet :
**Khubla Khan** - S.T. Coleridge

24.

## विद्वान

मेल्या सांगी वेगीन पासरता म्हजो वेळ
चोंय वशीन हांव पळयतां
जंय पांवता थंय दिसता
पोरणीं पराक्रमी मनां
केन्नाय हात-ना-सोडपी सांगाती ते
जांचे कडेन दिसान दीस हांव उलयतां

सुखांत तांचे लागीं हांव संतोष पांवतां
दुखांत समाधानय घेतां
हांव समजतां, अणभवतां
हांव कितलो ऋणी तांचो हे यादीन
पोले म्हजे ओले जातात
उपकाराचे भावनेन दुकां देंवतना

म्हजी चिंता मेल्ल्यां सांगाता
तांचे लागीं जियेता हांव खूब वर्सां पयलीं
तांचे शेगूण आवडता तांच्या दोशांक दोश दितां
तांचे आशेंत आनी आकांतांत भागी जाता
तांचे शिकवणेंत सोदतां आनी घेतां
पाठ नम्र मनान

आशा म्हजी पावलीं मेल्ल्यां विशीं :
तांचे कडेन रोखडांच पावतलों
आनी तांचे सांगाता भोंवतलों
सगळो फुडलो काळ
पुण हांगासर म्हजें नांव कायमचें उरतलें
तें धूळींत पुसून वच्चें ना.

---

Original Poems & Poet :
**The Scholar** - Robert Southey

25.

## रोस आयलमेर

हा, कितें फायदो सत्तेच्या कुळचो
कितें फायदो दिव्य रुपाचो
प्रत्येक सगुण प्रत्येक सोबाय
रोस आयलमेर, तुजे लागीं आशिल्ली

रोस आयलमेर,तुजे खातीर हे जाग्रत दोळे
रडत, पुण तुका पळयनात,
यादिची आनी सुस्काराची एक रात
तुका ओंपतां

---

Original Poems & Poet :
**Rose Aylmer** - W. S. Landor

26.

## कायमचो मोग

मोग सदा उरतलो
न्हंये वरी व्हळतलो
काळाचो प्रयत्न
व्यर्थ करीत

आनी खंयचोय संतोष
हाचे लागीं पांवचो ना
आनी एक निधी वरी
आमी ही सांखळ वेंगायतले

तरीं आमचो सुसकार
सोंपचो ना मरतनाय
आनी तयार जातलीं उडपाक
मोगाचीं विस्कट पांकटां

देखून आमी करूंया
मोग ऋतुचो
आनी तो जावंदी फकत वसंत ऋतू

---

Original Poems & Poet :
**Could Love For Ever** - Lord Byron

27.

## नाका आमी आतां चड भोंवचें

नाका आमी आतां चड भोंवचें
राती चड तोडोव जाला
प्रेम तसो काळजांत भरून आसा तरीय
चांदीणें तशें झगझगता तरीय

खड्ग म्याना परसूय झरता
भितरल्या आत्म्यान हड्डे थकेता
आतां काळजाक चिके श्वास घेवंक दी
प्रेम्याकय जाय सुसेग

रातचो वेळ मोग करपाक
आनी दीस येता फाटोफाट
देखून नाका आमी आतां चड भोंवचें
चांदीण्याच्या उजवाडांत

---

Original Poems & Poet :
**So, We Will Go No More a Raving** - G.G. Byron

28.

## प्रेम तत्व

झर भरसता न्हंयेंत
आनी न्हंय मेळता येवन दरयांत
स्वर्गाचें वारें भरसता सदां खातीर
मधुर भावनेंत
संवसारांत एकच अशें कांय ना
दिव्य नेमा प्रमाण सगळें
एकामेकांत मिसळता तर
कित्याक नाका तें तुजे म्हजे मदें?

पर्वत पळे मळबाचो उमो घेतात
ल्हारां वेंगायतात एकामेकांक
भयण फुलाक भगसुचें ना
तिच्या भावांक कुसकुटायलें तर
सूर्यप्रकाश भूंयेक वेंगायता
आनी चंद्रकिरणां दरयाचो उमो घेता
ह्या चुंबनाचें कितें मोल
तूं म्हजो उमो घेना तर?

---

Original Poems & Poet :
**Love's Philosophy** - Percy B.Shelly

29.

## भंय तुज्या उम्याचें, कोमल कन्ये

म्हाका तुज्या उम्याचें भंय कोमल कन्ये
पुण तुका म्हज्या उम्याचें भंय नाका
चैतन्य म्हजें इतले खोलायेंतलें
तुजेर वजन पडचें ना

भियेतां हांव तुजो हास, ताळो, तुजें चलन
पुण भिवंनाका तूं म्हाका
म्हजें काळीज निश्कपट भक्तीन
करता पूजा तुज्या काळजाची

Original Poems & Poet :
**I Fear Thy kisses, Gentle Maiden -** Percy B.Shelly

30.

## एक उतर केन्नाच भश्टलां

एक उतर केन्नाच भश्टलां
हांवें भश्टावंचे पयलीं
एके भावनेचो तिरस्कार जाला
तुवें हिणसावंचे पयलींच
एके आशेची निराशा जाल्या
आतां ती चतुरायेन कांय दामून उरची ना
दयेचें उतर आनियेक दी तूं
दुसरयांलें कित्याक हांव मनाक लावं

लोकमोग म्हणतात तो हांव दिवपाक शकना
पुण तूं मानून घेतली न्हय
काळजांतल्यान वयर सरिल्ली पूजा
जी स्वर्ग लेगीत न्हयकारची ना?
पाखो नखोत्रांक आनी
रात फांतोड्याक आशेता, तशी
ही भक्ती आमच्या दुखांच्या मळा वयल्यान
पयसुल्लें आशेता

---

Original Poems & Poet :
**One Word too Often Profaned** - Percy B.Shelly

31.

## मोवाळ ताळो सोंपतना

मोवाळ ताळो सोंपतना संगीत
उगडासांत कांपता
परमळ फुलांचो बावतनाय
तो तिगून उरता इंद्रियांत

गुलाब मेलें तरीय पाकळ्या ताच्यो
मोगाच्या हांतरूणार पडता
तशी तूं गेल्ल्या उपारांत म्हज्या विचारांत उरता
आतां मोगानच न्हिदपाक जाय

Original Poems & Poet :
**Music, When Soft Voices Die** - Percy B.Shelly

32.

# एक विलाप

हे जगा हे जिवा हे काळा
जांच्या निमाण्या पांवड्यार चडतां हांव,
थंय थरथरेत, जंय हांव पयलीं राविल्लों;
केन्नां परत येतलो प्रताप तुज्या सर्वश्रेष्ठ वेळाचो
केन्नायना – ओ, मातूय ना

दिसांतल्यान आनी रातच्यान
एक खोस उबतगेल्या
नवो वसंत आनी गीम आनी हिंवाळो जून
म्हजें भिजूट काळीज हालयता दुखान, तांतूत संतोस
केन्नायना – ओ, मातूय ना

---

Original Poems & Poet :
**A Lament** - Percy B.Shelly

33.

## ओझिमांडियास् रायु

हांव भेटलों एक भोंवडेकाराक पुरातन देशाच्या
ताणें सांगले : दोन व्हडले फातराचे पाय, कुडी भाग विरयत
मरुभूमींत पडल्यात... लागीं ताजें, रेंवेंत
अर्द पुरिल्लें, एक मोडिल्लें तोंड पडलां, त्या तिडकिच्या मुखमळार
मिरयो पडिल्लें ओंठ, आनी थंड तिरस्काराचो थोमणो
सगळ्या भावना शिल्पीन सामकी समजून दाखयल्यात
तांचो छाप आजुनूय तिगून उरला, ह्या निर्जीव वस्तूंचेर
तांका चाळयल्लो तो हात आनी पोशिल्लें तें काळीज
आनी त्या ऊंच बसक्यार हीं उतरां दिसतात;
म्हजें नांव ओझिमांडियास्, रायांलोराय:
म्हजें काम पळयात, ए बळवंतानो, आनी निराश जायात!
पुण आनीक कांय उरलें ना त्या भव्य अवशेशाच्या भोंवतणीं
उकतेपणान पातळून पडल्या
अनंत सपाट रेंवेचो निर्जन विस्तार.

---

Original Poems & Poet :
**Ozymandias** - Percy B.Shelly

34.

## जिप्सीं

बरफ पडता दाट; रान पडला एकसुरें
तो पोर वता वेगीन ताच्या लाकडाच्या भरया खातीर
तेन्ना उज्याचे यादीन तकतिकेन फाटिं परतलो
तो जिप्सी हात फाफुडता, मागीर वयर दोडता
आनी सोदता ताचो बुरशो तंबू
जो वारें आडावपी रुखा पोंदाक बरफांत अर्द लिपिल्लो
ओक रूका पंदान त्या वाऱ्याक मोडून काडता
आनी बरफांत बुडल्ली झोंप हून खोंपये वरी
लासून गेली शाकोती जळत्या कोळस्या वयर
आनी लागीं भागिल्लें सुणें बसलें आंग घश्टून
पुण हुनसाण लागता चड, देखून गेलें उठून पयस
तो लक्षान पळयता, पूण खावपाक एक कण मेळना
आनी निश्फळ रावता उडयल्ल्या कुडक्या खातीर
अशी तांची जीण– तांच्या थळाचें एक दृश्य
एक शांत, चोरांचो असुरक्षीत वंश

---

Original Poems & Poet :
**Gypsies** - John Clare

35.

## केन्ना हांव भियेता

म्हाका भंय जाता की हांव सोंपतलों म्हणून
म्हजे भरिल्ले मेंदूंतलें म्हजे लिखणेंत येवंचे पयलीं
बरें पिकल्लें धान्य कोठींत भरिल्लें वरी
पुस्तकांची ऊंच राशी हात बरपान भरचे पयलीं

जेन्ना हांव पळयतां रातच्या नखोत्रां भरिल्ल्या तोंडार
विलक्षण कूपांच्यो व्हडल्यो कुरू
सुदैवाच्या जादून त्या सावळ्यां फाटल्यान
वचपाक हांव उरचो ना म्हण चिंतता
आनी जेन्ना म्हाका भोगता की सुंदर सृश्टी
ह्या फुडे तुजेर केन्नाच नदर घालची न्हय
अपसरे, केन्नाच ओड जावंची न्हय
अविचारी मोगाची, तेन्ना विशाळ विश्वाचे
देगेर हांव एकलोच रावता आनी चिंतेंत उरता
मोग आनी नांव ना जायत मेरेन

Original Poems & Poet :
**When I have Fears** - John Keats

36.

## तेजवंत तारो

परजळीत नखोत्रा, तुजे तितलो हांव थीर आसचो
न्हय रातचे एकसुरेपणांत वयर हुमकळायिल्ले भशेन
आनी नियाळीत, दोळ्याच्यो पाती कायम उबतें दवरूंक
सैमाचो सहनशील! निद्रारहीत तपस्वी वरी
व्हळचे उदाक तें नेमाका मान तांचे याजका सारके
भूंयचे मनश्या किनारा भोंवाड्यान करता पवित्र न्हाण
न्हयवे नदर दवरून तें नवे मोवाळ रूपडें
झेलाचें पर्वत आनी वसाड जमीन वयल्यान
ना तित्लें निाल, तित्लें बदलाप नातिल्लो
म्हजें सुंदर मोगीलें तरणें छातीक उशें करून
ताचे मोवाळ देंवप आनी फुगप अणभवेतलो केदळाकूच
जागें आसतलो शाश्वत एक मधुर अशांततायेन
आनिकूय, आनिकूय आयकतलो तिज्या नाजूकायेचे स्वास
आनी तशें जियेयतलो सर्वदा वा धुंवळ येवनू मरतलो

---

Original Poems & Poet :
**Bright Star** - John Keats

37.

## सुंदरी न्हय भायल्यान

न्हय ती सुंदरी भायले नदरेन
हेर चलियां भशेन
कळूंक नाशिल्ली तिची सोबीतकाय
तिणें मंदस्मित म्हाका दिवंमेरेन
तेन्ना तिज्या दोळ्यांत तेज पळयलो
मोगाची उजवाडाची झरीय

पुण आतां तिच्या मुखामळार थंडाय आनी लज
म्हजे दिश्टीक तिज्या दोळ्यांची जाप ना
पुण हांव पळयत रावतां
तिच्या दोळ्यांतलो मोगाचो उजवाड
तिच्या निढळा वयल्यो मिरयोच बरें
हेर चेलियांच्या हासा परस

---

Original Poems & Poet :
**She is not fair to Outward View** - Hartley Coleridge

38.

## रेबिल्लस सरोवरा कडलें झूज

तांचे भोंवतणीं झूज चिके थांबलें
जेन्ना मारक झगड्यांत मेळ्ळे ते
तो रोमाकार आनी हो टस्कुलकार
तांचे घोडे काळ्या आनी गोबरा रंगाचे.
हरमिनियसाचो बलिष्ठ धपको म्यामिलियसाक
कवच पिंजून, छाती चिरून गेलो
आनी वेगान व्हांवलें थंय तांबडेंरगत
तांबड्या झग्यावयल्यान.
म्यामिलियसाचो बलिष्ठ धपको हरमिनियसाचें
शिरकवच चिरून तकलेंत रिगलो
आनी ते दोगांय गर्विश्ट फुडारी
एकच वेळा मरून सकयल पडले
सकल पडले ते मरून सांगाता
जालें सरोवराचें रगत बंबाळ
तरीय लोकरावले तें पळयत
हार जैताचो हिशोब करीत

---

Original Poems & Poet :
**The Battle of Lake Regillus** - Thomas B Macaulay

39.

## दाखय वाट, दिव्या

दाखय वाट, दिव्या, भोंवतणींत दाट जावंच्या काळखांत
दाखय म्हाका वाट
काळखी ही रात घर म्हजें खरें पयस
दाखय म्हाका वाट
सांबाळ म्हजीं पावलां, पळोवपाची इत्सा ना
दृश्य पयसुल्लें-एकच पावल दवरीन
हांव तसो नाशिल्लों तुजे कडेन कांय मागनाशिल्लों
मुखार म्हाका व्हरचो म्हूण
वाट म्हजी वेंचून काडपाक सोदतालों
दाखय म्हाका वाट
झग झगाचे जिणेंत रमलों, भयपूराय विसरून गेल्लों
गर्वान भरली उर्बा: विसर भूतकाळ
इतलोकाळ तुजो आशीर्वाद मेळ्ळो, तुजी सासाय
वाट दाखयतलीच
चिखलांतली, खडपा वयली आनी उदकांतली
रात सोपूं पर्यांत
आनी सकाळीं येतलो तो मंदहास देव दूतांचो
जो म्हाका पयलींच आवडटालो, पुण थोड्या वेळाक सांडिल्लो

---

Original Poems & Poet :
**Lead Kindly Light** - J. H. Newman

40.

## सपनां विकपाक आसत जाल्यार

सपनां विकपाक आसात जाल्यार
तू कितें घेशी?
तांतूंत कांय खिणयाळीं
थोडीं मेळतलीं एका ल्हव सुस्कारान
जो जिणेच्या मुकुटा वयलें
गुलाबाचें पान झडोवन सुटिल्लो
सपनां विकपाक तरी आसात जाल्यार
खोशेचीं आनी दुखाचीं
आनी विकपी घांट मारीत कळयत जाल्यार
तू कितें घेशी ?

एक एकसुरी, शांत खोंपी
लोक सारशिं येनातलें वालिंच्या मांटवा लागीं
सावळी दूक म्हजी देंवूक
पांवूक मरण मरूं पर्यंत
जिणेच्या मुकुटा वयले ते मोतियेक लागून
हांव खोशेन थारयार येतलों
तर सपनां इत्से प्रमाण मेळ्ळीं तर
म्हजे पिडेक तें वखद जातलें
तें हांव घेतलोंच

---

Original Poems & Poet :
**If there were Dreams to sell** - T. L. Beaddoes

41.

## ब्रह्म

तांबडो खूनी जर चिंतता की आपूण जिवशीं मारता
वा मेल्लो चिंतता की आपलो खून जाला
तर तांका कळीत ना म्हजो सुक्षीम सबाव
जो हांव सांबाळतां आनी दाखयतां आनी परतितां

पयसुल्लो वा उपेक्षीत म्हाका तें लागिंचोच
वत आनी सावळी एकच
अदृश्य देव म्हाका दिसतात
आनी एकच म्हाका मान आनी अपमान

म्हाका सोडिल्ल्यांक पिडेस्त लेखतात
जेन्ना हांव उडतां, हावंच पांकटां
हांव दुबावी आनी दुबाव बी
आनी हांवच ती स्तुती जी ब्राह्मण गायतात

बळवंत देव निस्तेज जातात म्हज्या निवासाक लागून
आनी निस्तेज जातात सात रुशीय
पूण तूं, बरेपणाचो विनम्र मोगी
सोद म्हाका, आनी स्वर्गाक कर तुजी फाट

Original Poems & Poet :
**Brahma** - Ralph Wald Emerson

42.

## जिणियंतले स्थित्यंतर

म्हजें अर्द जिवीत सोंपलें, आनी हांवें सोडलीं
तीं वरसां निसरून वचपाक आनी पूर्ण केलो ना
म्हजो तरणेपणाचो हावेस, बांदपाचो
कांय गितांचीं भव्य मिनारां

कारण आळसाय न्हय, आनी आनंद न्हय
उचांबळ भावना हाता भायर गेल्ल्याची तिडकय न्हय
पुण दुख्ख आनी मन खावपी चिंतेन
आड़ायलो म्हाका येस मेळपांत

चडटेचे अर्द वाटेर रावन हांव पारखितना
भूतकाळ सकयल पडिल्लो दिसता ताच्या नादां-दृश्यां सयत
एक शार तिनसांजेच्या मंद आनी विशाळ उजवाडांत
पाख्र्या वयर धुंवर, घांटेचो मोवाळ घांट साद, चकचकपी दिवे

आनी हांगा म्हजे वयर आयकता शरद रुतूचो स्पाट
पयस मरणाचो काळोख, पयस गडगडेता उंचवयल्यान

Original Poems & Poet :
**Mezzo Commin - H.W.Long Fellow**

43.

## तुजो हांव मोग करीना

हांव तुजो मोग करीना– ना तुजो मोग करीना!
तरीय तूं वचना फूडे हांव खिन्न जाता गो;
तुजे वयल्या नीळ मळबाचो म्हाका दुस्वास,
थंय तीं मोनीं नखोत्रां तुका पळोवन आनंद पावतात देखून

हांव तुजो मोग करीना पुण कित्याक म्हण कळना म्हाका,
तूं कितेंय कर, म्हाका तें बरें दिसता;
एकसुरेपणांत हांव केन्नाय चिंतून सुस्कारतां
जांचो हांव मोग करतां, तीं तुजेवरी कित्याक न्हय!

हांव तुजो मोग करीना! पुण तूं दिसना जाल्यार
म्हाका दुसरो आवाज आयकुचो नाका उलोवपी प्रिय तरी
जो मोडून उडयता घुमघुमपी प्रतिध्वनीत सूर
कानार पडुन उरचे तुजें संगीत

हांव तुजो मोग करीना! तरी तुजे सुचक दोळें
खोल, उजळ, नीळ, आनी अभिव्यक्तीचे दोळे,
म्हजे आनी मदरातिच्या स्पर्शा मदें,
हांवें पळयल्ल्या खंयच्याय दोळ्या परसूय चड उडून येता

जाण हांव तुजो मोग करीना! पुण अरेरे!
कोण पात्येवंचो ना म्हज्या उक्त्या काळजाक;
म्हजे लागींच्यान वतना तांचो मंदहास दिसता,
कारण म्हजे दोळे तुजेर थीर जाल्ले ताणीय पळयलांन

Original Poems & Poet :
**I do not Love Thee** - C.E.S. Norton

44.

## सुनीत विज्ञानाक

विज्ञान! पोरणे काळाची निजधूव तूं!
बारीक नदरेन सगळेंच बदलपी तूं.
तर कित्याक शिकार करता तूं अशें कवीचें काळीज,
गीद, जिर्ची पाखटां निस्तेज वास्तविकता?
ताणें कसो करचो मोग तुजो? वा मानचो शाणो तुका?
जो सोडीना ताका भोंवपाक
आनी रत्नखचीत मळबांत भंडार सोदपाक.
निर्भय पांखट्यान तो ऊंच उडलोतरी?
तुवें डायनाक रथार साकून ओडून व्हेली न्हय?
आनी धांवडायलें न्हय हमाड्रायड देवीक रानांतल्यान
खंयचे काय सुखी नखोत्रांत आश्रय घेवपाक?
तुवें ओडून काडली न्हय अपसरेक हुवारांतल्यान,
वनदेवतेक पाचव्या तणंतल्यान आनी म्हजे कडल्यान
गिमाचें सपण चिंचे रूका पोंदाचें?

---

Original Poems & Poet :
**Sonnet-to Science** - Edgar Allan Poe

45.

## हेलेन

हेलेन, सोबाय तूजी दिसता म्हाका
नायशियाच्या पोरण्या तारवां भशेन
जें सौम्यान वता दरया वयल्यान
आनी यात्रेन थकिल्ल्या प्रवास्याक
पांवयता आपल्या जल्म देशाच्या तिरार.

भिरांकूळ दरयांत सदा भोंवपी म्हाका
तुज्या फुलांतुरया सारक्या केसान, उत्कृष्ठ तोंडान
आनी अपसरेच्या गुणान म्हाका व्हेलो परत
यवनांच्या ग्रिसाच्या तेजांत
आनी गतकाळा रोमाच्या भव्यतायेक

पळयत्या जनेला कडेन
कशी पुतळ्यावरी तूं राविल्ली दिसता
भांगराचो दिवो हातांत घेवन
मानस देवीच तूं
पवित्र भुंयच्या प्रदेशाची

---

Original Poems & Poet :
**To Helen** - Edgar Allan Poe

46.

# मोड, मोड, मोडून घे

मोड, मोड, मोडून घे
समिंद्रा, काळ्या, ओल्या फातरार तूंव
उच्चारपाक सोदता मेगेली जीब
विचार म्हजे भितरले सगळे

बरें जावं खारव्याच्या पोराचें
जो आडुता खोळून ताचे भयणी कडेन
बरें जावं तारवटिच्या पोराचें
जो ल्हारां वयल्या व्हड्यार गायता खाडींत

व्हडलीं तारवां फुडे वतात
दोंगरा लागींच्या बंदरा कडेन
बाबरे, एक हात स्पर्शून दिसना जाता
एक साद उच्चारिल्लो वोगी जाता

मोड, मोड, मोडून घे
समिंद्रा, तुज्या खडापांच्या पायां पोंदा
पूण ह्या दिसाची सोबाय जी मेली
ती परत केन्नाय मेळची ना

---

Original Poems & Poet :
**Break, break, break** - A.L.Tennyson

47.

## दरयांत वचपाचो वेळ

सूर्यास्त आनी सांजेचें नखोत्र
आनी म्हाका एक स्पश्ट उलो
गडये बंदराचो अर्थ कांय ना आसता
जेन्ना हांव दरयांत वता

पुण भरती सुकती न्हिदिल्ले भशेन आसा,
इतलो भरिल्लो, येना ताचो साद आनी फेण,
हिसपा भायले खोलायेंतल्यान आयिल्लें तें
घरा परतून वता.

तिनसांजे येता सांजेची घांट
आनी उपरांत काळोख
नाका शोक निरोप घेतना
हांव तारवार चडतना

कित्याक, पावपाच्या वेळाच्या आनी सुवाते कडल्यान
प्रवाहान जरी म्हाका पयस व्हेलो
तरी वाट पळयतां म्हज्या मार्गदर्शकाचें दर्शन
बंदरा कडलो रेंवे-पटो हुपतना

---

Original Poems & Poet :
**Crossing the Bar** - A. L.Tennyson

48.

## तर जाय कितें

उणेपण दिसता–कसलें?
गरजे भायलो गीम,
भरपूर निळें मळब,
खंय आसा कळंक?

तेजवंत संवसार, तरी लेगीत कोरो
जशें चौकट भितर घालपाक चित्र सोदता;
पानावळिचें कितें, फुलाचें कितें?
गुलाबाच्या मांटवाचे भितर मात शून्य!
तर यो, कर अपूर्णाचें पूर्ण, येवप्या,
नीळ मळबाक शिगुळून गिम कर पूर्ण

घे एकदां श्वास
गुलाबा सोबाय वयर
आनी मेल्लें तें सगळें
वाडयता जीण, वाडयता मोग,
वाडयता मोग!

---

Original Poems & Poet :
**Wanting is-What** - Robert Browning

49.

## ‘असोलांडो’ - उपसंहार

मदराती, न्हिदपाच्या मोने वेळांत
तुमच्यो कल्पना स्वतंत्र जातात तेन्ना
पांवतल्यो, जंय तो मरणाच्या बंदखणींत पडला अशें मूर्ख चिंततात ?
ताणें तुमचो मोग केलो आनी तुमी ताचो मोग केलो काकूळट म्हजी?

हा, इतलो मोग करप, इतलो मोग मेळप, आनी गैरसमज जावप!
हांव कितें करपाचें भूंयंत
आळसांक, हळवे मनशांक, भिजूटांक घेवन ?
हेतुहीन, निराधार, निराशेल्ल्यां भशेन पिशेंपणां उलयलों ? कोण म्हणून ?

केन्नाय फाटीं वळून पळयनासतना हड्डे फुडे करून मुखार सरपी म्हणून
कुपां पयसा वतलीं, हाचो दुबाव सोडून
वायट घडलें तरीय, चूक जिखत म्हण सपणांत लेगीत चिंतलें ना
आमी चडपा खातीरच पडटात,
गोंदळतात बऱ्या झुजा खातीरच निदलां जागो जावपाक

ना, दनपारा कामा वेळाच्या धांवपाळी मदें
अयोग्यांकय अभिवादन कर उमेदीन!
फर्मायात ताका, मुखार सरपाक लडाय करपाक वा फाटीं सरपाक
‘संघर्ष आनी उत्कर्ष ’, ‘रड’ बेगीन झूज, सदां हांगाचे वरी थंय बी!

---

Original Poems & Poet :
**Epilogue to 'Asolando'** - Robert Browning

50.

# एक स्तुती गीत भुरग्याचें

आयक म्हजी प्रार्थना, अमच्या बापा सर्गीच्या
हांव न्हिदपाक वच्चे पयलीं
फर्माय तुज्या शुद्ध, पवित्र देवदुतांक
म्हजे खाटे भोंवतणीं शादूर रावपाक

म्हजीं पापां जड, पुण तुजे दयेचें
वजन तांचे परस, दर एका परस चड जड
तुज्या खुरसा सकयल हांव तीं उडयतां
फकत तुज्या आदाराक पातयेवन.

सांबाळ म्हाका धोक्यांत,काळखाच्या
हे सबंद रातचे खाला सीममेर नाशिल्ल्या
व्हर म्हाका तुजेसरीं विसव घेवपाक,मागतां तुका,
जेन्ना म्हजी तीर्थयात्रा सोंपतली

कोणाकूय मेजपाक जावचे ना तुजें सोंशीकपण
मनश्या चिंतनाच्या वेंतान
कोणाक जातलें शीम घालपाक नाजूक दयेक
जी तुज्या पवित्र पुतान आपणायल्ली

भोगशी म्हजीं आदलीं उल्लंघनां
दी म्हाका शक्ती फुडल्या दिसां खातीर
वाट दाखय आनी राख म्हाका तुज्या आशीर्वादान
तुजे देवदूत म्हाका घरा आपयत मेरेन

---

Original Poems & Poet :
**A Child's Hymn** - Charles J H Dickens

51.

## जीण

विश्वास दवर, जीण एक सपन न्हय
शाणे सांगतात तशी काळखी न्हय
आदींमदीं सकाळचो पावस
एका सुखदिण्या दिसाचें भविश्य सांगता
केन्ना केन्ना काळखी मेघां येतात
पूण हें सगळें खिणायळें
जर शिंवरान गुलोब फुलता
तर तो पडतना कित्याक विलाप?

बेगीन आनी मजेन
जिणेचीं चकचकीत वरां उडून वतलीं
दिनवाशीन, उमेदीन
आनंद घेयात तीं उडत वतना

केन्ना मरण भितर सरून
आमच्यांतल्या बऱ्या लोकांक आपयता म्हण कितें?
आस्त गेली, दुख जिखलें, मन हाल्लें म्हण कितें जालें?
आस्त परत उडकी मारून वयर सरता,
पडिल्ले कडल्यान उठून जैत जोडता
तिजीं भांगराळ पांखां अजून उफेवपा सारखीं
अजून आमकां बरे भशेन व्हरपाक बळाचींच
मनीशपणान, धिटायेन
धर्मासन सभेक तोंड दी
कारण प्रतापान, यशस्वीपणान,
धाडस निराशेचें शमन करता.

---

Original Poems & Poet :
**Life** - Charlotte Bronte

52.

## एक मोनी सोंशीक मावली

एके मोनी सोंशीक मावलीक
लक्ष घालें हांवे जेंय तें रावतालें एक ल्हान भूंयशिरेर वेगळेपणान
लक्ष घालें कशें तें सोदपाक रितें विशाळ बोंवताणीक
ताणें घाल्ले भायर तंतू, तंतू,तंतू, आपल्या थावन,
केन्नाय तें सोडवायत, सरवदा थकनाशी तें तकतीकान

आनी तू म्हज्या आत्मो खंय रावला तूं,
आवारांतल्यान अलग रावून, पार नातिल्या सागराचे अंतरिक्षांत,
निरंताचे मनन, साहसान, उडोवन, सोदीत तांका जोडपी तीं म्हळांक
तें मेरेन तुज्या गरज्येचो सांकूव घडवप्या मेरेन, आंगशीरा नांगोर पकडता मेरेन,
तें मेरेन आंगवाले सूत तूं शेंवटायले धरता खंयपुण, हे म्हज्या आत्मो

---

Original Poems & Poet :
**A Noiseless Patient Spider** - Walt Whitman

53.

## संघर्षाचें फळ

सांगूं नाका संघर्श फळ दीना म्हूण
वावर आनी घाय व्यर्थ जाले म्हूण
दुस्मान कांय बेशुद्ध जायना, हारवना
सगळें जशें आशिल्लें तशेंच उरलां

आशा जर भोळी आसली तर भंय जायत फटींग
घडये, थंयसर धुंवरान पांगरून
तुजे सांगाती आतां पळून वचप्यांचे फाटीं लागल्यात
तुजे शिवाय ते झुजा मळ जिखतात

ल्हारां जरीय थकेवन वृथा कोसळिल्लीं
दिसतात हांगा त्रासान कांयच मेळयनासतना
तरीय पयस खाडींतल्यान व्हाळून
मोन्यानी रिगतात प्रमुख प्रळयांत

फकत उदेंतेचे जनेलांतल्यान न्हय
दिसा उजवाडा बरोबर भितर येता उजवाड
मुखार सूर्य वयर सरता हळू, कितलो हळू!
पुण अस्तंते कडेन पळय, ती भूंय कितली उजळ

---

Original Poems & Poet :
**Say Not the Struggle naught availeth** - Arthur Hugh Clough

54.

# पलेडियम

सिमोयिस न्हंयची वयली झर व्हाळता थंय उबें
पलेडियम, खडपां वयर आनी राना वनांत;
आनी हेक्टर आशिल्लो इलियमांत, खूब सकयल,
आनी झुजतालो, तें पळयनासतना पुण तें थंयच आशिल्लें

तें राविल्लें आनी सूर्य-चंद्राचो उजवाड शिंवरलो
मोवाळतायेन बांदिल्ल्या सालाच्या शुद्ध खांब्यांचेर.
झूजाचीं ल्हारां फुडे सरलीं, फाटल्यान लोळ्ळीं
ट्रायचे भोंवतणीं, पूण हें राविल्ल्यान, ट्राय पडचें नासलें

ताच्या सुंदर चारित्र्ण्यांत, तसो जियेता आत्मो.
ताच्या भोंवतणी दोंगर आनी नितळ गोड वारें;
थंडाय उसळायत, स्वच्छ उदक ल्हारेता;
आमी तें भेटतले, त्यो घडयो, हो, अपूर्व !

आमी नवें करतले तें झूज मैदानांत
फाल्या - रगतान शांतूस न्हंय तांबडी जातली
हेक्टर आनी अजाक्स परत थंय पांवतले
हेलेन येतली किल्ल्या वयर पळोवपाक.

तेन्ना आमी कळमेतले सावटेंत, वा झुजांत झगझगतले,
आनी चंचळ जातले कुड्डे आशेचे आनी कुड्डे निरशेवणे मदें,
आनी कल्पना करतले आमचे सगळे जिणेची
आनी आत्म्याक केन्नाय कळचें ना ती कशी फुडे वतली तें

तरीय आत्म्याच्या वयल्या किल्ल्या कडल्यान
आमचे जिणेंत एक प्रभावी स्राव येता
आनी केन्ना तो सोंपतलो, आमी झुजले तरीय मरतले
आनी तो उरत मेरेन आमी कांय सोंपचे नात

---

Original Poems & Poet :
**Palladium** - Mathew Arnold

55.

# डोवर किनारो

दरया हो शांत आसा हे राती
भरिल्ले भरतेर चान्ने पडलां अशें सुंदर
समुद्रा धुनींत, फ्रेंच तीरार उजवाड
झग झगता आनी वता; इंग्लेंडाचे विशाळ दोंगर रावल्यात
घालीत हयन्हयसो उजवाड, शांत आखातांत
यो जनेला कडेन, गोड हें रातचें वारें!
फकत, थंयच्या शिंवराचे लांब वळये कडलो
दरया जंय मेळता चन्न्या-धवे जमनीक
कान दीवन आयक तूं कर्कश गाज फातुल्ल्यांचो.
जांकां ल्हारां फाटीं ओडतात, आनी शेंवटितात,
परत हाडून वेळे वयले उंचायेर
सुरुकरतात, सोंपयतात, आनी परत सुरु करतात
थरथरपी स्वरक्रमान हळूच आनी हाडता
दूखाचो शास्वत स्वर राग

सोफोक्लिसान तो खूब वर्सां आदीं
आयकल्लो एजियन वेळेर, आनी ताच्या मनांत
आयिल्लो खदूळ सुकतीचो आनी ओगाचो
मानवीक विपत्तीचो आमका
दिसता एक विचारयत्या सादांत
आयकून ताका पयस उत्तरेच्या धरयांतल्यान
विश्वासाचो समुद्र

आशिल्लो एकदां, भरून पूर्ण, आनी सगळे भूंयचे वेळे वयल्यान
बांदिल्ल्या झगझगीत कमरपट्याच्या घडयांवरी
पूण आतां हांव आयकतां फकत
ताचो विशाद फाटीं सरची दीर्घ गाज
आश्रया कडेन श्वासा कडेन
रातच्या वाऱ्याच्या विशाळ निस्तेज किनाऱ्या वयल्यान
आनी उगतें सरपी संवसाराच्या

हा, मोगा, आमी प्रामाणीक रावया
एकमेकां कडेन! कारण संवसार दिसता पडिल्लो
आमचे मुखार सपणांचो प्रदेश कसो
इतलो विवीध, इतलो सोबीत, इतलो नवो,
पुण खरयान दीना आनंद, मोग वा उजवाड
खात्री, शांती, वा दुखयेक उपाय
संघर्शाचे आनी झुजाचे भिरांतीन गांदळत
आमी हांगा उरल्यांत जशे एका काळखी प्रदेशांत
रातचे नेणार फौज झगडतात

---

Original Poems & Poet :
**Dover Beach** - Mathew Arnold

56.

# चडटेर

हो रस्तो कितें चडटेर निमणें पर्यंत चडत आसतलो?
व्हय, अंत परयांत
दिसाचो हो पयण सगळो दीस घेतलो?
सकाळच्यान रात पर्यंत, म्हज्या इश्टा

पुण रातचो विसव घेवपाक मेळत खंय जागो?
एक पाखें, हळूच काळखाचो वेळ सुरू जाता, तेन्ना खातीर.
काळोख तें म्हाज्या तोंडा वयल्यान लिपयतलें?
ना, तुका ती धर्मशाळा चुकची ना.

थंय म्हाका रातचे दुसरे वाटसुरे मेळतले?
आं, पयलींच थंय पाविल्ले
हांव टक टक करूं वा आपोवं कोण दिसतना?
ते तुका दारा कडेन रावोवचे नात.

प्रवासान जखमी जाल्ल्या, थकिल्ल्या म्हाका थंय समाधान मेळतलें
तुज्या श्रमाचें फळ मेळतलें
म्हाका आनी हेर सोदप्यांक शय्या आसतली?
व्हय आसतली.

---

Original Poems & Poet :
**Uphill** - C.Rosetti

57.

## गीत

हांव मरता तेन्ना, म्हज्या मोगा
शोकाचीं गितां गावंनाका
म्हज्या तकले कडेन गुलाबाचीं झाडां
वा सावट दिवपी सायप्रस रूख रोवं नाका
जावन राव म्हज्या फोंडा वयर पाचवें तण
पावसान आनी दंवा कणान ओलें जाल्लें
आनी तुका जाय तर, यादकर
आनी तुका जाय तर, विसर

हांव आसची ना ती सावळी पळोवपाक
हांव अणभव घेवचो ना पावसाचो
म्हज्या कानार पडचो ना बुलबुलाचो उलो
गायत राव, दुखिल्ले भशेन
आनी अशा मंद उजवाडांत सपनेत हांव
उदेवंचो ना आनी अस्तमेंचो ना
खोशीन घडये याद करीन
आनी घडये विसरून वचन

---

Original Poems & Poet :
**Song** - C.Rosetti

58.

## उगडास

याद कर म्हजी हांव गेल्ल्या उपरांत,
पयसुल्ल्या त्या मूक जाग्यार;
तेन्ना तूं धरूंक पावचो ना तुज्या हातांत म्हजो हात
आनी हांवय वचपाक अर्द घूंवन मागीर फाटीं रावपाक उरची ना
उगडास कर दिसान दीस जेन्ना हांव आसची ना
सांग तुज्यो येवजण्या म्हाका आमच्या पुडाराच्यो
फकत याद कर म्हजी: तूं जाणा न्हय,
मागीर तोडोव जातलो उपदेसाक वा मागपाक
पुण तूं म्हाका विसरतलोच तर विसर थोडो वेळ
आनी मागीर यादकर, खंत नाका:
कित्याक, काळोख आनी कुसकेपण
म्हज्या पयलींच्या विचारांचो अवशेश सोडून वता जाल्यार
चड बरो तुजो विसर आनी मंदहास
तूवें याद करून दुख्ख भोगचे परस

Original Poems & Poet :
**Remember** - C. Rosetti

59.

## गीम

हून गिमाच्या सूर्या
उपकार करून पर्जळत राव हांगा
दक्षिणेच्या गरम वाऱ्या
सौम्यान हांगा यो
पाचव्या तणा तळा वयल्यान
पड ल्हवू, पड ल्हवू
शुभरात, मोगाळ काळजा,
शुभरात, शुभरात

---

Original Poems & Poet :
**Summer** - Mark Twain

60.

## हांव पळयता म्हज्या हारशांत

हांव पळयता म्हज्या हारशांत
आनी दिसता म्हाका जीरण जाली कात
आनी मागता देवा अशीच करशी
म्हजें काळीज आंवळून पातळ?
तेन्ना हांव, खिन्न जायनासतना
हे काळजांचे थंड वृत्तीक लागून,
एकलेपणान म्हज्या अनंत विसवाची
वाट पळयन मनशांतीन

पूण काळ करता म्हाका खंती
अर्द चोरून, आनी अर्द सोडून असा तशें:
सांज वेळा ही नाजूक हाडावळ हालयता
दनपाराचे भरतेचो धडधड

---

Original Poems & Poet :
**I Look Into My Glass** - Thomas Hardy

61.

## नदर चुकोवपी

हांगा आसा तें पुरातन तळ
पावलांनी झरिल्लें आनी पोकळ आनी पातळ
हांगा आशिल्लें तें दार आदलें
ज्यांतूल्यान भितर सरलीं मेल्ल्यांचीं पावलां

आपल्या कदेलार ती हांगा बसताली
उजो पळयत हासून
तो वाजोवपी थंय राविल्लो
ताचो गज वयर वयर व्हरतालो

बाळका वरी सपनांत हांव नांचलों
त्या दिसाचेर आशीर्वादाचो छाप बशिल्लो
सगळे कडेन झग झगतालें
पुण आमी एकामेकांची नदर चुकयतालीं

---

Original Poems & Poet :
**The Self Unseeing** - Thomas Hardy

62.

## देवालें तेज

हो संवसार देवाल्या तेजान भरलां
ते ताची ज्योत फुलतली, पातळ पत्रो हालतना झगझगचे वरी
तें मेळता व्हडपणांत पिळतना तेल गळचे वरी
पूण मनश्यांक कित्याक परवा ना ताच्या दांड्याची?
पिळग्यानी ताचेर माडयलां, माडयलां, माडयलां
आनी सगळें वेपारान लासून गेलां; कश्टा निमत्तीं अस्पश्ट जालां

सगळ्याचेर आसा मनशाची बुडबुडाय आनी मनशाचो वास: ती माती
आतां उकती जाल्या, पुण पावलांक स्वर्शना, मोच्यांक लागून
आनी ह्या सगळ्यांक लागूनय सैम सोंपूंक ना
थंय जियेता भितरच्या भितर प्रिय ताजपण वस्तुंचें
आनी काळे पश्चिमेचे निमणे दिवे वाडवले तरीय
पळय, सकाळ, पूर्वे वटेन तांबशे धारेर उडता–
कित्याक, पवित्र आत्मो ह्या वांकड्या संवसारा वयर
छातिच्या उबेन आनी परजळीत पांखानी रवाणां बसता

Original Poems & Poet :
**Gods Grandeur** - G. M. Hopkins

63.

## नवो प्रचंड पुतळो

नामनेच्या त्या ग्रीक, भीमाकाराच्या पुतळ्या वरी न्हय
जो दोनीय कांठ्यार जैत जोडून पाय पेंचून राविल्लो;
हांगा दर्यान धुल्ल्या, सूर्यास्तेंतल्या आमच्या दरवट्यार रावतली
एक बलिष्ठ अस्तुरी, जोगलाचे जोतीची चूड घेवन,
आनी तिचें नांव गांवभायरेपणाची आवय
तिच्या हातांतल्या मार्ग दाखोवपी दिव्याचो झगझग
दितलो येवकार संवसर भर; तिच्या शांत नदरेंत येता
त्या जोड शेहराच्या चौकटांत बसयल्लें बंदर
"पोरण्या देशानो, दवरून घेयात तुमचेच कडेन तुमच्यो झेताच्यो काणयो" ती आड्डता
बंद ओंटान दी म्हाका तुमचे थकिल्ले, दुबळे
स्वातंयाचो श्वास घेवपाक तळमळून गर्दी करून बशिल्ले,
तुमच्या विपूल ती रावयले दळदीरे, उपेक्षीत.
धाड तांका, घरदार नाशिल्यांक, तुफानांत उबंत पडिल्ल्यांक
हांव उखलून धरतां हो दिवो भांगराळ दारवट्या कडेन

---

Original Poems & Poet :
**The New Colossus** - Emma Lazarrus

64.

## म्हजे बायलेक: म्हजे कवितेची प्रत सयत

हांव बरोवपाक शकना भव्य कविता
म्हजे कवितेक प्रस्तावना म्हूण
एका कविची कवितेक म्हूण
हांव खात्रिन सांगन

जर हांगा पडिल्ल्या पाकळ्यांतली
एक तुका बरी दिसली तर
मोग ताका सवकास हवेंत व्हरून
बसयतलो तुज्या केसार

आनी जेन्ना वारें आनी शिशीर कठीण करता
मोगाविणा सगळो जागो
तेन्ना तें कानांत सांगतलें उद्याना विशीं
आनी तुका समजतलें

---

Original Poems & Poet :
**To my Wife with a copy of my poem** - Oscar Wilde

65.

## एक विळाप

बरें जावं ताजें जो जियेता सुसेगाद
विस्तृत राज्यांतल्या भांगराच्या राशीचेर
ज्याका आयकना पावसाचो साद
वा रानांतल्या रुखांचो घडघडाट
बरें जावं ताजें ज्याका कळूंकना
भुकेच्या वरसांची वेदना
एका दुखोस्त बापयचो शोक
एके आवयन एकळें रडतना-

पूण ताजें बरें जावं जो माडयत गेला
कश्टाच्या आनी संघर्शाच्या थकोवपी मार्गार
तरीय ताचे जिणेच्या दुखांतल्यान
बांदता निसण देवालागीं पांवपाक

---

Original Poems & Poet :
**A Lament** - Oscar Wilde

66.

## नखोत्रां, तीं हांवें पडतना पळयल्यांत

नखोत्रां तीं हांवें पडतना पळयल्यांत
पूण तीं जेन्ना पडतात आनी मरतात
एक तरी शेणिल्लें दिसना
तारे भरिल्ल्या मळबांतल्यान
सकडांची म्हेनत आसल्यारूय
मूळच्या दोशाक परिहार ना
दरयांत पर्यंत पावस पडल्यारूय
दरयाचें उदक मिटशेंच उरता

Original Poems & Poet :
**Stars I have seen them fall** - A.E.Housman

67.

## म्हजो पंगड कसत आसा?

म्हजो पंगड नांगर चलयतात कांय
जाची म्हाका संवय आशिल्ली
घोड्याच्या पट्याचो किणकिणय आयकतालों
जेन्ना हांव जितो मनीस आशिल्लों

व्हय, ते घोडे माडयतात
तांच्या पाट्याची घंटी अजून किणकिणटा
बदलूंक ना कांय तूं गेलो तरीय मातयेंत
जी तूं संवयेन कसतालो

फूटबाल खेळतात व्हय
न्हंयचे देगेर तें
बाला फाटल्यान धांवचे चले
हांव आतां ना तरीय

व्हय, तो बाल उडत आसा
ते चले खेळतात तांतूंत जीव ओतून
गोल आसा उबें, गोल कीपर बी
रावता थंय गोल राखपाक?

चली म्हजी सुखी व्हय
जिका सोडून येवप कठीण दिसलें
आनी ती रडून रडून थकली
तिनसांजे न्हिदपाक आडपडतना ?

व्हय ती आड सरता हळूच
पुण ती आड सरता रडपाक न्हय
तुजी चली आतां भोव समाधानी
शांत जा, चल्या म्हज्या, आनी नीदरे

म्हज़ो इश्ट खुश न्हय
हांव आतां भागलां, निस्तेज जालां
आनी कितें ताका न्हिदपाक मेळें
म्हज्याय परस एक बरें हांतरूण?

व्हयरे, चेल्या, हांव न्हिदतां सुसेगान
न्हिदतां चल्यांचे इत्से प्रमाण
हांव उर्बा दितां एका मेल्ल्या मनशाचे मोगिणीक
विचारूं नाका म्हाका केन्नाय कोणाची ती म्हूण

---

Original Poems & Poet :
**Is My Team Ploughing** - A.E.Housman

68.

## जाणटेल्या बसपगारी मनशाची खंत

हांव जरी पावसा थावन आश्रय घेता
मोडिल्या एक रुखा मुळांत
म्हजें कदेल उज्या लागींच उरता
दर एक पंगडांत
जो मोग वा राजकारणाचेर उलयतालो
काळान म्हजें रूप बदलचे आदिं

जरी चले परत करून भाले
मांडतात कारास्थान
आनी ते नावाडगी रागार जातात
मनशांच्या जुलमा विरुद्ध
म्हजें मनन आसलें काळा वयर
जाणें म्हजें रूप बदल्लें

एक अस्तुरीय तोंड घुंवडायना
मोडिल्या रुखा दिकेन
पूण हांवें मोग केल्ल्यो सुंदरयो
आसात म्हजे यादिंत
हांव थुकता थांडार काळाच्या
जाणें रूप बदल्लें म्हजें

---

Original Poems & Poet :
**The Lamentation of a old Pensioner** - W.B. Yeats

69.

## ते विद्वान

आपलीं पातकां विसरून खड्डीं बोडां,
जाणटेल्यांचीं, शिकिल्ल्याचीं, मानेस्ताचीं बोडकां
सुदारतात आनी फोडणिशी करतात त्या वळिंच्यो
ज्यो तरणाट्यानी न्हीद खळून
मोगाचे निराशेन रचिल्ल्यो
सौंदर्याची तुस्त करून अज्ञानी कानांत गायिल्ल्यो

सगळे थंय पावलां घाशीत चलतात, सगळे खांकतात शाय
सगळे झरयतात जमखण पांयार मोचे घालून
सगळे चिंततात जें हेर चिंततात
सगळे वळखतात त्या मनशाक ज्याका तांचे शेजारीय वळखतात
देवा, किते सांगतले ते
तांचो केटल्लूस् बी असोच चल्लो?

---

Original Poems & Poet :
**The Scholars** - W.B. Yeats

70.

## परत आपोवणी

हांव तांच्या पूर्वजांची भूंय
म्हज्यांत सदुण उरता
हांव म्हज्या भुरग्यांक परत हाडतलों
थोड्या दिसां उपरंत

तांच्या पाया पोंदाच्या तणां भितर
म्हजी वेंगवपी जादू चलता
ते परकी म्हणून परत येतले
ते पूत जावन रावतले

तांच्या माथ्यावयर ताळयेंत,
ताणीं निकतेंच घेतिल्ल्या पोरणया रुखांचे
हांव विणतलो एक जादू
आनी ओडतलो तांका म्हजे दिमयेर

सांज वेळाचो धुवराचो वास
रातचो पावसाचो वास
वरां, दिस आनी रुतू
तांच्या आत्म्यांक सारखें दवरतलो
म्हज्या हजार वरसांचो अर्थ
तांका स्पश्ट जायत मेरेन
तांच्या काळजांत हांव गिन्यान भरचे मेरेन
तांच्या दोळ्यांत हांव दुकां भरतलों

---

Original Poems & Poet :
**The Recall** - Rudyard Kipling

71.

## जर

जर तूं समचित्त सांबाळता, जेन्ना त्या खातीर हेर लोक सगळे
समचित्त वगडायत तुका दूशण दितात

जर तूं आत्म विश्वासान आसता जेन्ना लोक तुजो दुबाव घेतात
तांच्या दुबावांकय मानून मुक्त कर
जर तूं वाट पळोवपाक शकता आनी अपेक्षेन थकना,
तुजे विशींच्यो फटी आयकूनय फटवणेचो वेव्हार करूनाक,
वा दुस्वासाचो पात्र जावनूय, दुस्वासाक जागो दिवूनाक
आनी अशें आसूनूय चड बरो म्हण दाकोवनाक, शाणो कसो उलोवनाका

जर तूं सपनां पळयता,पुण तांचो गुलाम जायना;
जर तूं विचार करता ताचें ध्येय नासतना;
जर तूं घेतलो जैत आनी संकश्ट
ह्या फटकिरयाक समान रीतीन हाताळटा,
जर तुवें सांगिल्ल्या सत्याचो फटिंगानी विपर्यास करून
मूर्खांक कातरींत सांपडायलो म्हूण तूं आयकून रावपाक शकता,
वा तुज्या जिवा मोगाचो वस्त मोडिल्लो पळोवन
बागून, तो पोरण्या, जीर्ण हत्यारान सारखो करता

जर तूं तुज्या सगळ्या जैताची एक राश करून दवरपाक शकता
आनी जुगारांत सगळें घाणाक दवरता
आनी वगडायता, आनी परत सगळें पयलींच्यान सुरू करता
आनी लुकसाणा विशीं एक उतर उच्चारीनासतना,
जर तूं तुज्या तन-मनाचें बळ सोंपिल्ल्या उपारांतय
तुजें काम करीत रावता आनी मागीर
कांय नासतनाय, इच्छा शक्ती सोडून, कुडांत
सांगता त्या बळाक राव मातशें

तूं लोकां कडेन उलयतनाय स्वताचे सद्गुण सांबळता
वा रायांच्या सांगाता चलतनाय सादा मनशांच्या संपर्कांत रावता
जर शत्रू वा मोगाळ मित्र तुका दुखोवपाक पावनात
जर सगळ्या लोकांचो मान मेळता पुण सगळें ताचेर निंबून ना,
जर वेळ कोणाक रावना देखून दर मिनटांतलीं
साठ सेकुंड धावंत काम करता
तुजीच ही भूंय आनी तांतुंतलें सगळें
आनी- म्हत्वाचें म्हळ्यार- तू जातलो एक मनीस, म्हज्या पुता !

---

Original Poems & Poet :
**If** - Rudyard Kipling

72.

## घुगूम

हांव दोंगराचेर आयलो भुकेन, पुण उपाशी न्हय
थंडायेन, पुण राखलें म्हाका भितरले हुनसाणीन
उत्तरे कडले वाऱ्यांत; थकेलों आडसरपाक इतलो,
एका पाख्या खालचो विसव भोगलो सगळ्यांत चड गोड

ते धर्मशाळेंत म्हाका जाय तें मेळें, खाण, हुनसाण आनी सुसेग
हांव तितलो भुखोलो, थकिल्लो आनी थंड आशिल्लों
सगळी रात हांवे भायर दवरिल्ली, सोडून
एका घुगूमाचें रडणें, खूबच खिन्न रडणें

दोंगरा वयलो तो लांब, हालयल्लो, स्पश्ट साद
प्रसन्न नासलो, मजा दिवपीय नासलो
पुण सादेपणान सांगतालो हांवें कितें टाळ्ळें तें
आनी दुसऱ्यांक कितें मेळ्ळें ना, ते राती हांव भितर सरतना

रुचीक म्हजें जेवण आनी म्हजो विसव
रुचीक आनी सावध करपी सुकण्याचो साद
तो नखोत्रां सकयलच्या सगळ्यांचो
सैनिकांचो आनी दुबळ्यांचो, जे खोशी मनोवपाक शकनात

---

Original Poems & Poet :
**The owl** - Edward Thomas

73.

## उक्त्या पायाचें माणकुलें

तणां वयर बाळकान गोरीं पावलां मारतना
तिं ल्हान गोरीं पावलां बागवतात वाऱ्यांत धव्या फुलांवरी
तिं तोल सांबाळून धांवतात वाऱ्या झरको गेल्ल्या वरी
उदकांतल्या पातळ तणा वयल्यान

आनी तांची गोरसाण तणांनी खोळतना दिसता
रोबिन सुकण्याच्या गिता वरी मोहक, तितलो फडफडाट
वा दोन पिसोळीं कंवचेच्या पेलार बसतना
एका खिणाक, तांचीं मोवाळ ल्हान पाखटां मारतात फुतफुतेवन

हांव आशेतां तें चेरडूं हांगा म्हजे कडेन धांवत येतलें
आनी तळया वयर व्हळच्या वाऱ्या वरी येवन रावतलें
तिं दोन ल्हान गोरीं पावलां म्हजे धिमयेर दवरून
आनी हांव तिच्या पावलांचेर दोनय हातानी घेतलों स्पर्श

सकाळच्या वेळाची सिरिंगा कळ्याची थंडाय
वा तरण्या पियोनी फुलाची रेशमी धृडताय

Original Poems & Poet :
**Baby running Barefoot** - D.H. Lawrence

74.

# काळ्या सुकण्या कडेन पळोवपाचे तेरा नमूने

I

वीस बरफा परवतां मदें
एकच तो चलतो वस्त
जावनासलो काळ्या सुकण्याचो तो दोळो

II

हांव् आशिल्लो तीन मनाचो
एका रुखावरी
जंय आशिल्लीं तीन काळीं सुकणीं

III

काळें सुकणें तें शिंयांच्या वाऱ्यांत भोंवतालें
तें आशिल्लें मूकाभिनयाचें एक ल्हान भाग

IV

एक दादलो आनी एक बायल
जाल्यांत एकरूप
एक पुरुष आनी एक स्त्री आनी एक काळें सुकणें
जाल्यांत एक रूप

V

म्हाका कळना खंयचें चड बरें
वर्णना भायली ती सोबाय
काय वक्रोक्तीची सोबाय
काळ्या सुकण्याची ती शिळोवणी
काय ताचे उपरांत

VI

बरफी कांटे भरिल्ले, असभ्य कंवचेचे
दीघ जनेलांत
सावळी काळ्या सुकण्याची
आडवी गेली आरती परती.
सावळेंत घुसपल्लें
मनस्थितीचें
एक निगूढ, अस्पश्ट निमित्त

VII

हड्डुमाच्या बारीक मनश्यानो
भांगराळ्या सुकण्याची कल्पना कित्याक ?
तुमचे लागींच, बायलांच्या पांवलां भोंवतणीं
काळें सुकणें चलता,
तें दिसना तुमकां?

VIII

म्हाका येता कुळवंताचो उच्चार
आनी नितळ, टाळपाक जायनासो ताल
पुण हेंय हांव जाणा,
जें हांव जाणां, तांतूत
काळ्या सुकण्याचो हात आसा

IX

जेन्ना तें काळें सुकणें नदरे भायर उडून गेलें
तें चिन्न थारलें देगेचें
जायत्या वर्तुलां मर्दीं एकाचे

X

पाचव्या उजवाडांत उडपी
काळें सुकणें पळोवन
शिंदळ बायल लेगीत मधूर सूरबदलून
बोब मारतली

XI

कनक्टिकटांत तो गाडयेर
कंवचाच्या डब्यांत बसून गेलो
एकदां, ताका भिरांत तोपली
आनी ताची गैरसमज जाली
ताचे गाडयेची सावळीच
त्या काळ्या सुकण्याची म्हणून

XII

न्हंय व्हळत आसा
तें काळें सुकणें उडता जायत

XIII

सगळी दनपार सांज जाली
बरफ पडत आशिल्लें
आनी पडपाचें आशिल्लें
काळें सुकणें बशिल्लें
देवदारा फांट्यार

---

Original Poems & Poet :
**Thirteen Ways of Looking at a Blackbird** - Wallace Steevens

75.

## बेत

पळयलो हांवें एक खळी तोंडा कोळी, मोठो आनी धवो
एका धव्या वखदी फुलार तोणांत धरून घेवन एका पाख्याक
एका दाट धव्या मखमल कपडा-कुडक्या भशेन
मरण आनी रोगाचे कीडे हांचे तरेकवार गूण
भरसून तयार केल्ली सकाळचि सारकी सुरवात
एके चेटकिणेच्या सुपांतल्या द्रव्यां भशेन
एक बरफा-थेंबोसो कोळी, फेण कशें एक फूल
आनी तीं मेल्लीं पांखटां कागदा पतंगा वरी

तें धवें आसून कितें करतलें
वाटे कुशिंतलें तें नीळ, निश्पाप वखदी फूल ?
कोणे त्या दायजी मावलीक तितल्या उंचायेर पांवयलो
आनी रातचें त्या पाख्याक थंय वाट दाखयत व्हेलो ?
व्हयमू तो भेश्टावपाक काळखाचो बेत ?
तितली ल्हान एक बेत वस्तूंत राज्य करीत जाल्यार.

---

Original Poems & Poet :
**Design** - Robert Frost

76.

## आपणावंक नाशिल्लो रस्तो

हळदुव्या रुखा मदले दोन मार्ग वेगळे जाले
आनी खंत जाता, एकच वेळार दोनूय घेवपाक शकना हांव
एकलोच पयणारी देखून, लांब वेळ हांव रावलों
पळयत एका मार्गार म्हाका जितलें पयस दिसता तितलें
जंय तो झिलकुटांत देवन गेलो;

मागीर हावें तो दुसरो मार्ग वेंचलो योग्य बरो
आनी घडये, तोच चड बरो जायत
कित्याक, ताचेर तण भरिल्लें, चालीन काडपाक जाय आसलें
पूण तशें पळयल्यार पावलां पडून
दोनय मार्गार तण झरिल्लें आसा

आनी ते सकाळीं ते दोनूय एक सारके आशिल्ले
तांचेर पाले माडून काळे जावंक नाशिल्ले.
हां, पयलो मार्ग हांवे दवरलो आनी येका दिसा खातीर!
जाण जावनय, वाट कशी हेर वाटेक मेळता म्हणून
म्हाका संशय आसलो केन्ना तरी फाटीं येतलों काय म्हणून

अशें हांव सांगतलों एका सुस्कारान
खंयतरी, ह्या फुडे युगां उप्रांत
दोन मार्ग रानांतले वेगळे जाले, आनी हांव
हांव घेतलो तो जाचेर थोडेच लोक गेल्ले
आनी ताका लागून सगळें आगळें वेगळें जालें

---

Original Poems & Poet :
**The Road not taken** - Robert Frost

77.

## पडिंग जमीन: अग्नी प्रवचन

ऱ्हंयचो तंबू मोडला, पानांचीं निमणीं बोटां
धरतात आनी देंवतात ओले देगेर. मोनें वारें
हुपता तांबडी जमीन, अप्सरा गेल्यो परतून
थेम ऱ्हंये, व्हाळ हळूच, म्हजें गायन सोंपत मेरेन
ऱ्हंयत दिसना खाली बोतलां, पुसचें कागद
रेश्मी लेस, रट्याच्यो पेटो, सिगेरेटाचे कुडके
वा गिमा-रातींचे हेर कांय पुरावे. अप्सरा गेल्यो परत
तांचे इश्ट, शाराच्या निदेशकांचे हेडपी वारीस;
गेले, पत्ता तांका दिनातलें
लेमान तळये देगेर हांव बसलों आनी रडलों
थेम्स ऱ्हंये, व्हाळ हळूच, म्हजें गायन सोंपत मेरेन
थेम्स ऱ्हंये, व्हाळ हळूच, हांव उलयना चड वा व्हडान
तरपुण म्हज्या फाटल्यान हांव आयकता थंड वाऱ्याचो झोत
हाडांचो गडगडाट आनी तोंडा वयलो किटकिटो
एक हुंदिर हळूच सरकटलो झाडां पोंदाच्यान
ताचें बुळबुळीत पोटय घेवन ऱ्हंयचे देगे वयल्यान
हांव नुस्तें धरतालों सुस्तेल्या खारिजांत
शियाळ्यांत एके सांजेर ग्यासा-घरा फाटल्यान

याद करीत रायाचें- म्हज्या भावाचें तारूं मोडिल्ले विशीं
आनी ताच्याय पयलीं मेल्ल्या रायाचे म्हज्या बापयचे विशीं
गोरयो कुडी नागड्या पडिल्ल्यो ओले भूंयचेर
आनी हाडां पडल्यांत पोटमाळ्यार
तीं हुंदराच्या पांवलानी कटकट्टात, वरसान वरस
पुण म्हज्या फाटल्यान वेळान वेळ हांव आयकतां
मोटारांचो पीं-पीं आवाज, जो घेवन येतलो
स्वीनीक मिसिस पोर्टरा लागीं गिमांत
ओ, चान्ने परजळता मिसिस पोर्टराचेर
आनी तिचे धूवेचेरय बी
ताणी धुलीं आपलीं पावलां सोडा-उदकान
ट्विट् ट्विट् ट्विट्
जग् जग् जग् जग् जग् जग्
इतली कठोर बळजबरी
टेरउ

---

Original Poems & Poet :
**The Wasteland: The Fire Sermon** - T. S. Eliot

# आधारावळ (Bibliography)

**Preface Section**


- Abrams, M.H., 1993A Glossary of Literary Terms, Prism Books Pvt. Ltd, Bangalore,
- Albert, Edward, (2018) History of English Literature, Oxford University Press, New Delhi,
- Bradley, A.C., (2013) Oxford Lectures on Poetry, Books Way, Kolkata,
- Brooks, Cleanth, (2015) Studies in the Structure of Poetry, Books Way, Kolkata,
- Carey, John, Milton, (1969) Evans Brothers Ltd., London,
- Chesterton, G.K., (2017) The Victorian Age in Literature, Books Way, Kolkata,
- Cudson, J.A. & Habib, M. A. R, (2014) Dictionary of Literary Terms & Literary Theory, Penguin Books,
- Cunliffe, Marcus, (1991) The Literature of the United States, Penguin Books, Daiches, David, (2019) A Critical History of English Literature,Vol. I From the Beginnings to Milton & Vol. II The Restoration to the Present Day, Supernova Publishers, New Delhi,
- Drabble, Margaret, (1966) Wordsworth, Evans Brothers Ltd., London,
- Davison, Dennis,Dryden (1968), Evans Brothers Ltd., London,
- Ebbatson, Roger, (1988) Tennyson, Penguin Books,
- Enright, D.J., (1980) The Oxford Book of Verse 1945-1980, Oxford

University Press, Oxford

- De Chickera (1977), Ernst,English Critical Texts, Oxford University Press, Delhi,
- Evans, Ifor, (1976) A Short History of English Literature, Penguin Books,
- Ford, Boris, A Pelican Guide to English Literature, Vol.1The Age of Chaucer,1975; Vol. 2The Age of Shakespeare,1973; Vol. 3From Donne to Marvell ,1972; Vol. 4From Dryden to Johnson,1968;Vol. 6 From Dickens to Hardy, 1969; Vol. 7The Modern Age ,1974 ( All published by Penguin Books)
- The New Pelican Guide to English Literature, Vol 5 From Blake to Byron, Pelican Books, 1985
- Hamer, Enid (2012) The Metres of English Poetry, Books Way, Kolkata,
- Homberger, Eric (1977) The Art of the Real – Poetry in England & America since 1939, London,
- Hunter, Jim (1965) The Metaphysical Poets, Evans Brothers Ltd., London,
- Legouis, Emile, (2015) A Short History of English Literature, Oxford University Press, New Delhi,
- Long, William J., English Literature – Its History and its Significance for the Life of the English Speaking World, Maple Press, Noida
- Prasad, Birjadish, (1971) A Short History of English Poetry, Macmillan Co. of India, Madras,
- Ramadoss, Haripriya (2020) A Background to the Study of English Literature, Trinity Press, New Delhi,
- Roberts Michael (1976), The Faber Book of Modern Verse, Faber And Faber, London,
- Saintsbury, George (2017), A Short History of English Literature,

A.T.B.S. Publishers, Delhi,

- History of Elizabethan Literature, Notion Press, Chennai, 2019
- Schoeck, Richard J., et al (1960),Chaucer Criticism Vol. 1: Canterbury Tales, University of Notre Dame Press, Notre Dame,
- Symons, Arthur, et al (2006) The Symbolist Movement in Literature, A.B.S. Publishers & Distributers, New Delhi,
- Thorpe, Michael, (1969) Matthew Arnold, Evans Brothers Ltd.,London,
- Tilak, Raghukul, (2011) History of American Literature, Prakash Book Depot,
- Walker, Hugh, (1964) The Literature of the Victorian Era, S. Chand & Co., Delhi,
- Willy, Basil, (2015) Nineteenth Century Studies, Books Way, Kolkata,

## Translation Section :

- Allison, A. W. etl (1975), The Norton Anthology of Poetry: W W Norton & Company INC 500, fifth Avenue, New York 10110,
- Savory, T.H. (1969), The Art of Translation. Jonathan Cap, 30, Bedford Square
- Ministry of Science Research and Cultural Affairs, (Ed) (1962), Art of Translation, New Delhi
- Tytler, A. F. (1907), Essays on the Principles of Translation. A M Dent and Sons Ltd, 10-13, Bedford street, London
- Catford, J.C. (1965), A Linguistic Theory of Translation. Oxford University Press, Ely Road, London
- Booth, A.D. etl (1958), Aspects of Translation. Sacker and Warburg
- Bloom Field, L. (1933) Language, New York: Henry Walt & Co
- Catford, J.C. (1965) A Linguistic Theory of Translation, Oxford :

Oxford University Press

- Dharwadker, V. (1999) 'A. K. Ramanujan's Theory and Practice of Translation' in S. Bassnett and H. Trivedi (Eds)
- Savory, T. (1968) The Art of Translation London: Cape
- Sossure, F de (1983) Course in General Linguistics ed C Bally A.and Riedlinger A.

WEBSITES:

- विल्यमषेकस्पिअर - राना रुखामुळांत, म्हांतारपण-तरणेंपण (poetryfoundation.org)
- थॉमस नॅष- वसंत (poetryfoundation.org)
- सर हेनरी वाट्टन - सुख जीवन, (mypoeticside.org)
- जॉन डन - मरणा, गर्व नाका (poetryfoundation.org)(litcharts.com)
- जॉन मिल्टन - कुड्डेपणार (poetryfoundation.org)(litcharts.com)
- ए. एल बारबावल्ड- जीण (Poetryfoundation.org) (theguardian.com)
- चार्ल्स लॅम - सगळें सकड गेलें (poetryfoundation.org)
- विल्यमब्लेक - वाग (poetryfoundation.org) (poets.org)
- रॉबर्ट बर्न्स- म्हजो मोग म्हळ्यार, लेसलीसुंदरी, एक मोगाळ चुंबनहे, सोबीतडून, खूब पयर्लीचे ते दीस (poetryfoundation.org) (visitscotland.com)(robertburns.org) (englishverse.com)(keytopoetry.com)
- एल. सी. नॅर्न - खोशियेचो गांव (poetrynook.com),
- विल्यम वड्र्सवर्त - व्हाळता व्हाळ (poetrybyheart.org.uk):, पळयतना उडकीमारताहरदें, (poets.org), एकतक्रार (poetryfoundation.com), डेफडीलफुलां (poetryfoundation.com)
- सर वॉलटर स्कॉट - समूह विळाप, व्हडपणाची चेली (poets.com) (poetry-archive.com)
- एस. टी. कॉलरिड्ज - कुब्लाखान (poetryfoundation.org)
- रॉबर्ट साउदीले - विद्वान (poetrynook.com)
- डबल्यू. एस. ल्यअंडसर - रोस आयलमेर (poetryfoundation.com)

- जी. जी. बाइरन – कायमचोमोग, नाका आमी आतां चड भोंवचें (interesting literature.com.cdn.ampproject.org) (Learnodo-newtonic.com) (bartleby.com),
- पर्सी बि षेली – प्रेम तत्व, भंय तुज्या उम्याचें कोमल कन्ये,एक उतर केन्नाच भश्टलां, मोवाळ ताळो सोंपतना,एक विलाप, ओझिमांडियास् रायु (poetryfoundation.org) (bartleby.com) (en.m.wikipedia.org) (academia.edu)(poetryfoundation.org)(poetryfoundation.org)
- जॉन क्लेर – जिप्सी(theguardian.com)
- जॉनकीट्स – केन्ना हांव भियेता, तेजवंत तारो (learnado-newtonic.com) (poetryclass.poetrysociety.org.uk)
- हार्टली कॉलरिड्ज – सुंदरी न्हय भायल्यान (poemhunter.com)
- थॉमस डी. मेखाले – रेबिल्लस सरोवरा कडलें झूज (theotherpages.com)
- जे. एच. न्यूमन – दाखय वाट, दिव्याहे (musixmatch.com)
- टी. एल. बेडोस – सपनां विकपाक आसत जाल्यारतें (oxfordlieder.uk)
- राल्फ वाल्डो एमर्सन– ब्रह्म (Poetryfoundation.org).
- हेन्री वाड्सवर्त लोंगफेलो – जिणयेंतलें स्थित्यंतर (poetryfoundation.org)
- सी.ई.एस. नोर्टन – तुजो हांव मोग करीना (wussu.com)
- एरअलेनपो – सुनीत विज्ञानाक, हेलेन (poetryfoundation.org)
- ए.एल.टेन्नीसन – मोड मोड मोडून घे, दर्यांत वचपाचो वेळ (poetryfoundation.org)
- रॉबर्टब्राउनिंग – तर जाय कितें ‘असोलांडो’ – उपसंहार (poetryfoundation.org)
- चार्ल्स डिक्केन्स – एकस्तुती गीत भुरग्याचें (powerpoetry.org)
- षार्लटब्रोंटी – जीण (poemanalysis.com)
- वाल्ट विटमॅन – एक मोनी सोंशीक मावली (poetryfoundation.org)
- आर्थर ह्यू क्लो: संघर्षाचेंफळ
- मथ्यू आरनॉल्ड – पलेडियम, डोवर किनारो (hellenicaworld.com), (poetryfoundation.org),
- क्रिस्टिना रोसेटीन –,चडटेर, गीत, उगडास (poets .org), (poets.org)
- मार्क ट्वेयन – गीम (poemanalysis.com)

- थोमस हार्डी – हांव पळयता म्हज्या हारशांत, नदर चुकोवपी (interestingliterature.com)
- एम्मा लॅसरस – रचन केल्ले नवो प्रचंड पुतळा (poetryfoundation.com)
- आस्करवायल्ड – म्हजे बायलेक: म्हजे कवितेची प्रत सयत, एक विळाप (owlcation.com) (dailypoetry.me)
- ए.ई. हाउसमॅन हांच्यो नखेत्रां, तीं हांवें पडतना पळयल्यांत,म्हजो पंगड कसत आसा?:
- डाबल्यू. बी. यीट्स – जाणटेल्या बसपगारी मनशाची खंत तेविद्वान (en.m.wikisource.org) (emilyspoetryblog.com)
- रडयर्ड किप्लिंग – परत आपोवणी, जर (poetryloverspage.com): (businessballs.com),
- वालस स्टीवन्स – काळ्या सुकण्याकडेन पळोवपाचे तेरा नमूने (literarydevices.net)
- एडवर्ड थॉमस – घुगूम (diypoets.com)
- डी.एच. लॉरेन्स – उक्त्या पायाचें माणकुलें (dhavalddiyora.blogspot.com)
- रॉबर्ट फ्रॉस्ट – बेत, आपणावंक नाशिल्लो रस्तो (owlcation.com) (poetry foundation.org)
- टी.एस. ईलीअट – पडिंगजमीन अग्नीप्रवचन. (poetryfoundation.org)



## BIODATA

**Dr Bachodi Devadasa Pai,**

M.Sc. (Physics)
M.A. (Konkani)
M. Ed (Education)
Ph.D. (Education) from R.I.E. , NCERT, New Delhi
P.G. Dip. In Software based Statistical Analysis.

**Professional Background:**

- Worked as Lecturer:
- taught PHYSICS for P.U., B.Sc. Classes
- taught EDUCATION for B.Ed. and B.H.R.D. Courses
- Research Guidance for M.Ed.& M. Phil. Dissertations
- Worked in State Science Text Book Committee
- Worked as Registrar of Konkani Academy ( since 2011),
- Worked as Asst Director, District level Dept of Kannada & Culture
- Presently Coordinator of Dept of Konkani, M'lore University
- Research Guide at Srinivas University
- Director, Research Wing at World Konkani Centre Mangalore

**SERVICES IN THE FIELD OF KONKANI:**

(i) As a Registrar of Konkani Academy he served with true zeal and dedication, for a long period of seven years, with proven capacity of good administration, to implement several pioneering Projects, under able Leadership of the four Presidents of the Academy, during their respective tenures. Especially, his contribution to elevate status of Konkani as an Academic Language in Schools and higher level of Education is commendable. His Konkani Works :

- A Hand Book on Methodology of Teaching Konkani in accordance with the D.Ed. curriculum of Karnataka State.
- Designed and successfully implemented a Certificate Course in Konkani for the benefit of Household Women and College Students.
- Implementation of 8 Fellowship program in Konkani language field.
- Production of two Documentaries on Senior Artists belonging to Konkani SC (Huluswars Chamgars) and Konkani ST(Siddis) communities.
- Prepared Lyrics for a Konkani Cassette.
- Published a Book called 'Amchigele' on basic Konkani Vocabulary.
- Participated in a major project undertaken by by Govt of Karnataka of translating literarily works of Kanakadasa.
- Developed a new updated curriculum for MA konkani program in C.B.C.S. semester System of Mangalore University.
- Developed the innovative M.C.Q. Pattern of Q.P. for MA Konkani Semester Examination in NET pattern.

(ii) As Coordinator of PG Dept of konkani Mangalore University :He completed his M.A. Konkani course by attending regular classes at the age of 58 to 60 years and later become Lecturer Cum Coordinator of the same P.G. Department of Konkani. Presently he is instrumental in establishing and developing the present PG Dept of Konkani which is the second PG program available in Konkani after Goa. The Curriculum developed recently for the upgraded MA program and the introduction of Objective MCQ pattern of Exam are really innovative. He is also involved with the Folklore Dictionary and Konkani Thesaurus the prospective long term projects of University Konkani Adhyayana Peeta

**KONKANI LITERARY WORKS :**

- A Hand Book on Methodology of Teaching Konkani in accordance with the D.Ed. curriculum of Karnataka State.
- Designed and successfully implemented a Certificate Course in Konkani for the benefit of Household Women.
- Implementation of 8 Fellowship on Konkani Language and Culture field.
- Production of two Documentaries on Senior Artists belonging to Konkani SC (Huluswars Chamgars) and Konkani ST(Siddi) communities.
- Published one Translation Book "Sasaay" of Bakibab Borkar.
- Prepared Lyrics for a Konkani Cassette.

- Published a Book called 'Amchigele' on basic Konkani Vocabulary.
- Presently developing a Hand-Book on Basic Konkani Learning of Konkani containing 1500 words and 525 sentences.
- Translated a Bharathanatya Ballad (Sri Krishna Parijata) into Konkani.
- Translated UPSC and other State level PSC Competitive Exam Question Papers into Konkani.
- Translated part of Kirthana and other poetic works (Mohana Tharangini) of Kanakadasa into Konkani a project of Govt of Karnataka.
- Particpated in a major project of translating Literarary works of Kanakadasa taken up by Govt of Karnataka.
- Working on a project to develop basic Science Vocabularies in Konkani.
- Working on a project to translate 'Chanakya Neethi' into Konkani.



# आशयगर्भ अणकार

कोंकणीच्या विधायक आनी संघटनात्मक वावराक कर्नाटकांतल्या 'मंगळूर' वाठारांत सदांच उर्बा मेळ्ळ्या. पयलो कोंकणी नाटककार बोळंतूर कृष्ण प्रभू धरून हालींच साहित्य अकादेमीचो अणकाराचो पुरस्कार जोडपी जयश्री शानभाग मेरेनच्या सगळ्या मानेस्तांनी मंगळुरचे प्रतिभेची झलक दाखयल्या. त्या प्रतिभावंतामदीं डॉ. बी. देवदास पै हांणीं कोंकणी भाशीक, साहित्यीक आनी शैक्षणीक मळार दिल्लें योगदान नोंद घेवपा सारकें आसा. एक शांत, संयमी आनी सुसंस्कृत व्यक्तिमत्व. खंयचेंय कार्य तडीक व्हरतना नदरेक भरता ती तांची निस्सीम साधना, खर आत्मियता आनी व्यासंगी वृत्ती. तांचें अवांतर वाचन, सखोल चिंतन तशेंच प्रयोजनमुलक लेखन हे गूण तांच्या वावरांत पडबिंबीत जातात.

प्रस्तूत साहित्यकृतींत डॉ. पै हांणी एक नवो विक्रम रचून तो कोंकणी सरस्वतीच्या पांयार ओंपला. आपले असामान्य प्रतिभेतल्यान समस्त विश्वाक दिपकावन सोडिल्ल्या वेंचीक 50 प्रतिभावंतांच्यो गाजिल्ल्यो कविता अणकारीत करून एके नवे कोंकणी साहित्यकृतीक तांणी आकार दिला. विल्यम शेक्सपिअर, थॉमस नॅश, रॉबर्ट बेन्स विल्यम वर्डस्वर्त, हार्टली कॉलरिज्ड,. एड्म अलेन पो, मार्क ट्वेन, थोमस हार्डी, डब्ल्यू बी. यीट्स, डी. एच. लॉरेन्स, टी. एस. ईलीअट... आदी कवींच्यो कविता वेंचून तांणी कोंकणीत अणकारल्यात. महत्वाचें म्हणजे, ह्या अनुवादकान सगळ्यांत पयलीं कवी आनी कवितेची निवड केल्या, त्यो तन्मयतेन वाचल्यात, समजून घेतल्यात, पचयल्यात आनी मागीरूच तांचो आशयगर्भ कोंकणी भाशेंतल्यान मांडला. तांच्या अणकारांत कवितेच्या आशयवस्तूक तशेंच आकृतीबंधाक एक नवें चैतन्य गावलां. पाश्चात्य काव्य संस्कृतीचो आत्मो सोदून कोंकणी अणकाराच्या मळार एक उत्कृश्ट देख तांणी दिल्या. एकंदर, प्रस्तूत अनुवादक पाश्चात्य कवींच्या आंतरीक भाव विश्वांत भोंवडी मारून आयला हाचो दिश्टावो ही साहित्यकृती वाचले उपरांत जाता.

कोंकणी मनशान संवसारांतल्या जायत्या भासांचेर प्रभुत्व मेळयलां. नवें, प्रयोगशील आनी प्रगतीशील जें कितें हाताक लागलां तें तांणी व्हडा मनान आपणायलां आनी तातूंतल्यान नाविन्याचो सोद घेतला. संवसारीक नामनेचें पश्चिमी साहित्य अणकारीत करून शणै गोंयबाबान अणकाराचे जे परंपरेक आरंब केल्लो ती परंपरा मुखार व्हरपाचें धिटायेचें कार्य डॉ. बी. देवदास पै हांणी आत्मविश्वासान केलां.

**– डॉ. हनुमंत चोपडेकार**

संजना पब्लिकेशन्स

**मोल : 200/-**